# आमच्यो खबरो

[ वांटो तिसरो ]



रामकृष्ण जुवारकार

बरोवपी :

रामकृष्ण जुवारकार

उजवाडावपी :

श्री. चामुंडा प्रकाशन
व्हडलें गोंय

छापपी :

गोमन्तक प्रा. लिमिटेड. सांतइनेज, पणजी–गोवा

मोल : साडेतीन रुपया

# दोन उतरां

'आमच्यो खबरो' हे वळेरींतलो हो तिसरो वांटो. पयले दोन वांटे पोरूं उजवाडाक आयिल्ले.

हांतली पयली कथा हांवें म्हज्या इंग्लेजींत उजवाडाक आयिल्ल्या 'Stray Stories' ह्या कथा संग्र-हांतल्यान घेतल्या. फुडल्यो दोन 'The Untold Stories' ह्या म्हज्या आजून उजवाडाक येंवच्या संग्रहांतल्यो आसात.

ह्यो कथा बरोवन दोन–तीन वर्सां जालीं. आतां त्यों कोंकणींत उतरायतना तांतूत अदीक–उणें करचें पडलां.

ह्यो तीनूच कथा. पुण केन्ना तरी सांगूंक जाय म्हुण हावें बरोवन दवल्लेल्यो कथा कशो आसल्यो जायत हें ह्या कथांवेल्यान वाचप्यांक थोडें–भोव कळटलें.

बरें मागून,

व्हडलें गोंय

९ आब्रिल, १९८२

**रामकृष्ण जुवारकार**

# खबरो

# १: साधु

संसारांत जायते तरेचे चोर, दरोडेखोर, डाकु आसतात. हांवें एक असो चोर पळेलो जाणे आपुण मोग करता त्या चेडवाचेंच पाकीट माल्लें. तें चेडूं बदल म्हुण एक दीस दुसऱ्या चेडया-वांगडा मोग करूंक गेल्लें. तें जेन्ना परतें आपल्या पयल्या चेडयासरीं आयलें तेन्ना आपुण दुसऱ्या वांगडा गेल्ल्याची ताका खबर लागली हें ताका कळून आयलें. ह्या चेडयान मागीर ताका बुद्द शिकोंवक ताची नजर चुकोवन ताचें पाकीट तांतुंत आसलेल्या शंभर रुपयां सैत माल्लें. हें त्या चेडवाक कळटकुच तें आपल्या दुसऱ्या सांगात्याक घेवन आयलें आनी आपल्या पयल्या सांगात्याक बडोवन ताचे कडल्यान शंबर रुपया वसूल केले. आपल्याक दगलबाजी केल्ल्या चेडवाचे शंबर रुपया चोरुन ताका बुद्द शिकैल्याचें ह्या चेडयाक समाधान जालें तर त्या चेडवाकुय आपले चोरयेक गेल्ले शंबर रुपया परते मेळळे म्हुण समाधान जालें.

म्हजो एक इश्ट पाकीट मारुंक खांपो आसलो. आपल्या धंद्याफुडे ताका आपलो–पेलो कोण कळनासलो. ज्या दिसा ताका परक्याकडल्यान लाभ जाय नासलो तेन्ना तो आपल्या मित्रांक सोडून काडी ह्या धंद्यातल्यो जायत्यो माण्यो ताका खबर आसल्यो. केन्ना–केन्नाय तो म्हज्या घरा म्हाका सोदूंक येतालो. पुण तो असो नांवास्तो चोर आसलेल्यान ताका आमच्या घरचो दरवाजो बंद आसलो. पुण तो म्हजे कुडीच्या जनेलाकडे येतालो आनी एके लांब बडयेन खुटयाळयावेलें म्हजें खोमीस जांव कल्सांव काडटालो आनी तें जनेलांतल्यान अलगद भायर हाडून बॉल्सांतले पैशे काडून व्हरतालो. जायते फावट बॉल्सांत आसलेल्या पैशांपरस कल्सावांचें जांव खोमसाचें मोल कितलेशेंच चड आसतालें. पुण म्हजें खोमीस–कल्सांव थंयच जनेलाचेर सोडून तो वतालो. तांका संवय आसली फक्त पाकीट मारचेली! हेर कांय चोरुंक तो वचनासलो.

चोर, डाकु तरातराचे आसतात. कांय जाण कोणाकुय एकलो एकसुरो पळोवन ताका नागयतात. कांय जाण बायलांच्यां हातातलीं कांकणां सरपळी बी काडून पसार जातात.

कांय चोरांक धाडसाची संवय आसता. एक पावट आमच्या शारांत एक धाडशी चोर आयलो. तो दिसाचोच घरांनी भितर सरुन चोरी करतालो. लोकांक ताची सुलूस लागुन ते ताच्या फाटल्यान लागताले तेन्ना एका छपरावेल्यान दुसऱ्या छपराचेर उडी मारुन तो पसार जातालो. एक पावट एक अशीच लांब उडी मारताना तो सकयल पडून मेलो.

कांय लुटाऱ्यांक हिंशेची सवय जाल्ली आसता. ते आगगाडयो आडावन लोकांक मारुन पसुन लुटूंक फाटीं सरनात. कांय जाण आगगाडयो उडोवन पसून लुट व्हरतात.

आमच्या शारांत एक पावट एका चोरान एकां घरांत भितर सरून घरांत रावतल्यांची कत्तल करुन तांचे कुडके कुडके केले. तांच्या तिजोरेंतल्यो, आलमारींतल्यो, काशेंदांतल्यो सगळयो भांगर–वस्ती बी व्हरुन तांतुंत कत्तल केल्ल्या मनशांचे ते कुडके भल्ले.

थोडे चोर गरजेक लागून चोरी करतात. कांय जाणांक चोरयेची संवय लागतकुच कितलेंय चोरल्यार तांका आनिक चोरल्या बगर रांव नज जाता. कांय डाकु अशे आसतात जाणीं खुप पैसो केल्लो आसता आनी तांका पैशांची कांयच गरज नासुन पसुन लोकांक भिरांतेंत दवरुंक आनी लोकांच्या घरानी धुस्पट घालूंक ते डाके घालीत आसतात.

आमच्या शारांत फाटीं एक वेगळेच तरेचो डाकू येवन गेलो. तो आमच्या देशांतल्या खंयच्या तरी पयशिल्या प्रांतांतल्यान आयिल्लो. कोण म्हण तो उत्तरेकसावन आयला तर कोण म्हण तो पूर्वेकसावन आयला पुण तो खंयच्यान आयला तें सारके कोणाक खबर नासलें. ते वाटेन जेन्ना जातींय दंगली जाल्यो तेन्ना ते दंगलीनीं ताणे वाटो घेतिल्लो आनी कांय जाणांक जीवेशीं मारून पसुन तांची धन–दौलत लुटुन तो हांगा पयस

आयलो अशी वंदता आसली. तो आतां साधूचो भेस करुन भोंवतालो तोंडान तो रामनामाचो जप करतालों. आमच्या शारांतल्या कांय लोकांक ताणें आपल्या नादाक लायिल्ले. तो भजन करतालो आनी हे ताका भजताले. मनशाच्या कुडीची आनी मनाची व्याधी ना करूंक आपल्याक सिद्दी प्राप्त जाल्या असो ताणे जायत्या जाणांचो समज करून दिल्लो. इतकी वायट कर्तूबां करुन तो थंड दिसतालो तेन्ना आमच्या शारांतल्या कांय नाड लोकांनी संसारात नाडपणां करुक वेल्यान कशी सभ्यताय दाखोवची हाची देख ताचेकडल्यान घेवची थारायली म्हूण नवल ना.

जे इमारतींत म्हजी कचेरी आसली ताचे फुडले वाटेन एका सोबीत घरांत तो रावतालो. पयलींचो थंयचो मालक खंय गेलो कोण जाणा. ताका ताणें आपल्या गोड–गोड उतरांनी भुलोवन आपल्याक रांवक तें घर मेळैलें खंय. तो पयली त्या घरांत एका अर्दाक रांबक आयलो. दुसऱ्या अर्दाक त्या घरचो मालक रावतालो. पुण करतां–करतां त्या घरच्या मालकाकुच ताणे थंयच्यान निखळायलो. चोर पावलांनी आयिल्लो हो साधु थंयचो मालक जालो. पयलींच्या मालकाचो आतां पत्तो ना. ताका ताणे घराचे थोडे तरी पैशे दिवन पैस धाडलो काय ताका जीवेशीं माल्लो ते कोणाक खबर ना.

आमची इमारत पांच मजली आसली. हांव एक आर्किटेक्ट. म्हजी कचेरी हे इमारतीच्या तिसऱ्या मजल्यार आसली. हे इमारतींत चडशे इंजिनियर, कांय म्हजे सारके आर्किटेक्ट, कांय शिक्षक, कांय वैज आनी त्या भायर थोडे कलाकार आनी लेखकुय रावताले. वेल्या मजल्यार एक सभागृह आसलें जंय जायत्यो सांस्कृतीक कार्यावळी जाताल्यो. ताका लागून एक ग्रंथालय आसलें. हे इमारतींत रावपाचें भाडें सभोंवतालच्या इमारती परस कमी आसलें पुण ही इमारत त्या सगळ्या वाटाराक खुपूच सोबीत आसली. त्या भायर हांगा रावताले ते चडशे आपले कलेंत जांव आप–आपल्या वेव्हारांत मग्न आसलेल्यान हांगा वातावरण थंड आनि धादोस आसलें

ही इमारत बांदपी मनीस आमच्या शारांत मोटो नांवास्तिक जावन गेलो. तो बरो इंजिनिअर तर आसलोच त्या भायर शिक्षणिक, समाजिक, संस्कृतिक मळारुय ताणे व्हड नांव व्हेल्लें आमच्या नगर-पालिकेचो तो जायतो काळ अध्यक्ष आसलो. त्या वेळार ह्या शाराचो ताणे सगळे तरेन विकास केल्लो. हें सगळें सुदरप ताणे आपले दुरदर्शी आनी कलात्मक नदरेन केल्लें. हांगा ज्यो कांय बांदावळी ताणे बांदून घेतिल्ल्यो त्यो खऱ्योच दिश्ट लागसारक्यो जाल्ल्यो.

हांगा आतां नवी इमारत बांदलेली थंय ताचें पयलीचें पोन्नें घर आसलें. जागो आयस-पयस आसलो. पोन्नें घर मोडून ते सुवातेर ताणें ही वास्तु बांधलेली. हे वास्तुंत हिन्दू, पारसी, पाश्चात्य अशा सगळ्या शिल्पांचो सुंदर संगम जाल्लो. भोंवतणच्या प्राकाराक लागून ती आनींकुय सोबीत दिसताली. भोंवतणच्यो बागो आनी तांतली सोबीत झाडां मुळचे इमारतीची सोब अदिकुच वाडयताली.

हे इमारतीचो पांचवो मजलो पुरो जावचे पयलींच आनी भोवताणची थोंडो बांदावळ उलेल्ली ती पूर्ण करचे पयलीच हो ध्येयवादी मनीस भायर पडलो. तेन्ना ही इमारत ताचे धुवेचे देखरेखी सकयल आयली आनी तचें उल्लेलें काम पुरे करचें तिच्या वांटयाक आयलें.

उपरांत जेन्ना हे इमारतीचो पांचवो मजलो पुरो जांवक पावलो आनी प्राकार तयार जावन भोंवतणी सोबीत बागो वाडूंक लागल्यो त्या वेळार आमच्या ह्या शेजारच्या साधुची विखाळी नजर हे इमारतीचेर पडली. ती ताच्या डोळयांत गेली. हीं चिन्नां बरी न्हय अशें आमका दिसूंक लागलें. तो साधु जाल्ल्यान ताका संसारांतलें सगळें लागतालें. हाका लागून हे बांदावळीच्या विशयांतुय ताणे लक्ष घालूंक सुरवात केली आपले परीन परतो परतो येवन तो सुचोवण्यो करूंक लागलो. इमारतीची धनीण ताचें सगळें आयकून घेताली पुण ज रीतीन पयलीं हे इमारतीची येवजण केल्ली आसली त रीतीन ती तिचो फुडलो वावर करताली. पुण साधुची बुद्द परती चलताली. मोटरां दवरपाक गॅरेज फाटल्यान आसची अशी

येवजण आसली जाल्यार ह्याचें मत्त गॅरेज फुडें आसचें. बाग फुडें बरी अशी पयलींची येवजण जाल्यार ह्याका बाग पोरसावरीं फाटल्यान जाय आसली. संस्कृतिक कार्यावळी खातिर वेल्या मजल्यार हॉलाची येवजण आसली जाल्यार ताका थंय भजन–किर्तनाक सुवात बरी दिसताली. हे इमारतींत इंजिनियर, कलाकार, साहित्यिक ताका नाका आसले. व्हडले, व्हडले लक्ष्मी भक्त व्यापारी ताका थंय राविल्ले जाय आसले. तांका थंय जागो दिवचो तो वशिलो घेवन येतालो. पुण ताचे कोण आयकनासलो. एक पावट इमारतीचे धनीणीन ताका सांगलें की ताच्या सल्ल्याची गरज ना पुण तरीय आपलो उपदेश दिवंक तो परतो–परतो येतालोच.

ह्या साधुन आपले प्रस्थ गांवांत खुप वाडैल्लें. आमच्या शारांतले अेक–दोन अर्दकुटया गिन्यानाचे समाज–सुधारक ताचे व्हड शिष्य जाल्ले. ते आमच्या साधुचे व्हडपण आमच्या शारांत पसरायताले. आमच्या साधुच्या आंगांत एक सिद्धी आसा आनी ते सिद्धीक लागून तो रोगजर्जर मनशाक पसून बरो करता, घरांत थंडाय हाडटा, पिशें काडटा, लक्ष्मीक भरभरीत ओडून घरांत हाडटा, कोर्टाचे निकाल आपल्याक फाव तशे लायता, भुरगें नाशिल्ल्याक भुरगें दिता, गोंदळांत पडिल्ल्याक योग्य दिशा दाखयता आनी ताची बुद्द घेतल्यार आयुष्याचें कल्याण जाता अशी ताची वडवीक ते गायताले. आमच्या शारांतले व्हड–व्हड गिरेस्त जांची दुसऱ्याक फटोवन वयर सरल्यात म्हुण ख्याति आसली ते ह्या खांप्या फटोबप्याक भुल्लेले आनी आपल्या परस ताच्यांत कोण तरी व्हड शक्ति आसा असो भावार्थ दवरून ताच्या नादाक लागलेले. ताची भक्ति केल्यार आयतें धन, आयतें आरोग्य, आयती विद्या, आयती प्रतिष्ठा, आयतो स्वर्ग, सगळें आयतें मेळटा असो तांका दृष्टांत जाल्लो. तांका तो अयत्नांती परमेश्वर जाल्लो!

अशे तरेन आमच्या साधुचे प्रस्थ गावांत वाडल्या उपरांत तो मेळत ताका नाका जाल्यार पसून आपलो सल्लो दिवप आपली लागणुक समजतालो. आतां व्हड–व्हड पैशेकार ताचे शिष्य जाल्ल्यान ताचे पयलीच साठयल्ले दौलतींत आनीक जायती भर पडलेली. शारा लागसार ताणें कांय भाटां

मेळयल्लीं. त्या भायर शारांतल्यो दोन–तीन इमारती ताणें घेतल्यो. ह्याचे आंगचे सिद्धीक लागून त्यो ताका खुप सवाय मेळिल्ल्यो. जांचे कडल्यान ताणें त्यो विकतो घेतिल्ल्यो ते हाच्या बऱ्या नशिबान हाका त्यो सवाय मेळच्यो म्हुण कसल्या तरी अडचणींत सापडलेले जांव अकस्मात शार सोडून गेल्ले.

आतां ह्या साधुची नजर आमच्या इमारतीचेर पडिल्ली. तो परतो–परतो येवन आमचे घर–धनिणिक जेन्ना ही इमारत सोबोंवक बुद्द दितालो तेन्ना आपुण आपलीच इमारत सोबयता अशें त्या आपले–पेलें ना वळखुपी साधुक दिसतालें पुण ह्या फुकट सल्ल्याची इमारतीचे धनिणिक गरज ना हें पळोवन तिचे सुवार्थी बुद्दीची ताका काकुळत आयली. आनी आपुण दिला तो तिच्या बऱ्याचो सल्लो ती आयकना म्हुण उबगुन तो तिच्या माबळणींक आनीं मावशांक वचून मेळ्ळो. तांका ताणें सांगलें कीं तांचोय त्या इमारतीचेर हक्क आसा आनी तांका तो कायद्यान सिद्ध करुंक आपुण जाय ती मदत दिवक तयार आसा. ताणें तांका आनीक आस दाखयली किं ती इमारत तांका मेळच्यार आंपुण तांका बरी रक्कम दिवन ती विकती घेतां. आपल्याक स्वतःक हरशीं आनीक इमारत नाका पुण आपणें जन–जागृतीचो वावर हातांत घेतला. त्या समाज कार्याक लागून आपल्याक असल्यो आनीक इमारती जाय अशेंय ताणें तांका सांगलें. ह्यो बायलो बऱ्योच जाण्टयो आसल्यो. पुण सदांच ऐष–आरामांत रावन आयिल्ल्यान इतल्यो म्हाताऱ्यो जावन पसून तांची संसाराची आस सोपूंक नासली. तांतले एके मावशेची तर जायतीं ऑपेरासावां जाल्लीं. दर ऑपरेसावांक वतना ती आपुण मरता म्हुण आकांत करताली. ऑपेरासांवां उपरांत दोतोरान आपलें ऑपेरासांव योग्य तरेन केलें ना म्हुण परती रडटाली. ती अशी सदांच मरतां–मरतां म्हुण रडलेल्यान जावयें देवाक तिची काकुळट येवन तिचो मरणाचो वेळ ताणें एकसारको फुडें धुकल्लेलो. मावळण तर संसारांतलीं सुखांच भोगूंक देवान आपल्याक जलमाक घाल्या आनी कसलींच कर्तव्यां आपल्या वांटयाक येवना म्हुण देवाक अर्गी दिताली. पुण जितलीं सुखां भोगता तितली तिची संसार सुखाची भूक अदीक वाडटाली आनी

ती भागोवची कशी असो देवाक पसून प्रस्न पडटालो हो देवमनीस तांचे फुडें येतकूच तांचे आशेक परते आंकुर येताले आनी कशेंय करून ताचे सिद्धीक लागून तो आपल्याक इमारतीचें आयतें धन दितलो म्हणपाचो तांका अर्थ्ïक लागतालो.

साधुचे सांगणेन ताणी धर मालकिणीचेर जायत्यो केशी केल्यो. पुण त्यो धरनाशो पळोवन साधून तिका सतावचेल्यो वेगळचो–वेगळयो माण्ण्यो येवजून काडल्यो. उबगून तरी तिणें आपल्याक ती इमारत दिवची अशें ताणे येवजिलें. ताणें आमच्या शारांतल्या नगर–रचना खात्याकडे ते इमारतीच्या बांदावळी संबंदान जायत्यो तक्रारी केल्यो. तिच्यो सरकारी कचेरींनीं आशिल्यो वावराच्यो फायलो आपल्या कांय शिष्यांवरवीं आडावचो उद्योग केलो. ते इमारतीक वीज आनी उदक मेळटालें तांतुत खंड घालूंक तो फाटी रावलो ना ताचें घर लागींच आसलेल्यान ताका हें करूंक सोपें जातालें. तांतूत ताचे कांय शिष्य तस्कर विद्येंत निपुण आसले. ताणी तिका शेजाऱ्यान जितले उपद्रव दिवक जाता तितलेय उपद्रव दिवन पळेले.

आमच्या साधुक दुसऱ्याची संपत्त हातासचेली सुरवेक लागलेली रूच दिशीं–दिशीं वाडत गेल्लीं. आड–मार्गान आपली भर करतना ताका कसलोच विधि–निषेध नासलो. जे जे संपत्तचेर ताची नजर गेल्ली ती तो बऱ्या–वायट मार्गानि मेळोवचो प्रयत्न करतालो आनी ती आपल्याक मेळना जाल्यार ती दुसऱ्याक भोगूंक मेळची न्हय म्हुण ती नश्ट कशी जातली हें पळेतालो. तोंडांत राम–नाम घेत तो आपलें कर्म सोबयतालो.

ताच्या घरांत नित्य तरा तराचे जप चलताले ताच्या राम–नामाच्या जपाक शारांतले व्हड-व्हड लोक येवंक लागले. ताची वुद्द घेंवक आमच्या शारांतले व्हड हुद्यावेले मनीस येताले. तांका तो गुप्त मंत्र दितालो ताच्या शिष्यांचो आंकडो आतां बरोच व्हड जाल्लो. आमचे घरमालकिणीच्यो मावशी-मावळणीय आतां ताच्यो शिष्या जावन ताच्या घरा जराक येताल्यो. ताचें घर तरा-तराच्या लोकांक एकठांय येवन आपल्यो हिताच्यो येवजणो

करूंक बरें पडटालें. आमच्या शारांतले कांय सरकारी अधिकारी, दोतोर, व्यापारी, एक दोन जुवीज पसून ताचो आशीर्वाद घेवक हांगा येताले. एकी जुवीजाच्या माथ्यार आशीर्वादाचो हात दवरून आमचो साधु ध्यानस्थ बसला असो एक फोटोय आमच्या एका वर्तमान पत्रांत प्रसिद्ध जाल्लो. आमच्या साधुच्यो दासी जाल्ल्यो कांय कृष्ण-पंथी चलयो तर सगळें भान विसरून ह्या वृंदावनांत साधुच्या शिष्यांबराबर कृष्ण–लिलेंत तल्लीन जाताल्यो. आमच्या शारात जांका–जांका देवान आयती लक्ष्मी प्राप्त करुन दिल्या तांका हांगा येवन आमच्या साधुच्या कृपा–छत्रा सकैल कृपांवत देवाचे स्मरण करुंक आनी फुडें ताचेंकडल्यान आनीक आपली भर करून घेंवक बरी सुवात सांपडलेली. आमच्या साधुन आतां आमच्या शारांत सगळ्याक आपले सिद्धीचो लाब जावचो म्हुण जन–जागरणाचो कार्यक्रम सुरू केल्लो. आपल्या शिष्यां–सैत तो शारांतल्या वेग–वेगळ्या वाटारांनी वचून प्रवचनांचे कार्यक्रम करतालो हाका लागून आमच्या शारांतले कांय कडेक पडलेले गिरेस्त आतां व्हड देव–भक्त आनी वक्ते म्हुण नांवा-रुपाक आयले.

आमच्या साधूक ब्रह्यादिकांक ठकोवचो हावेस आशिल्ल्यान ताची बुद्द ठक मार्गानुच चलताली हिसेन ताची कारकीर्द सुरु जाल्ली तांतूंत ताका सुरवेकूच येश मेळिल्ल्यान त्याच मार्गान फुडें वच्चें ताणे पत्करिल्लें. भायल्यान ताणें संतपण पांगुरलेलें तरी भितल्ल्यान खोटे वान्सेक लागुन ताच्या आंगात मर्दी–मर्दी हिसेचें पिशें चाळवतालें. ताचें कांय शिष्य तर अस्सल मवाली आसले. आंगावेली भगवीं वस्त्रां तांका आपली काळीं कृत्यां लिपोंवक बरीं पडटालीं. आमच्या प्रदेशांत कांय लोकाच्या खुनांत तांचो हात आसलो अशी वदंता आसली. साधुचे जे दुसरे प्रतिष्ठित शिष्य आसले ते खुनी नासत पुण तांका संसारांत जे कोण आपले भाशेन सवंग भक्तिचो मार्ग पत्करिनात आपले खोटे भक्तिचे मायाजाळ रचिनात आनी जे मानव धर्माक स्मरतात ते नसाय जाताले. सुख भोगांचो जीण जगतल्या ह्या प्रतिष्ठित लोकांक कर्तव्य बुद्धीन चलतल्यांची आपल्या मार्गांत अडचण जाताली. हो साधु तांच्या मार्गातल्यो आडखळी पयस करची विद्या अवगत

आसलेलो म्हान गुरु जाल्लो. देवपणाच्या नांवासकयल ताणें तांच्या सगळचा आडकृत्यांचेर पांगरुण घाल्लें.

सुरवेक हो साधु कसली वान्सा मनांत धरुन हांगा आयिल्लो हें कळूंक मार्गं ना. पुण तो हांगा येतकुच ताचो व्याप खूप वाडलो. घडये कांय बिध्वंसक शक्तिंक आपल्या सुवार्थाक उपयोग करुंक हो मन.स योग्य दिसलो. कित्याक तर कांय दिसांनी ह्या साधूचो मठ म्हळचार आमच्या शारांतल्या कांय संपाचें, हरताळांचें आनी दंग्याचें गुपीत केंद्र जालें. कांय विद्यार्थी संघटणांचोय ह्या मठाकडे संबंध येंवक लागलो. साधुक ह्या वावरांत गुप्त मार्गांन धनूय मेळूंक लागिल्लें जावये. ह्या चळवळींचेर तो व्हड प्रमाणांत खर्च करतालो. मुळचो हिंसा करचेलो रुच तो ह्या चळवळीच्या मार्गांनी भागोवन घेतालो. त्या भायर आयतें धनुय मेळयतालो. ह्या गुप्त चळवळी भायर ताचो चडसो वेळ आपल्या मठांची उदरगत करुंक आनी थंय येवपी लोकांचे प्रश्न सोडोंवक वतालो

हो साधु दीस–रात जन जागरणाचे काम करतना एक पावट आमचे इमारतींत भोंवडी मारुन गेलो. ह्या जागरणाक लागुन त्या दिसांनीं ताचे दोळे अदीकूच तांबडे जाल्ले. एक पावट म्हजे कचेरींत येवन ताणे म्हजेकडे आपल्या लाल दोळचांनी पळेत म्हाका सांगलें कि तो आतां आमचीय उदरगत करूंक सोदता. आमची इमारत विकती घेवचें आपल्या मनांत आयलां आनी आपलो धर्म पातळावचें हांगाय एक केंद्र आपुण सुरू करूंक सोदतां अशें ताणें म्हाका सांगलें. हाका लागून आमकांय जायत्यो सवलती मेळच्यो आसा हाची खबर ताणें म्हाका दिली. हांगा सगलें वातावरणूच धर्मिक आनी खुशालभरीत करूंक आपणें कशें येवजिलां हाची ताणें म्हाका माण्णी सांगली.

हावें तांका सांगलें कि हांव एक आर्किटेक्ट आसा आनी हांव सदांच म्हज्या वावरांत आसलेल्यान हांव म्हजेपरीं खुशाल आसां. हे इमारतींत धार्मिक कार्यक्रम जाल्यार, ना जाल्यार म्हाका सारकेंच. हांव तांका अशी उत्तरां दितां ती पळोवन ताणे हांव व्हडलोसो सुधारचेलो न्हय

अशें धरून म्हजी वाट सोडली आनी दुसऱ्यांक उपदेश करूंक तो फुडें गेलो.

कांय जाणांचो सुवार्थ इतलो खर आसता कीं तांका आपल्या स्वतःच्या संसाराभायर कांयच बरें पळोवचेलें नासता. आपली मोटवी नदर ते आपल्याच संवसाराकडे लावन आसतात. बरें तितलेंय तांका आपल्या संसारांत जाय आसता आनी भोवतणचे सगले पाड पडल्यार चलता. आमच्या साधुक आनी ताच्या शिश्यांक आपले संसार सुखी करचो ध्यास लागिल्लो. संसारांत बरें बरें तें आपल्याक मेळचे आनी मेळना तें पाड पडचें अशें तांका दिसतालें. हेरांचो संसार उध्वस्त करूंक तांका कांयच दिसनासलें.

आमच्या शारांत एक पावट अकस्मात दोन-तीन व्हडल्या इमारतींनीं स्फोट जाले. हे स्फोट ल्हान आसले आनी इमारतींचे व्हडले नुकसान जाले ना तरी कोणाक तरी आमच्या शारांत धुस्पट घालची आस लागल्या आनी फुडें व्हड स्फोट जांव येतात हाचो हुस्को आमका जालो फाटोफाट कांय दिसांच्या अंतरान आनीक तीन-चार इमारतींनीं अशेच ल्हान-ल्हान स्फौट जाले. आमच्याय इमारतीच्या दारांत एक स्फोट जालो. इमारतीचें व्हडलेंशें नूकसान जालें ना तरी कोणाक तरी ह्या स्फोटांचीं आता रुच लागल्या आनी पुलीस आजून कोणांक धरूंक पावुंनात हे पळोवन लोक भिले. शारांत सगल्यांक आपले भिरांतेंत दरवचो हे स्फोट करत-ल्यांचो घडये इरादो आसलो.

आतां आमचे इमारतीचे धनिणीन आपल्या इमारतीचेर फाटल्या-फुडल्यान पहारो करूंक दोग राखणदाराची नेमणूक केली. हे राखणदार चड रातचे कोणांक भितर जांव भायर सरूंक दिनासले

हे वाटेन आमचो शेजारी साधु आपले समाजिक वावर आतां चड नेटान चलयतालो. ताचो आमच्या शारांतल्या जायत्या चळवळींनी आतां संबंद येंवक लागिल्लो. धर्मिक वावरा बराबरूच समाजिक सुधारणा करूंक तो दीस-रात वावुरतालो. धर्माचेर प्रवचनां दिवपा शिवाय तो आतां राजकीय आनी समाजिक विशयांचेर भाशणां दिवंक लागलेलो. ताचेकडे

आंतां राजकी सळावेले वावुरषीय आशिर्वादाक येताले. काळो बाजार करपी कांय जाण ताचेकडेन येवन ताका जायती संपत्ति दिवन त्या दिसा सावन आपुण काळोबाजार करचेना हाचो सोपुत घेवन समाजिक वावराक लागिल्ले. आमचो साधु अशा जायता जाणांक चुकिल्ल्या मार्गावेल्यान फाटीं हाडून आपल्या मार्गार हाडून सोडटालो. आमच्या साधुचीं प्रवचनां वेगवेगळ्या विशयांचेर आसतालीं. जीणेंत अंतिम सुख मेळोवचीं ताची साधनां शारांत चैनींत आनी मौजेंत दीस सारतल्यांक खूप आवडीचीं जाल्लीं. आमचो साधु व्यक्ति-स्वातंत्र्याचो मोटो पक्षपाती आसलेल्यान सगल्यांक जाय ती मौज करूंक सगली मेकळीक आसली

एक दीस तो आमच्या इमारतीत संचाराक आयिल्लो तेन्ना म्हजे कचेरींत भितर सल्लो. जन-जागृति करचेल्या आपल्या वावराविशीं ताणे म्हाका खुप सांगलें. मागीर ताणें म्हाका जागृत करूंक सांगलें किं हे इमारतींत केन्नाय भायर-भितर सरूंक आमका घरमालकिणीन आडखळ हाडल्या ताच्या आड आमी झुजूंक जाय भाडें भरून रावतल्यांक सगली मेकळीक आसूंक जाय आनी तांका मेळूंक कितल्याय रातचो कोणूय आयल्यार ताका आडखळ आसूंक फावना. येवपा-वचपाचेर अशें बंधन घालप हें व्यक्तिस्वातंत्र्याच्या आड आसा हाचो ताणें म्हाका याद करून दिली. हांवें-ताका सांगलें किं म्हजे कचेरींत म्हाका चड रातचें कांय काम नासता. आमच्या स्वातंत्र्यांच्या आड येवचो आमचे घर-मालकिणीची तशी इत्सा ना. तर आपली इमारत राखून दवरचे खातिर ती हीं बंधनां घालता. म्हजी गुलामगिरीची ही वृत्ती पळोवन ताणें म्हजो नाद सोडलो आनी हेरांक आपलें शास्त्र सांगूंक गेलो

पुण फुडें बरेच दीस आमच्या शारांत तशे स्फोट जाले ना. हें गरजेभायर भेकडाघणेचे कर्तुब कोणें कित्याक केलें आनी मागीर ते बंद कित्यांक जालें हे कोणांक कळ्ळेंना. पुलीसेकडल्यान ताचो कांयच सोद लागलोना. पुण बरेच दीस सगळेकडे शांत आसलेल्यान वेगवेगळ्या जाग्यांनी दवल्लेली पाळत कमी जाली. राखणेच्यो पाळयो बंद जाल्यो. आमचे

घरमालकिणीनूय आमचें इमारतीकडेन दवल्लेले राखणदार काडले, पुण जो मेरेन गुन्यांवकार सांपडूंक नासले तो मेरेन आमच्या मनांत आजून ह्या विघ्नसंतोषी लोकाचो भंय आसलो आतां शारांत जांव आमच्या इमारतींत खंयंच येवपा-वचपाची आडखळ नासली. मनांत भंय बाळगून आमी व्यक्तिस्वातंत्र्य भोगूंक लागले.

एक दीस सकाळी फुडें हांव आमचे इमारतींत भितर सरतना निसरुन पडलों. किते तरी जमनीचेर पडून जमीन ओलसार जाल्ली म्हुण जायत जाँव रेंव वी कितें पडिल्ली म्हुण जायत, हांव कित्याचेर तरीं निसरुन पडिल्लों. पुण म्हाका लिफ्टाकडेन बेगीन वच्चें आशिल्ल्यान हांवें ताचेर अदीक ध्यान दिलेंना. बेगीन-बेगीन उठून हांव लिफ्टांत भितर सल्लों. लिफ्टांत भितर सल्ल्या उपरांत मात म्हज्या मनांत एक वायट विचार आयलो तो असो कि सकाळीं फुडें कचेरीत वतना निसरुन पडप ही चिन्नां बरीं न्हय. हांवे हो विचार पिशेपणाचो म्हुण तकलेंतल्यान काडून उडयलो पुण आमी तिसऱ्या मजल्यार पावल्यात मात एक भयकर स्फोट आमच्या इमारतींत जालो आनी ताणें आमची इमारत सामकी बुन्यादीपसून हाल्ली. आमचे काळीज हाल्लें. सगळ्याक हळ-कल्लोळ जालो. दादल्याचो, बायलांचो, भुरग्यांचो बोवाळ आयकूंक येंव लागलो. आमका कितें करचें ते कळना जालें. आमच्या बऱ्या नशिबान त्या वेळार आमी तिसऱ्या मजल्याचेर पाविल्ले. बेगीन-बेगीन आमी लिफ्टाचें दार उगडून भायर सल्ले. ह्या मजल्याचेर जनेलांच्यो सगळ्यो कांचो फुटिल्ल्यो आमी पळेल्यो. जनेलांतल्यान भायर पळेत जाल्यार पयल्या मजल्याचेर सगल्याक उज्याचो धुंवोर जाला ! त्या मजल्यावेले लोक भायर सरून रस्त्यार आयिल्ले. वेल्या मजल्यावेलेय लोक भाचर सरुन सकयल धांवताले. कांय वेळान दुसऱ्या मजल्यारुय उज्यान पेट घेतलो वेल्या मजल्यावेले लोक आता वयरुन उरतात अशी परिस्थिती आयिल्ली. रस्त्यार सगळे शेजारचे लोक एकठांय जावन सगल्यक बोवाळ जाल्लो. उजाच्यो लोट इल्लो-इल्लो करुन वयर पावूंक लागिल्लों. आमची भियेवन गुळी जाली. आमचे भोंवतणी आतां वेल्या मजल्य

वेल्यान भायर सरुंक पळेतल्यांची गर्दी जाल्ली. तांच्या बोबाळान कांयच सुचनासलें. इतल्यान पिल्लुकेचो आनी घांटीचो आवाज करीत उजों पालवच्यो मोटरी थंय पावल्यो. कांय लोक निसणींनी देवले. रस्त्यावेल्या लोकांनींय इमारतींतल्या लोंकांक वाटावक खुप मदत केली. ताणी मेळटा तशे कपडे, चादरी जांव जाळ सकयल पसरायले आनी तांतूंत जाणट्या, भुरग्यांक बी झेलून वाटायले. कितलोय प्रयत्न केलो म्हुण उजो आटापाक आयलो ना. आतां तिसऱ्या मजल्याचेरूय उज्याचे लोट पावलेले. आमीं आता चौथ्या मजल्यार गेले. म्हजी कचेरी आता मेरेन ल्हासून गेल्ली हांवे कितें बऱ्यो बांदावळी चितारलेल्यो ताचीं कागदां उज्यांत हुलपून गेल्लीं. हाचें म्हज्या मनाक मोठे दु:ख जाल्लें. हावें हालींच चितारलेले एके बांदावळीची फायल तितली म्हजेकडे आसली. ती हाव म्हज्या हातांत घट्ट धरून आसलों देवान आमका वाटायल्यार पुरो म्हुण हांव प्रार्थना करतालों. बऱ्या नशिबान चवथ्या मजल्याचेर उजो आटापाक आयलो. ते धांदलीन जायत्या जाणांक दुख जाल्यो. थोडयांचे आंग उज्यान झळपल्लें पुण उपकार म्हळचार सगळे बाटावले. हे सगळे धांदलीत एकलोच मेलो पुण तो उज्यान हुलपून न्हय तर चड करून काळजाच्या धक्क्यान अशें मागीर सिद्ध जालें. तो इल्लो जाण्टो आसलो आनी काळजाचो अशक्त आसलो. गरजभायर हे इमारतीचो असो नाश जाल्लो ताच्या काळजाच्यान सोसू नज जावन तो मेलो जावये !

ह्या स्फोटाचीं आनी आमचे इमारतीक उजो लागिल्ल्याची खबर शारांत सगलेकडे पावली. जायतो लोक इमारती फुडें एकठांय जालो. ही इमारत सगळी जळून गेल्ली. तिची बुन्याद हालिल्ली. ते सोबीत इमारतीचो आता फकत सांगाडो कसो उल्लेलो. आमची घरधनिण तर रस्त्याचेर रावन हताश जावन हें सगलें पलेताली. लोकानी तिचे फुडें वचून तिचे सांत्वन केलें आमचो संत–डाकूय तिचेसरी येवन तिका धीर दिवक लागलो. ताणे तिका म्हळें किं खोशेंची गजाल इतलीच कि इमारतींतलो लोक तरी वाटावलो. ती इमारत परती बांदूंक ताणे आपले परीं मदत दिवची केली. घरधणिनीन ताका सांगले किं आपणें ही इमारत आनी विम्याचें जे पैशे येतात ते सगले

आतां आपल्या जाण्टच्या मावळणींक आनी मावशांक दिवचे थारायल्या. आमच्या संतान तिका सांगलें कि संसारांत सगळें नाशिवंत आसता आनी कित्याचोच शोक करुंक जायना.

ही इमारत एकाद्रें दुरुस्त जायत पुण ती बुन्यादीपसून हाल्ल्या. एकाद्रें ही इमारत मोडून थंय दुसरीं व्हडली इमारत वयर सरत. पुण थंय आतां म्हजी कचेरी आसचीं ना. हे इमारतींत म्हजे कचेरींत जनेलाकडे बसून म्हाका कितल्योशोच बऱ्यो बांदावळी चितारूक जी स्फूर्त मेळिल्ली तीं आतां हाचेफुडें म्हाका केन्नाच मेळचेली आशाना.

हे वाटेन आमच्या साधूचो मठ दीस–रात ताच्या भक्तांनी भरिल्लो आसतालो. आमच्या धर–धनिणीच्यो मावशो मावळणी आंतां ताच्यो व्हडल्यो भक्त जाल्यो कशेंय जांव, मोडून हुलपून तरी ती इमारत आपल्याक मेळटली हांचे तांकां मादन जाल्लें. थंय एक चड मजल्यांचीं व्हडली इमारत बांदची अशी येवजण साधून तांचेफुडे दवल्लेली. तांतले कांय मजले साधूक मेळचे आसले. मठांत आतां धर्मिक, समाजिक, राजकी असो सगले तरेचो वावर मोठ्या नेटान चलतालो. पयशिल्या–पयशिल्या संस्थाकडे आतां साधूचो आनी ताज्या शिष्याचो संबंध वाडिल्लो आमचो देश सुधारच्यो व्हडल्यो व्हडल्यों येवजणुको आतां ह्या मठांत जावंक लागिल्ल्यो. जें जें किते आतां आसा तें मोडून थंय एक नवं समाजवेवस्था हाडचेले चळवळीचें ते एक धर्मस्थान जाल्लें. आमच्या शारांतल्या घरांच्यां वण्टींचेर मठाचे कांय समाजसेवक परते–परते घोषवाक्यां पितारताले. देशांत सद्या स्फोटक परिस्थिती आसा. ह्या देशाची अर्थव्यवस्था केन्नाय मोडुन वच्ची आसा. नेवे क्रांतिक लागून लोक उठाव करचे आसात हें त्या घोषवाक्यांवेल्यान कळटालें आमच्या देशांत हाचेफुडें कुबेराचे राज्य येवचें आसा. आनी ते हाडूंक आमकां आमच्या आनी भायल्या देशांतले बरे मागते कुबेराचे प्रतिनिधी मदत करुंक तयार आसा हाचे संदेश मेळटाले. आतां ह्या समाजाचे वांयट दीस सोंपिल्ले. आता ह्या देशांत फुडें फेस्तांच–फेस्तां ज वच्चीं आसली. ह्या इमारतींनी जातात ते स्फोट म्हळचार फूडें येतल्या फेस्तांची वर्दी दिवपी खोजनेच कशे समजूंचेले !

कांय दिसांनी अकस्मात आमच्या शारांत दोन–तीन सरकारी कचेऱ्यांनी आनीक स्फोट जाले तेन्ना मात ही कोणाक तरी आमच्या शारांत धुस्पट घालची संबंय जाली आनो गुन्यांवकारांक धरीना जाल्यार फुडें सगल्यांकूच भंयान दीस काडचे पडटले म्हुण लोक पुलिसे फाटल्यान लागले. पुलीसेनूय नव्या नेटान गुन्यांवकारांक सोडून काडच्यो येवजण्यो आंखल्यो सगल्याक गस्त सुरू जाली कांय दीस लोकांन य पाळत दवल्ली

एक दीस एका सार्वजनिक वाचनालयांत स्फोट जालो. ह्या सरस्वतीच्या मंदिरांत हो स्फोट जांवक अर्थुच नासलो. थंयच्या राखण-दारान स्फोट जातकूच थंयच्यान दोन तीन तरनाटे फाटल्या दारांतल्यान धांवत वतात ते पळेले. तांचो दुबाव येवन तांची ताका इल्लीशी पयली वळख आशिल्ल्यान ताणें पुलिसेक तांका धरून दिवक मदत केली. जेन्ना पुलिसेन तांचो चौकशीं काडली तेन्ना ह्या साधूच्या मठाकडे तांचो चड संबंद आसलो म्हणपाची बातमी लागली. आमचो साधुय त्या दिसा थंय लागीं आसलो म्हणपाचें कळ्ळें. पुलिसेन मठाक गराडो घालो. थंयची झडतीं घेतली. ताकां थंय कांय दुबावाचे कागदपत्र सांपडले.

साधु मठांत नासलो. साधुची सोदा–सोद सुरू जाली. साधु मठांत परतलोचना. तो खंयच्या दुसऱ्या शारांत आपल्या धर्म–प्रसाराक गेल्लो कोण जाणा. म्हयने गेले, वर्सां गेलीं पुण ताचो पत्तो लागलो ना. तो खंय तरी तपाक गेलो जावये. ताचो सोद घेंवचो मागीर बंद जालो.

आमच्या शारांतले लोक तो साधु खंय आसतलो ताचे विशीं तरातराचे तर्क काडटात. कोण म्हणटात तो तपाक बसला, कोण म्हणटात तो शारांतुच आसा, कोण म्हणटा तो राजधानीच्या शारांत पावलो. कोणाक दुबाव येता तो भायल्या देशांत पावलो. हालींच उत्तरेकडल्या एका राज्यांत एका दरोडेखोरांच्या तोळयेचेर पुलिसेक गोळीबार करचो पडिल्लो तातूंत साधुच्या भेसांत आशिल्लो एक डाकु मेल्लो तो होच आमचो साधु आसतलो असो जायत्या जाणांनी तर्क काडलो.

तो साधु मेलो असोच आमच्या शारांत चडशा जाणांचो विस्वास जाला. हांगचे लोक तशे भावार्थी. कित्यारूय विश्वास दवरपी. हाली आमच्या शारांतल्या लोकांक हो साधु चंद्राचेर चूड घेवन दिसता. पयलीं तांका चंद्राचेर तुळशी वृन्दावनाफुडे एक साध्वी बायल पुजा करता ती दिसताली. मनशाचे पांय चंद्रार पडत पसून तिचे पुजेचो भंग जालो अशें ते मानतात. खरें म्हळचार चंद्रावेली सावळी बदलूंनाा ती तशीच आसा. पुण आमच्या लोकांक ते सावळेचो आतां वेगळोच आकार दिसता. आमचो साधु खंय जेन्ना मेलो तेन्ना ताणें केल्ल्या जायत्या देवकृत्यांक लागून देवान ताका सर्गार व्हरचो केलो. सर्गार वतना वाटेर ताचे पाय चंद्राकडे पावन आडखळ्ळें. आपले पोन्ने संवयेक लागुन खंय तो आता पेटिल्ली चूड घेवन चंद्राचेर उजो लांवक घर दिसता काय म्हुण पळेता ! ०००



# २ : ती

भारताच्या दुसऱ्या स्वातंत्र्याच्या अल्पकाळांत आमच्या देशांत जे कांय थोडे साहित्यप्रवर्तक बरोवपी जावन गेले तांतल्या एका व्हड बरोपप्यान पयल्या स्वातंत्र्यावेळच्या पयल्या प्रधानमंत्र्याच्या उगडांसांचेर एक विचार प्रवर्तक पुस्तक बरयलें. तें तें वेळचे धामींत बरेंच गाजलें, आनी मागीर फ़ाटी पडलें. त्या पुस्तकांत त्या बरोवप्यान 'ती' म्हुण एक प्रकरण घाल्लें तें ऐन त्या छापच्या वेळार ताणें गाळिल्ल्यान उजवाडाक येवंक पावलेंना. फुडें हो बरोवपी भायर पडिल्ल्यान आनी हें दुसरें स्वातंत्र्युग सातोळें जल्माक आयिल्लेवरीं अल्पायुशी जावन रोखडेंच सोंपलेल्यान तें प्रकरण उजवाडाक येवंची व्हडलीशीं चिन्नां सद्या नात. 'ती' ह्या प्रकरणांत कितें बरयलां जायत हाचेर तर्क–कुतर्क पसरावचेलें काम मात ह्या गाळिल्ल्या प्रकरणान भोवच बरें केलें.

आमच्या गांवांतुय त्या वेळार त्या प्रकरणाचेर जायत्यो खबरो जाल्यो. 'ती' कोण जायत हाचेविशीं आमच्या गांवांत राजकारणाचेर चर्चा करतल्यांमदें दुमत नासलें पुण तिचेबद्दल कितें बरयलां जायत हाचेर जण एकलो आपले नदरेन आनी आपले अकलेप्रमाण तर्क काडटालो. त्या दुसऱ्या स्वातंत्र्याकाळार श्रद्धास्थानांवेल्या व्यक्तींचें आनी खाजगी म्हुण मानिल्ल्या गजालींचें पावित्र्य नश्ट करचेलो एकतारको प्रयत्न जाल्ल्यान ह्यो खबरो इल्ल्यो मर्यादेक सोडून जाल्ल्यो. पुण त्यो खबरो करतल्यांचो स्वातंत्र्याकडे पळोवचो दृष्टीकोण, बायलांच्या स्वातंत्र्याविशीं तांचीं मत्तां आनी आपल्याक फ़ायद्याक पडटात त्यो पोन्न्यो आधार नाशिल्ल्यो चाली–रिती सांबाळची तांची खटपट हांचेर त्या खबरांवरवीं उजवाड पडटालो.

अर्थिक स्वातंत्र्याचो मेळत तसो लाव घेवन उद्योगपती म्हूण फुके सवाय पदवी मेळयल्ल्या आमच्या देशांतल्या कांय व्यापाऱ्यांनीं जीं कांय खबरांपत्रां चलयल्लीं तांतुत ह्या दुसऱ्या स्वातंत्र्याचो प्रचार पयलीं सावन नेटान चलतालो. आमचे गांवचे खबरेकार ताचे वेल्यांनुच स्फूर्त घेवन आपल्यो खबरो रंगयताले. मदीं आकांताची परिस्थिती जाहीर जाल्ल्यान कांय दीस तांचो आवाज चिड्डल्लो तो ह्या दुसऱ्या स्वातंत्र्याच्या प्राप्तीवांगडा सुटलो. सगल्यांनी सोपुत घेतलो आनी हो सुटलेलो आवाज आतां केन्ना बसचोना अशें सांगून स्वातंत्र्याचीं समरगीतां परतीं व्हड ताळ्यान गांवक सुरवात केली. आमच्या वर्तमानपत्रांनीं ह्या स्वातंत्र्याचो भोग घेतना समाजातल्या बऱ्या बऱ्या स्थानार आशिल्ल्यांक हिणोवचेलो, अपशब्द दिवचेलो आनी आपल्या आड दिसतल्यांचें चारित्र्य इबाडचेलो उद्योग नव्या नेटान सुरू केलो.

पोटां भरून जातकुच बल्कांवार वणकून खबरो करतल्या आमच्या गांवच्या कांय जाळवणदारांनीं ह्यो खबरो नवे मस्तेंन सांगूंक सुरवात केली. बल्कावांची परंपरा राखतां राखतांच देशाची व्हड परंपरा आपुणुच राखता असो तांका दृष्टांत जावंक लागलो. गांवचें फुडारपण आपलेकडे आसा तशें भारताचें फुडारपण आपल्याक सोबसारक्या फुडाऱ्यांकडे पावलां हें पळोवन तांचे खोश्शेक खतखतो येतालो. आपले देशाचे कारभारी आतां विरोधकांक समाजभायरें करून आपल्या मार्गान देशाक म्हान दशेक पावयतले हाचो भास तांका जावंक लागलो. देशांतल्या नव्या स्वातंत्र्याचें वारें तांच्या आंगार आयिल्ल्यान तांच्यो खबरो अदीकुच रंगार येवंक लागल्यो.

ह्या आमच्या बल्कांवांवेल्या अधिवेशनाचें अध्यक्षपद सोबोवपी आमच्या गांवचो एक गिरेस्त व्यापारी आसा. बल्कावांवेले नित्याचे बसकेंत तो वर्तमानपत्रांवेल्या खबरांचेर अदीक उजवाड घालून आपल्या गिन्यानाची आपल्या खुशमस्कऱ्यां कडल्यान तुस्त करून

घेता. हो व्यापारी तसो चड शिकूंक ना पुण ताचो व्याप व्हड आसा आनी पयशां वांगडाच गिन्यानुय ताका आपशींच प्राप्त जालां. ताणें पुराणां–कितर्नां आयकुन फ़ाव तितलें ज्ञान संपादन केलां. त्या नेटार आपलीं मत्तां पटोवन दिवंक तो धर्माचे आधार दिवंक शिकला.

त्या वेळच्या आमच्या राज्यकर्त्यांचें सुडाचें राजकारण ताच्या सारकें पथ्यार पडलेलें. दुसऱ्यांचें उणें काडचेलें, तांचें चारित्र्य म्हेळोवचेलें, निंदा–नालस्ती करचेलें, राजकारण ताचे रुचीचें आसले गांवांत कोणें कितें भानगडी केल्यात, कोणें कोणाक नागयला, कोणाचें तोंड सकाळफुडें पळेल्यार दीस बरो वचना, कोणा–कोणाक देव ख्यास्त दिवचो आसा, ह्यो गांवावेल्यो गजाली तो पयलीं सावन ह्या आपल्या बल्फांवावेल्या शिश्यांक सांगतालोच. तांतूंत आतां राजकी मळावेल्यो भानगडी सांगपाक आनीक बरी संद मेळ्ळी.

वर्तमानपत्रार वाचिल्ल्या खबरांचो सार काडून ताका आपल्या झगझगीत उतरांचीं फ़ोण्णां दिवन आपल्या वखवखल्ल्या शिश्यांक दिल्या उतरांत तो पोन्न्या चालींचो अर्थ आधार दिवन तांकां सांगतालो. "आमी एके बायलेक ह्या देशाचें राज्य चलोवंक संद दिली हें वायट केलें. बायलांकडे कसलोच कारभार पातयेवक जायना. तीं केन्ना आमकां नरकांत व्हरत सांगू नज. तांतुंत विधवा बायलेचें तोंड पसून पळोवचें न्हय अशें आमच्या शास्त्रांत सांगलां तें ओगीच न्हय." अशी सुरवात करून मागीर तो बायलांविशीं नाका नाका त्यो गजाली सांगतालो.

ह्यो ताच्यो बायलांविशींच्यो खबरो चडशो थट्टेन जातालो. पुण केन्ना–केन्नाय त्यो तो तिडकीन सांगतालो. ताका ही तिडक येताली ती चड करून ताच्या घरचींच बायलां तांच्या उतराक जेन्ना मान दिनासलीं तेन्ना! ताच्यो सुनो ताच्या ह्या बायलांक काळखा-कुडींत दवरच्या पोन्न्या मताक तितलींशीं मान दिनासलीं. बायलो

म्हळचार गोठयांत दाव्यांक बांदच्यो गायो न्हय अशें म्हुण त्यो दांवें सोडून कांयवेळा घरांतल्या आनी घरा भायल्या कांय कामांनी लक्ष घालताल्यो. केन्नाकेन्नाय घराभायर सरून समाजिक वावरांनी वांटो घेतालीं. सांठोवन दवरलेलो पयसो आपल्याक कपडे जांव अळंकार हाडूक सांगिनासतना मोडटालीं. बायलांक घोव होच अळंकार ह्या तांच्या मांवाच्या मत्ता आड हें जातालें. त्या भायर तांचे घोव तांचे बुद्दीन चलून आपलें उतर मोडटात असो दुबाव ताका येतालो. असो ताच्या उतराक फ़ाव तो मान जेन्ना मेळनासलो तेन्ना तो तोंड काळें-निळें करून बल्कावांचेर येवन घरच्या बायलांचो राग सगळ्या बायलांचेर काडटालो. बायलांक घराभायर सोडूंक जायना ही पयली घोषणा दिवन जातकुच तो तिडकीन आपलें भाशण करतालो आनी तांतुंत बायलांच्या सभावांतलें नश्टेपण। हीनपण, चंचलपण आनी तांचे वेगवेगळे अवगुण तांच्या वेगवेगळ्या अवयवांवेल्यान रचिल्ल्या गाळींनीं सोबोवन सांगतालो. तें आयकून ताचे शिश्य तृप्त जाताले. बायलांच्या स्वातंत्र्या आड तो आसलो. बायल हीं वस्त काळखा कुडींत दवरचेली तिका सुर्याची किरणां लागल्यार ती तेंवेतली असो ताका भंय आसलो. बायलांक तो मात पुण मान दिनासलो. केदोय मान मेळयल्ली बायल आसूं तिका ह्या आमच्या व्यापारी मित्राफुडें हाडची! तिका तो आपल्या पोजड्या उतरांनी मान सकयल करुंक लायतलोच!

ताचीं पोजडीं उतरां ताच्या तोंडांतल्यान सहज भायर सरतालीं. पुण ताच्या शिश्यांक तीं अर्थान भरिल्लीं दिसतालीं. ज सामान्य मनशाक कितल्याशाच उतरांनी सांगूंक जायना तें ताच्यान अवघ्याच पोजड्या उतरांनी सांगूंक जाता अशें तांकां दिसतालें. ताचे भाशेक तीं अळंकार कशीं सोबतालीं. कोंकणींतल्या लिंग-वाङमयाचो तो पयलो प्रवर्तक म्हणूं येता. कोंकणींत ह्या वाङमयाचे दर्जेदार बरोवपी आसत पुण तांका ताची सर येवची ना. ताणीं वकाल

वस्तींतल्या गरीब लोकांच्या जांव गावड्या– कुणब्यांच्या आनीं मजु-रांच्या जिवनाचेर लिंगवाङमय बरयलां जायत पुण आमच्या ह्या व्यापारी मित्राचें लिंगवाङमय उंचल्या पांवडयावेल्या बायलांच्या जीवनाचेर आसा. जांका समाजांत मान आसा असल्या बाय-लाच्यो बारीकसाणी तो आपल्या पोजड्या उतरांनीं समर्थपणान व्यक्त करता. ताचो ह्रो लिंग–वेद कोणुय बरोवन काडीत जाल्यार ह्या वाङमयाचो खरो प्रवर्तक कोण तो कळटलो. मात तें वाङमय कोणाच्या-नुय बरोवंनज. ताका आंगांत खरी प्रतिभा आशिल्लो बरोवपी जाय. म्हज्या सारकिल्याक फक्त हाताक बोटां आसात म्हूण तें वाङमय बरोवंक जावचें ना. जण एकल्यान तांकता तितलेंच सांगचेलें !.

आमच्या व्यापारी मित्राच्या स्वभावाक लागून गांवच्यो बायलो ताचेफुडें वचूक धजनात. व्यापाराक लागून ताचेकडे वच्ची गरज पडलीच जाल्यार अदीक कांय उलय नासतना व्यापार घेवन वतात. तो वाद धालूंक गल्यार मान सकयल घालून परतें उतर दिनासतना फुडें वतात. ताचो पुत मांडार आसता तेन्नाच तीं ताच्या मांडार चडशीं येतात. ताच्या घरचीं बायलां पसून ताका परतें उतर दिवक वचनात. पुग उलयनासतना जायनेंच करतात.

आमच्या व्यापारी मित्राच्यो खबरो आमी बाजारांत एक-ठांय जावन जायते पावट आयकतात. अर्थिक मळार तसोच तो समाजिक आनी धर्मीक मळारुय आमचो एक फुडारी जावन आसा. गांवांत कसल्याय धर्म कृत्याक पटी भोंवडावचेली आसल्यार पयलो आंकडो घालचो मान ताका दितात. ताचो मांड व्हड. ठोक तसोच किरकोळ मालाचो तो व्यापारी. हाका लागून आमकां शारांतल्यान व्यापार हाडचे परस हांगाच जाय तो व्यापार मेळटा. तो तोंडान बास्कळ आसलो तरी धर्मिक आसा. किर्तनकारान सांगिल्ल्यो पुराणांतल्यो जाव म्हाभारत, रामायणांतल्यो जायत्यो काणयो ताका खबर आसात. आनी प्रसंगाप्रमाण तो आमका त्यो सांगता. शाळेंत

तो दोन यत्ता पसून शिकूंक ना तरी तो आमचो पंडीत. ताचेकडे आमी गांवचे शिक्षणीक कार्य पातयेतात. आमच्या गांवची शाळा तो आनी ताचे वांगडी चलयतात. गांवच्या देवळाचो तो एक खांबो आसा. राजकी मळारूय तो आमका जायतें शिकप दिता.

भारताचें प्रधानमंत्रीपद एके बायलेक मेळिल्लें तें तिचेकडल्यान वचून आपलो शिश्य सोबसारक्या एका व्हड शिस्तीच्या आनी आपली म्हान परंपरा राखपी तेजीश्ट दादल्याक मेळळें हाची ताका व्हडवीक दिसली. हो नवो प्रधानमंत्री आपली परंपरा राखतलो हाची ताका खात्री जाली. व्यापारी वर्गाक तो आधार दितलो हाचो ताका विस्वास जालो. आपल्या प्रधानमंत्र्या भोंवतणी जमलेल्या धर्मिश्ट, गिरेस्त, न्याय—नीत समजुपी, राजकी आखाडे गाजोवपी अशा तरातरांच्या मंत्र्यांची ताका व्हडवीक दिसली. हचा प्रधानमंत्र्याची नेम—निष्ठा ताका आवडली. जाण्टेपणात तरणपण राखून दवरूंक आपल्या अणभावांवेल्यान खावपा— पियेवपाविशीं लोकांक ताणें दिल्लो संदेश ताका मानवलो. आपले भशेन पचच करून उलोवन लोकांची तोंडा बंद करची ताची रीत पळोवन ताका तो आपलो खरो शिश्य दिसूंक लागलो. हो प्रधानमंत्री एक फांवट गोयांत आयलो तेन्ना ताच्या शारांत जाल्ल्या भाशणाक तो मुद्दम वचून आयलो. तो निसण चडून वयर माचयेर कसो गेलो ताचें वर्णन ताणें केलें. ताच्या तोंडार ताका खेरीत तेज दिसलें ! ताच्या भाशणांतलो उपदेश ताका मानवलो.

बरकावांर ताणे आपल्या प्रधानमंत्र्याची सगली वाखाणणी आमकां सांगली. ताचें वचनामृत कशें आसलें ताची रुच दिली. ताच्या खावपा —पियेवपाच्या नेमांक लागून तो आरोग्यान कसो घट आसा आनी तो जें कितें खाता—पिता ताका लागून ताच्या तोंडार कशी तामसाण मारता ताची वर्णना करून सांगली. आमच्या प्रधानमंत्र्याचें उलोवप चडशें आपल्या उलोवपाभशेन आसलें हेंय ताणें अभिमानान

सागलें. खरें आसत, ताचें भाषण खरेंच बरें जालें जांवक जाय. आमच्या व्यापारी मित्राच्या लिंग– वाङमयाचो खेरीत सुवाद एकाद्रें ताच्या भाशणाक आसचोना पुण स्वयंभू लिंगाचे नित्य तीर्थप्राशन केल्ल्यान ताचे वाचेक ताचे इतली न्हय तरी इल्ली तरी आडुकसाण आयल्याच जावंक जाय !

बायलांविशी दोगांयचींय मत्तां जुळटालीं. ह्या प्रधानमंत्र्यान एक पावट पत्रकार परिशदेंत सांगलें कि बायलांकडे कारभार पातयें-वक जायना. तीं वाट लावन उडयतात. जंय–जंय बायलो प्रधानमंत्री जाल्यात थंय–थंय त्या देशाची ताणीं वाट लायल्या आनी फुडेंय जंय–जंय बायलो कारभार करूंक येतल्यो थंय होच अण-भव येवचो आसा. हे ताचें अति शाणपणाचें उलोवप आयकुन आमच्या व्यापारी मित्राक आपलो शिश्य आपलींच उतरां उलयता काय दिसलो. 'पळेलें, हांवें हें पयलींच सांगूंक नासलें ?' बाय-लांक पातयेंवक जायना. तांका भायर सरूंक दिवंक जायना.' ह्या आमच्या व्यापारी मित्रान त्या दिसा गर्वान सांगलें. आपल्या प्रधानमंत्र्याची त्या दिसा ताणें खुप तोखणाय केली.

पुण ह्या प्रधानमंत्र्याच्या उलोवपाचो संसदेंत व्हडलो बोवाळ जालो. ताणें आपलीं उतरां फाटीं घेवंचीं म्हुण संसद–सदस्य ताच्या फाटल्यान लागले. विदेशांतल्या कांय राष्ट्रांत बायलो प्रधानमंत्री आसात. थंयच्या सरकारांकडे आपले संबंद बिगडत म्हुण ताच्याच पंगडांतले वांगडी पसून ताका ताचीं उतरां फाटीं घेवंक सांगूंक लागले.

आमच्या व्यापारी मित्राक ताणें तीं उतरां फाटीं घेवचीं न्हय अशें दिसतालें. पुण तेन्ना प्रधान मंत्र्यान आपुण फक्कत विदेशी बायलांची माफी मागीन पुण आपल्या देशांतल्या बाय-लांची माफी मागचोना अशें निर्धारान सांगलें. ताच्या पंगडां-तल्या कांय स्त्री– सदस्यांनीं आपल्याकुय हें ताचें मत बादता अशें

दिसत कुच ताका भारतीय बायलां विशींचेंय ताचें मत मातशें बदलूंक सांगलें. पुण तो भुरग्याभशेन हट्ट घेवन बसलो. तो आपलो बालहट्ट सोडीना हें पळोवन त्यो संसदेतल्यो बायलो मागीर भुरग्यान "दा" करतकूच आवयो जशो ताचें थापट दुखलां अशें दाखोवन भुरग्याचें समाधान करतात तशो फुडले खेपे ताणे तशें उलोवंक जायना अशें ताका सांगून ओगी बसल्यो.

आमचीं भुरगीं अमेरिकेक पावन अदीक बिगडटात. थंयचें वारें तांच्या कानांत रोखडेंच भरता. आमचो हो प्रधानमंत्री थंय गेल्लो तेन्ना ताणें थंयच्या पत्रकार परिशदांनीं खबरेकारांकडल्यान जायती अपुर्बाय करून घेतली. एके पत्रकार परिशदेंत भारतीय पद्धतीन तांका नमस्कार करून जेन्ना तो आपल्या सोवळच्या भेसांत बसकेर बसलो तेन्ना आपुण पत्रकार परिशदेक बसला काय पुजेक बसलां तें तो विसल्लो. एका खबरेकारान सुरवेकुच आदल्या प्रधानमंत्र्याची खबर काडटकूच ताणें 'शिव– शिव' करीत म्हळें. 'तिचें नाव तुमी सुरवेकुच कित्याक काडलें? सकाळीफुडें तिचें नांव घेंवंक जायना हें तुमकां खबर ना?' ही अस्सल सोवळी भारतीय जाप. खबरेकारांक नवी पुण खुपूच मौजेची दिसली. तिका ना करूंक आपल्या सी. आय. ए. छापाच्या प्रचाराच्या हत्यारापरस हें पोन्न्या काळाची मुद्रा आशिल्लें भारतीय बनावटीचें शस्त्र तांका अदीक परिणाम करपी दिसलें. आमच्या व्यापारी मित्राक जेन्ना आपल्या ह्या प्रधान मंत्र्यान अमेरिकेंत खबरेकारांक अशी जाप दिल्ली कळ्ळें तेन्ना आपुण बल्कावांचेर उलयतां तीं उतरां अमेरिकेक पावोवपी आपल्याक बरो शिश्य मेळ्ळो हाचो ब्रम्हानंद जालो.

हो आमच्या गांवचो व्यापारी आपल्या धर्माचो व्हड अभिमानी आसा. पुण ताणें आपल्याक जाय तसो आपल्या धर्माचो अर्थ काडला. दर एकल्याक आपल्याक जाय तसो धर्माचो अर्थ काडूंक

मेळटा. कोण धर्माचेर पैसो करता कोण धर्माच्या नांवान अनर्थ मांडता. काय जाणाक धर्माच्या भगव्या भेसाक कमरेक सुरो खोवची गरज पडटा. आमचो व्यापारी धर्माच्यो गजाली सांगून आपले धर्मिष्ट-पण सिद्ध करूंक सोदता. पुण ताच्या धर्माक दुसऱ्यांचो दुस्वास करची, दुसऱ्यांक हिणोवची, तांचें चारित्र्य म्हेळें करची, तशेंच बुरशां उतरांची गरज पडटा. कीर्तनकारान सांगिल्ल्यो धर्माच्यो काणयो तो आमका मोटे आवडीन सांगता. पुण ताच्या आचरणांत मानवधर्म उणो जाल्ल्यान ताचो धर्म बरें करचे परस पिडा चड दिता. वेद- उपनिषदांतले ताका व्हडलेशें कळना जायत पुण म्हा-भारतांतल्यो जायत्यो कथा तो जाणा. म्हाभारत ताच्या आवडीचो. तो ताका लागचो दिसता ताचें एक कारण म्हळ्यार ताचो आपल्या बापोल भावांकडे चड काळाचो आसलेलो तंटो ! कौरव- पांडव अस्त्रांनी झगडटाले. पुण हे बापोलभाव एकमेकांचेर गाळीचो शिवोर करून, एकमेका आड करणी – कर्तुबां करून, देवस्पणां करून, एक-मेकाक ना करचो प्रयत्न करतात. कोण घाडी- भगतांकडे वता तर कोण बोकडो मारता. ह्या देवस्पणाक ते आपलो धर्म म्हणटात. म्हा- भारतांतल्या कथां वरवीं ताका लोकाचे दोश दाखोवन दिवंक आयतीं उदारणां मेळटात. एकमेकाच्या दुस्वासाक लागून विनाशा-कडे वचूंक पळेल्या समाजांत तो चड घोळिल्ल्यान ताका म्हा-भारतांतल्यो कथा चड लागच्यो दिसतात.

आमचो व्यापारी मित्र बायलांची पोजड्या उतरांनी पुजा करताच पुण धर्माच्यो गजाली सांगतना पसून हो पोजडो पंडीत आपले भाशेक निवळ दवरिना. ताचो कर्ण कुंती ताका मेळूंक येतकूच अन थाश्रमांत दवल्लेल्या भुरग्याक व्हडलो जातकूच ताची आवय मेळूंक येवची आनी ताणें आपले आवयचे वासनेची धींड काडची तशी आपले आवयची पोजड्या उतरांनी धींड काडटा. अहिल्येक म्हातारो ऋषी कसो वरता आनी तो म्हातारो घोव घेवन ती कितें

करतली अशें येवजून इंद्र तिच्या घोवाचें रुप घेवन ती फ़कटोवन तिचो भोग कसो घेता तें तो आमकां रूचीन सांगता आनी त्या ऋषीक खरो प्रकार कळटकूच म्हातान्या ऋषीच्या सवंगाक आपली बायल काळखांत फ़टवली पुण संग करचेल्या ऐन त्या वेळार हो आपलो सदांचो घोव न्हय हें तिका कशें कळ्ळें ना हो दुभाव घेवन तिका तो थ्राप कसो दिता तें तो आमकां आपले खाशेले लिंग– वाङमयाचे प्रवर्तक भाशेंत सांगता. बायल साध्वी आसल्यार पसून पातयेवंचेली न्हय हें तो ताचे वेल्यान दाखोवंक सोदता. पुण हो ताचो न्याय दादल्यांक लागना. ताणीं आंगस्तर दवल्लें म्हुण कांय जायना अशें ताका दिसता.

ह्या बलकांवाचेर ताच्यो खबरो आयकूंक येवपी एक शिश्य आसा. तोय हिन्दू धर्माचो अभिमानी आनी हिन्दू शास्त्राचो पंडीत. त्याभायर ताणें ज्योतिशाचोय बरो अभ्यास केला. ताका भाटां आनी आगर आसात. नाल्लांच्या आनी मिठाच्या वेव्हारांत ताका ज्योतिशाच्या ज्ञानाचो खुब फ़ायदो जाता. व्यापाराक लागून जांव ताच्या धर्माच्या आनी ज्योतिशाच्या ज्ञानाक लागून ताका मेळूंक ताच्या घरा जायते जाण येतात. घरांत भायले कुडींत तो सोयऱ्यांकडे उलयत आसता. ताची बायल रांदचे कुडींत आसता. थंयच्यान तिका भायर सरूंक बंदी आसा. च्या पसून दिवंक भायर येवंक तो तिका मना करता. तिणें घरांतलों वावर करचो, भुरग्यांक सांबाळचें, कितें उलोवचें तें आपलेकडें उलोवचें, हेर संसारांतलें तिका कांय लागना अशी तिचे कडल्यान ताची अपेक्षा आसा. ताचे बायलेक केन्ना कोणें भायर सरिल्ली पळोवंक ना.

आपले बायले कडल्यान ही एकनिष्ठा सोदपी हो संत तसोच आपले बायलेकडे एक निष्ठ आसतलो अशें आमी धरिल्लें. पुण एक पावट एके विचित्र घडणुकेक लागून ताचो खरो स्वभाव आमकां कळून आयलो आनी ताका आमच्या समाजांत संभावितांमदें खरेंच स्थान फ़ाव हाची खात्री जाली.

आपलेकडे येवपी एक–दोन कामेऱ्यांकडे, तांची घरची परिस्थिती गरीब आसलेल्यान तीं गरजेक आसतात तेन्ना, आनी एका पयशिल्ल्या भाटांत लॉजात नाल्ल भरचो योग येता तेन्ना ताणें संबंद दवल्लेलो. ही खबर जेन्ना आमकां कळ्ळी तेन्ना आमकां अजाप जालें. खरी दानत आशिल्लो मनीस आपणें केल्ल्या दानाची खबर कोणांक दिना तशें ताणें हे संबंद चड दीस गुप्त दवल्लेले, पुण दान करची संवय लागिल्ल्यान ताणें एक पावट अपात्र बायलेक दान दिवची चुक केली आनी ताचें हे गुपित भायर फुटलें.

ही बायल कांसाटच्यान सदळ तशीच तोंडान वाचाळ आसली. कामेऱ्यांक सोडून तिचेकडे वच्चो ताका म्हुर्त केन्ना मेळ्ळो तें कोणाक खबर ना. पुण तो तिचेकडे बऱ्या म्हुर्तार पावलो ना. ताणें होय संबंद जायते दीस गुप्त दवल्लेलो. तो तिचेकडे बरोच संवकळीचो जातकूच सुरवेचें गिरायक जशें मागीर उधारेचें जाता तसो मागीर तो तिका नित्य पयशे फारीक करचे बदला आंगार घेतिल्ल्या कामाचे एकदम हिशोब करून पयशे दिवचे तसो एकदम अदमास करून म्हयन्या – म्हयन्याक पयशे दिवंक लागलो. एक फ़ावट अशेच हिशोबाचे पयशे फ़ारीक करपाचे वेळार ताणें रातच्या काळखांत तिका एक व्हडली पुण खोटी नोट दिली. सकाळफुडें मोठे खोशेन नोट वाटांवक पसऱ्यार वच जाल्यार पसरकारान ती नोट खोटी म्हुण सांगतकूच तिणें आकांत केलो. तिका थातारून ती नोट तिका कोणें दिल्ली म्हुण विचारतकूच तिणें खोटी नोट दिल्ल्याचें नांव पसरकाराक सांगलें आनी त्या बेमान मनशाचें पाड घालूंक ती ताका व्हड व्हडान गाळी घालूंक लागली. पसरकाराक ताचें नांव आयकून अजाप जालें. तो मनीस तसो न्हय म्हुण सांगतकूच तिचें तोंड आनीक सुटलें. तो आपल्याकडे केन्ना केन्ना येतालो तें सांगून तिका खबर आशिल्ल्यो ताच्यो हेर सगळ्या भागनगडीय सांगून ताच्या नावांन ती शंख करूंक लागली. तो आवाज आयकून लोक

जमतात तें पळोवन पसरकारान तिका आपल्या मांडार त्यो खबरो नाकात म्हुण दटायली. गांवच्या एका प्रतिष्ठित मनशाची लज वता हें पळोवन ताणें नोट दितल्याक खरें-खोटें कितें तें विचारून तिचो हिशोब करूंक लायता म्हुण तिका उतर दिवन तिका बेगीबेगीन थंयच्यान परतिली.

पुण आमचो हो संभावीत मित्र दुसऱ्या दिसा जानवें बदलून सोवळो जावंचो तसो परतों हांगच्यो – थंयच्यो खबरो करूंक बल्कांवाचेर हजर ! अशा वेळार आपल्या शिश्यांच्या चुकींचेर पांगरूण घालूंक आमचो व्यापारी मित्र तत्पर आसतालो.

हो व्यापारी मित्रुय केन्ना-केन्नाय तालार येतकूच आपल्या तरणेपणांतले कांय प्रताप सांगता. आपल्या बापायच्या वेळार तर नायकिणी दवरप हें व्हड प्रतिष्ठेचें लक्षण आसलें आनी आतांच हें म्हान कार्य करूंक चोरी जाल्या हें सांगून तो आपल्या बापायच्या व्हडपणाच्यो चार गजाली सांगता आनी आपुण त्या बापायचो पूत सोबतां हें पटोवन दिता. बायलांकडे पळोवंचो ताचो दृष्टिकोण सारको ना. बायल ही पांजऱ्यात दवरची वस्त अशें हे मानतात पुण ती भायर दिसत जाल्यार तिचेकडे तीर धरून पळेतात.

पसऱ्यार येतल्या बायलांची आमचो व्यापारी मित्र फ़कणां करता. आपल्या पयशांच्या नेटार आपल्याक तीं फ़काणां पचतात अशें तो धरता. कांय नुस्तेकार चेडवां ताच्या पसऱ्यार येतात तेन्ना तांचें नुस्तें बदतां बदतां तो तांचीं पोजड्या उतरांनी फ़काणां करता. नुस्त्याचे पयशे व्हरूंक तो तांका मुद्दम पसऱ्यार दोन-चार पावटी मारूंक लायता. अशा वेळार ताचो एक जाण्टो मित्र आपलो वेळ सारूंक थंय येता. तेन्ना ताच्या विनोदाक भरती येता. अशे जोरगतीच्या वेळार केन्नाकेन्नाय हो ताचो जाण्टो मित्र संद साधून द्रौपदी वस्त्र हरणाचो सिन केल्ले भाशेन पसऱ्यार आयिल्ल्या चेडवाचो घागरो उखलता. " किते भाटकारा, तुका सोबता हें ?" अशें त्या चेडवान

विचारतकुच दु:शासनाचो पार्ट करतल्या ह्या मनशाक आपलें जाण्टेपण येवजता आनी तो घागऱ्याचो पडदो उडोवन भिश्माभशेन आपलें तोंड परतिता.

आमच्या बल्कांवावेल्या पंडिताच्या म्हा-भारतांतल्या कथांक लागून धर्मिकपण वाडचें सोडून बुद्द नाडपणां चड शिकत म्हुण भंय दिसता. त्या म्हाकाव्यांतल्यो काव्याचो सगळो रोस पिळून भायर उंडोवन ताचो चोथो तो आमच्या फुडें दवरता. आनी परत्यो परत्यो त्योच गजाली आपल्या बुरशा उतरांनी सांगिल्ल्यान त्या चोथ्याकुय बेळसाण येता.

व्यासान म्हाभारत बरयतकुच तांतल्या काव्यापरस तांतंत वर्णिल्ल्या कथांतलो नाडपणाचो अर्थ तितलो लोक घेत असो नारदाक भंय जालो आनी नाड लोकांची नाट मेळिल्ल्या त्या मुनीन खंय व्यासाक निवळण म्हुण भागवत पुराण बरोवंक सांगलें!

पुण आमच्या व्यापारी मित्राक म्हाभारतूच पथ्यार पडलां. तांतूंत वर्णिल्ल्या नुस्त्याच्या वासाचो सुंदऱ्यो म्हळचार आपल्या पसऱ्यार येतात तीं नुस्तेकारांच अशें ताका दिसता. अर्जुनाच्या फ़ाटल्यान अप्सरा, नागकन्या आनी राक्षसिणीय लागिल्ल्यो त्यो खबरो तो आपल्या तरनाटया शिश्यांक सांगता तेन्ना तांकाय वाटेर वतना कांय चळयो आपल्याक पळोवनूच हांसतात काय दिसता. आनी ते तांका दोळो मारतात. बळरामान सुभद्रेक दुर्योधनाक दिवंची थारायली पुण कृष्णान आपले भयणीक बळयां उबारून व्हर म्हुण अर्जुनाक बुद्द दिली हें आमच्या कांय तरनाटयांचे प्रेम- पीडेन भरमीश्ट जाल्ले तकलेंत भरतकूच ते आपणें प्रेम केल्ले चलयेक बळयां पिकनिकेक व्हरूंक सोदतात आनी तें शक्य जायना जाल्यार तिच्या भावाक हॉटेलांत व्हरून च्या दितात.

आमच्या व्यापारी मित्राच्यो म्हाभारतांतल्यो काणयो जाण्टया वांगडा भुरगींय आयकतात तेन्ना तर भंय दिसता.. त्या

झुजाची खबर जाण्टया नेण्टयांक सांगताना तो नाका जाल्ल्यो सुचोवण्यो करता. 'पांडवांनी कौरवांकडे झुंज मांडलें तें कितें तांका मारून तांच्यो बायलो मेळच्यो म्हुण न्हय. कौरवांनीं पांडवांक नाखुट-भर पसून रांवची भूंय मेळची ना म्हुण सांगलें आनी तांचे बायलेचें कापड सोडोवंक ताणीं हात घालो तेन्ना उपाय नासून तांकां कौरवांची कत्तल करची पडली! अशी सुरवात करून तो फुडली कथा सांगता. भुरग्यांक हो कथेचो कसाय इल्लो कडू. इल्लो गोड लागता. पुण हचा बाळफडूक लागून फुडें पावन तीं आपल्या जाण्टेल्यांचें नांव वयर काडूंक फ़ाटीं रावचीं नात काय दिसतात.

भर सभेंत द्रौपदीचें वस्त्र हरण जाता आसतना भीष्म– द्रोण बी व्हडले व्हडले जाण्टेले थंय बशिल्ले पुण ते 'पुरुष पयशांचो दास' अशें म्हुण ओगी रावले आनी कांय करूंक पावलेना हें मात सांग-तना ताका आपल्या पयशांनी लोकांक आपल्याच्यान कशे दास करू येता हें येवजून खातखुतल्यो जातात. पैशांचो दास पुरुष आनी पुरुषाची दासी बायल हो आपल्याक एक फ़ावतसो नेम ताका सांपडला. पुण आपल्या धर्माचो तो अभिमानी आसा. तो आपल्या धर्माचे आचार– विचार पाळटा. तसो तो आपलो धर्म नेम-निष्ठेन चलयता. तो नित्य देवळांत वचपी. जागोर, जात्रा चुको-वपी न्हय. कितनां तर ताच्या एकदम आवडींची वाचप चड नाशि-ल्ल्यान हीं कितनां आयकुनुच पुराणांतल्यो जायत्यो कथा ताका खबर जाल्यात. केन्ना केन्ना ताच्या घरांत देवस्पणां जातात. घरांत थंडाय आसची आनी घरची लक्ष्मी वच्ची न्हय म्हुण भट ताका तरातरांची विधानां सांगता. तीं तो भक्ति भावान करता.

ताच्या हिन्दू धर्मांत नव्या– पोन्न्या आनी घुस्पा –गोंदळाच्या आचार – विचारांचो खवदळ जाला. दावे सोंडयेच्या गणपतीक तो भिना तर उजवे सोंडयेचे गणपतीक थर्त भिता. कांय देवाच्यो मुर्ती घरांत दवल्लेल्यान ताका नकलामी जावंक लागली. म्हुण ताणें त्यो

देवळांत पावयल्यो. ' एकादशी दिसा तूं जेवता आनी त्या दिसा म्हाका पान कित्याक ना ?' अशें ताच्या देवाऱ्यांतल्या एका देवान ताका सपनांत येवन विचाल्लें. तेन्नाच्यान त्या देवाक तो वेगळो पुजता आणि ताका एकादशीचें पांन दाखयता. शीत वाळून देवाक निवेद्य दाखोवप योग्य आनी वाळीनासताना दाखयल्लें शीत स्मशानांतल्या शीता सारकें असो विचित्र निर्णय ताका ताच्या पुरोयता कडल्यान मेळ्ळा. देवाक आरत दाखयतना ती चुकून वाऱ्यान पालवल्यार देवाची सगळी केल्ली सेवा वेर्थ वता आनी परती रुयास्त जाता ह्या भंयान आरत दाख-यतना ताचो हात कडकडटा आनी वात पालवता काय जाता.

धर्माचे आचार मानपी ताचो एक बल्कावावेलो वांगडी आमच्या शेजरा रावता. ताका बापायन भाटां— बेसां दवल्लेलीं आसात. भाटांनी पाडो करून नाल्ल विकचेलो उद्योग तो करता. तेंच ताचें म्हत्वाचें काम. त्या भायर व्हडलींशी म्हत्वाचीं कामां करची ताका गरज ना. घरांतल्यान भायर सरून वतना ताका जायत्यो आडखळी येतात. तो बरो न्हेसून शृन्गारून घरांतल्या भायर सरता तेन्ना रिकामी कळशी घेवन बायल दिसली जाल्यार परतो घरांत येता. माजर आडवें गेल्यार तर ताचें काम कशेंच जायना. त्या दिसा पाडो पाड पडलोच म्हूण समजूचें. कपलाक कुकूम नाशिल्ली बायल भायर सरतना दिसली जाल्यांर माडाक नाल्ल कशे पडटले ? सगळे देंठूच जातात! ताका भायर सरून वचचे वाटेर रस्त्याचे कडेक एक बांय लागता. थंय उदक हाडूंक जायत्यो बायलो वतात. त्यो रस्तो पार करून वतना ताका मेळटात. रिकामी दोड घेवन उदकाक वचपी बायल दिसली जाल्यार तो परतता. आनी ती थोडयाच वेळान उदक भरून परती येताशी पळोवन भायर सरता. अशी भरिल्ली दोड घेवन बायल दिसल्या बराबर ताचीं कामां बरीं जातात. एक बायल दोड भरून घेवन बांयचेर पावंक त्याच वेळार दुसरी बायल रिकामी दोड घेवन बांयचेर उदक काडूंक वता ती दिसत

जाल्यार मात ताचें जाल्लें काम बिगडटा आनी ताका मिश्र फ़ळ मेळ्टा. असो कामाक भायर सरून वतना ताका कितलेशेच पावट परतो येवंचो प्रसंग येता.

आमच्या भाटकाराचो चड घात मारता ती आमच्या शेजरा आसलेली एक विधवा बायल. लग्न जातकूच तिचो घोव थोडयाच वर्सांनीं मेलो. तिका भुरगें–बाळ कोण ना. हरशीं ती बायल मायेस्त आनी प्रसंगाक पावपी. गांवच्या बायलांक तिचो व्हडलो धीर दिसता. तिका गांवठी ओखदांची बरी खबर आशिल्ल्यान आनी तिचो हातगुण बरो असो गांवचो समज आशिल्ल्यान गावांत कोणूय बरो ना जालो जाल्यार पयलें तिचें वखद जाता. ती हरशीं भावार्थी बायल. पुण तिचो व्हडलो गुन्याव जालो तो म्हळ्यार तिचो घोव तिचे पयलीं मेलो आनी तिचो कुकूम पुसलो. ह्या भाटकाराच्या घरा फुडेंच तिचें घर आशिल्ल्यान भाटकार कामाक भायर सरता आनी ती घराभायर दिसता अशें जायते पावट जावन भाटकाराक परतो घरा येवंचो पडटा. भाटकाराक आपलो अपशकून नाका अशें येवजून ती उपकारी बायल जाता तितली भाटकार भायर सरून वच्चे वेळार घराभितर रावता. पुण भाटकाराचो भायर सरून वच्चो वेळ सारको थारिल्लो नासता. भाटांच्या पाडयाक, पयशांचे वसुलेक, आगरार मीठ पळोवंक, आंब्याचे रेंद लावंक, माडांक सारें लागलें काय पळोवंक जावं काजी कशी चवल्ल्यात ते पळोवंक ताका केन्नाय भायर सरून वच्चो पडटा. तेन्ना ती बायल वाटेर दिसतकूच पाडेकार घात मारीत, जांव आगराक खावटें पडत, आंब्याचें रेंद सवाय वचत, काजीचो चंवर करपत असो ताका भंय जाता आनी तो परतता. मागीर ती भितर वतकूच हो भायर सरून वता तेन्ना हीं सगळीं येवचेलीं अरिश्टां पयस जातात. शेजराच्या भुरग्यांनी हीं अरिश्टां जायते पावट पयस केल्यांत. भाटकार भायर सरल्लेलो भुरग्यांनी पळेलो जाल्यार तीं धांव

मारून ते बायलेक ती खबर दितात आनी ती बायल तेन्ना घरांत भितर रावन भाटकाराक वाट मेकळी करून दिता.

पुण भुरग्यांनी जांव जाण्टेल्यांनी कितलोय उपाय केलो म्हुण भाटकाराक ती दिसपाचेच प्रसंग चड आयल्यात. जेन्ना तिचो घोव भायर पडलो तितल्याच अदमासाक भाटकाराचो बापूय भायर पडलेलो. तेन्नाच्यान भाटां पळोवंची जापसालदारकी आमच्या भाट काराचेर आयिल्ली. भाटकाराचें ऐन तरणे पणार खरे कर्तबगारीक सुरवात जाली तेन्नाच ही विधवा जावन ताका अपशकुनाक कारण जाली. तिका खबर आसू नासू. भाटकाराचे कर्तबगारीचे वाटेर ती मोडलेलो सांकव कशी जावन रावल्या. ती मेल्याबगर ही आड-खळ पयस जावची ना. दोगांय एकेच पिरायेचीं आशिल्ल्यान तशेंच कितेंय घडल्याबगर ती चड पयलीं मरत आनी भाटकाराक बरी दशा भोगूंक जायतीं वरसां मेळत अशीं चिन्नां दिसनात. जेन्ना ती आपलो घोव पयलो मरून आपुण फाटीं रावल्या ह्या नंबर एक गुन्या-वाक लागून आनी आमच्या भाटकाराक जल्मभर अपशकून केला ह्या-नंबर दोन गुन्यावाक लागून नरकांत वच्चे वाटेक लागतली आनी आमचो भाटकार हिन्दू धर्माचे वेगवेगळे आचार पाळिल्ल्यान सर्गार वच्चे वाटेक लागतलो तेन्नाच तीं एकमेकाचे वाटेचीं पयस जातलीं अशें दिसता.

शेजराक एकूच अपशकुनी सगळी वाट लावंक पुरो! हरशीं, आमच्या भाटकाराक शेजरा बरो शकून करपी जायते जाण आसात. ताच्या घरा लागसार एक समाजसेवक रावता. ताची बायल ताचे तरणेपणांत मरत पसून तो दुसरें लग्न जायनासतना समाजाची सेवा करूंक आंकवार रावला. गांवांत देवळांचे, शाळेंचें, जांव पंचाय-तीचें काम आसू तो सगल्यांत फुडें आसता. ह्या समाजाच्या वावराभायर तो वावराच्यो पावण्यो हाडटा. ताच्या घरांत

लक्ष्मी वावुरता. त्या भायर घरांत वावरूंक ताणें एक मध्यम पिरायेची रानतली दवल्ल्या. भायर सरतना भाटकाराची तिचेर नदर पडत जाल्यार तें बरें लक्षण. कित्याक, एक तर ती अन्नपुर्णा आनी तिच्या कपलार घसघशीत कुकूम आसा आनी दुसरें म्हल्यार कोणाच्या तरी नावांन तिच्या गळयांत व्हडलें मंगळसुत्र लांबता. पुण फुडें पावन ते कपल फुटकेचें घर वाटेर मेळिल्ल्यान सगलो घात जाता.

हे मंगळ– अमंगळाचे समज म्हळ्यार थोड्यांचो धर्म जाला. थोड्यांचो धर्म म्हळ्यार देवळांच्या प्राकारांत वचून लाठी वावडूंक शिकप. थोड्यांचो धर्म म्हळ्यार जातीं– जातीं भितर तंटे लावप. कांय जाणांचो धर्म दुसऱ्या धर्माविशीं कडुपण धरप. कांय जाणांक हिन्दु धर्म म्हळ्यार आपले वरी मनात धर्माचें कडु-पण धरिना ताका फ़ारान मारप. विवेकानंदाच्या मार्गा वेल्यान तांचो धर्माचो रथ आनंद मार्गाचेर पावला !

आमच्या व्यापारी मित्राचें धर्मशास्त्र कडवसाणीन भल्लेलें आसा. गाळी, स्त्राप हे ताचे मंत्र. ताचे अळंग जिणेक अमंगळ वाचा फुट्टा. ताच्या मोदाक परतें – परतें आदन येता. तोंडांतल्यान जास्तींची वाफ़ सुट्टा आनी ताच्या दाडमणांतल्यान वीख रकूंक लागता.

"ती" हें प्रकरण बरोवप्यान आपल्या पुस्तकांतल्यान काडून उडयलां हें आयकून तिचेर ताणें कितें– कितें बरयलां जायत हाची बल्कांवाचेर चर्चा करतना अशेंच ताच्या मोदाक आदन आयलें. आपल्या विकृत मेंदवांतल्यान तरां– तरांची तर्का काडून तिचेर ताणे तरा-तरानां आरोप केले. गाळी – स्त्रापांनी ताणें आपल्या शिश्यांच्या कानांची तृप्ती केली. बायलमनशेचे जे–जे अवगुण ताच्या मेंद-वाक सुवताले तितलेय ताणें तिका हाडून दसयलें. त्या बरोवयान तिच्या घरांत रावन तिचे कितें कितें दोश पळेले कोण जाणा र!

पुण ह्या व्यापारी मित्रान ह्या बल्कांवाचेल्यान तिच्यो घरांतल्यो करण्यो ज्यो अंतर्ज्ञानांतल्यान पळेल्लो ताची वर्णनां करून 'ती' हें प्रकरण परतून बरयल्यार तेंच अदीक गाजतलें हांतून दुबाव ना. तिच्या ह्या अत्याचाराक लागून तिका कितें–कितें ख्यास्त फ़ाव हाचेर मागीर बल्कांवाचेर चर्चा जाली. कोणे तिका फ़ारान मारचेली शिक्षा फ़र्मायली. कोणें सांगलें कि तिका बंदखणीत कुसोवन–कुसोवन मारूंक जाय. आमच्या ज्योतिषी पंडितान तिची पत्रिका मांडिल्ली. ताचेवेल्यान ती शनि तत्त्वाची थारिल्ली. तिचे पत्रि-केंत गुरू झेम काडटालो. मंगळ शनिचेर वांकडे नदरेन पळेतालो. राहू– केतु उचंबळ जाल्ले. रवि न्हिदूक गेल्लो. चंद्राक सुकतडो लागिल्लो. शुक्र पापग्रहान दुषित जावन व्यभिचारी जाल्लो जाल्यार बुध वायट स्थानार पडून फ़टींग जाल्लो तिचे पत्रिकेवेल्यान ती हट्टी आनी एकाधिकारशाही चलोवपी म्हुण सारकें कळटालें. तिचें हृदयस्थान बिघडलेलें तिचें पुत्रस्थान तिचे पुत तिका फ़ोंडांत घालतले हें दाखोवन दितालें. तिचें पतिस्थान तिच्या घोवाक घातक हें कळ-टालें. तिच्या कर्मस्थानावेल्यान तिची काम करचेली रीत सांपड-टाली आनी तिच्या भाग्यस्थानावेल्यान ती भारताचेर दुर्भाग्य हाड-टली हें सारकें समजतालें. तिच्या मृत्युस्थानावेल्यान तिका फ़ातरान चेंचावन जांव अपघातान दुर्मरण येतलें हें सिद्ध जाल्लें. तिच्या धन-स्थानावेल्यान तिणें हजारांच्या नोटांचे गठ्ठे बांदून दवल्ल्यात अनी उल्लेले पयशे स्विस बँकांनी घाल्यात हें उक्तें दिसतालें. तिच्या पितृस्थानावेल्यान तिच्या बापायचें नांव भारताच्या इतिहासांतल्यान पुसून वतलें हें कळटालें. तिच्या शत्रुस्थानावेल्यान तिचे शत्रु तिका बंदखणींत उडोवन भारतांत संपूर्ण क्रांती घडोवन हाडटले हें सारकें दिसतालें.

आमच्या ज्योतिशी पंडिताचो सल्लो खरो म्हळ्यार स्वतःचें कल्याण जांवक जाय जाल्यार तिणे मानपाचो ! ती जेन्ना

निवडणुकेच्या प्रचाराक देशभर भोंवक लागली तेन्ना कांय शात्रांनी गुंडांनी तिचेर फ़ातर माल्ले. तिका देशांत व्हड विरोध आसा हें सारकें दिसून येतालें. कित्याक तर हे तिचेर मारिल्ले फ़ातर खंय बरेच व्हड आसले. तांतलो एक व्हडलो फ़ातर तिचेर पडून तिचो कपाळमोक्ष जातलो अशें आमच्या ज्योतिशी पंडितान तिचें भविश्य केल्लें. एक फ़ातोर ती मोटारींतल्यान वतना तिचेर बसचेलो मात्सो चुकलो. आमच्या ज्योतिशाचें भविश्य खरें जांवचेलें. पुण शनिक लागून ती वाटावली जावंक जाय. कित्याक शनिक जशीं भोंवतणीं कडीं आसतात तशीं तिचे भोंवतणी तिच्या रक्षकांनी कडीं केल्लीं म्हूणूनुच ती वाटावली. 'तिणें भायर भोंवक जाय ना अशें हावें तिका सांगिल्लेंच ' अशें तिच्या क्रांतीकारी विरोधकान एका मुलाखतींत खबरे कारांक सांगलें. तेन्ना आमच्या ज्योतिशी पंडितानुय आपलो तिका सल्लो तोच आसा अशें आमका सांगलें. हे सांगणेक आमच्या व्यापारी मित्रान आपलो बायलांविशींचो सर्वसामान्य नेम लावन सांगलें 'बायलांनी खरें म्हळ्यार भायर भोवचेली गरजूच ना. आज तिका फ़ातरांनीं मारतले. फ़ाल्यां कितें-कितें करीत सांगू नज !' बायलांनी भायर भोंवतकुच तांची कशी कशी लज काडू येता हें ताणें मागीर आपले खाशेले क्रांतिकारी भाशेंत सांगलें. तिच्या अपरंपार पातकांक लागून तिचें घडये रस्त्यावेर अशेंच पतन जांवचेलें आसा हें मागीर आपल्या अंतर्ज्ञानातल्यान तिचीं पातकां पळोवन ताणें सांगलें. 'ती 'हच्या गाळिल्ल्या प्रकरणांत त्या सर्वसाक्षी बरोवप्यान तिचीं जीं पातकांबरोवन दंवल्लेली तीं उजवाडाक आयलींना तरी तें हातबरप चित्रगुप्तान सांबाळुन दवल्लेलें आसा आनी त्या सांगू नज जाल्ल्या पातकांक लागून तिका रस्त्याचेर सुण्याचें मरण येवचें आसा असो थाराव मागीर आमच्या बल्कांवावेले बसकेंत पास जालो. आपल्या धर्माक अपशकून करतले ते बायलेचें मरण लागीं आसा अशें येवजून ते

आपल्याचेरुच खोशी जाले.

बायलांनी भायर सरूंक जायना आनी घोव नाशिल्ली बायल अपशकुनी जाता हें धर्माचें पिशें खुबोवन ताणीं कितलेंय सांगलें तरी तिचेर ते अशे जळपाक हें एकूच कारण आसू नज. ह्या पिशा-वांगडा मस्ती आनी सुवार्थ आसा. देशांतल्या समाजिक बदलाची बेतकाठी तिच्या हातांत आयल्या आनी ती आपल्याचेर चम्म करून बसता ताचे दुख लागून तांचीं पिशीं आड्डूंक लागतात. आपले पोन्ने सरंजामशाहीचें जिणेंत ती आडखळ हाडटा हांचो तांच्या मनाक जांच जाता. आपल्याक बऱ्याक पडटात त्या आपल्या पोरण्या चालींक ती फ़ापरायता हाका लागून तांकां भंय दिसता. तिची एक-अेक करणी ना म्हळ्यार तांका बंदूक लागल्या. ब्यांको सामान्य लोकांक उक्त्यो जाल्यो तेन्ना थंयचे आपले म्हाजनकीक बाधा आयलीं अशें तांकां दिसूंक लागलें. आपुणुच तितले सोवळे आनी सामान्य लोक कर्जा बुडयतले अशें तांचें पिशें आड्डूंक लागलें. असपृश्य, दीन–दुबळे आनी आर्थिक गुलामगिरींत पडिल्ले लोक जेन्ना आपले जिणेंतलो शेंकड्यानी वर्सांचो काळोख पयस जावन अर्थिक स्वातंत्र्याचो सूर्य उदेता हें पळोवन खोइशेन आळसाय सोडून उठले तेन्ना हांका आपले जिणेंत रात आयिल्लेवरीं दिसूंक लागली. बायलांक दासी, लॉजांतलीं कामेऱ्यां म्हुण पळेतल्यांक तीं आतां आपल्या बराबर स्वाभिमानान वावुरतात तें पळोंव नज जालें. आपल्या बाय-लांची लज काडून परदेशी बायलांक पांयां पडूंक पोंग घेतिल्ल्यांक भारतीय बायलेची खोट ते फ़ाटीर पोंग काडूंक पडिल्ली सणसणूंक लागली. ती आतां आपल्यावेलो अन्याय पयस करूंक लाटण्यो वावुडपी मोबैंवाळीव उरूंक ना तर अन्यायाक पायापोंदा मस्तुचेली तिच्या आंगात शक्ती अवतरल्या तें पळोवन तांचें पिशें किळांच मारूंक लागलें. आतां किळांच — आड्ड्यो मारल्यार तिची योग्यताय

कमी जायना आनी आपल्याक मालक म्हुण मिरोंवंक मेळना हें तांकां कळून आयलें. तिच्या समाजिक वावरावेल्यान ती कोणती थारतली. तिच्या माथ्यार बसून ती कोण हें सांगूक आतां जांवचें ना, जावं तिच्या घरांत रात्रीपोल्लांत रावन ती कोण हें सांगची आतां गरज उरूंक ना हें पळोवन तांचे हात धल्ले.

आमचे हे बल्कांवार लोडेवन तिच्यो गजाली करतले पोन्न सरंजामशाहींतूच आजून वावुरतात. हेर गजालीं बराबर धर्माचेंय भांडवल ताणीं केलां. देवाक ते भांडवलदार म्हुण वळखतात आनी मिथेपण करप ही भक्ती समजतात. समाजांत नवें घोळटलें वारें तांकां सोंसना. पोरणी सरंजाम शाही मोडूंक आयली. तिचे खांबे मोडूंक पावले तिचे चडशे फ़ातर निखळळे. तरी हे निमणे फ़ातर कशे आजून घांस घेवन कशे तरी तग मारून आसात. बल्कांवाचेर बसून येतल्या-वतल्यांची फ़काणां करप, लोकांक हिणोवन आपलें वरतेंपण दाखोवप, बायलांक दासींवरी लेखप, धर्माचो भयरोजळप करून समाजांत सोवळे म्हुण मिरोवप हातुंत तांचे दीस गेले. आतां बदलते समाज रचनेंत ते आपल्यांक स्थान सोदतात. पुण तांची मुळची खोड वचना. तांचीं देवस्थानां, तांच्यो शिक्षण संस्था, तांच्यो समाजिक संस्था, ह्या सगल्यांक तांच्या बुरशेल्ल्या आचार- विचारांचीं बाधा जाल्ली आसा. समाजांत ते आपल्याक एक खेरीत उंचेलें स्थान सोदतात. देवान आपल्याक निर्मितनाच हेरांपरस उंच निर्मिल्यात असो तांचो समज जाला. 'बऱ्यांवायट मार्गांनी ताणीं घरांत लक्ष्मी हाडल्या. ती आपल्या घरांतूच उरची आनी ते चंचळ लक्ष्मीन आपल्या घरचो हुमरो हुपून भायर सरचें न्हय म्हुण ते ते लक्ष्मीक कुकुम लायतात आनी तिची होंट भरीत आसात. गांवांत चडांत चड धर्मिश्ट म्हुण दाखोवन धर्माच्या कामांत पसून हेरांनी आपलो हुकूम मानचो अशें तांकां दिसता.

उत्सवांनी देवा इतलीच तांकां आपली मिरास दाखोवंक जाय. गांवचे लक्ष्मीची पुजा आपुण करतले हेरांनी तिका पयशि-ल्ल्यान पायां पडल्यार पुरो अशें तांका दिसता. वर्सांची वर्सां देवळांच्या कॉमिसांवांचो कारभार चलोवन ते देवाची अखंड भक्ती करतात. देवाची भेट घेवंचे पयलीं लोकांनी आपले भेटेक येवंचें अशें तांका दिसता.

गांवांत हिन्दु धर्माच्या लोकांचो तांकां एकवट जाय. आमचो समाज अखंड उरचो म्हुण ते वावुरतात. सगल्यांनी एकठांय रावन आपलो धर्म पाळून आपलो एकवट घट दवरचो अशें तांका दिसता. आमच्या गांवांविशी तांची एक रम्य कल्पना आसा. गांवचो एकवट घट जावंक सगल्यांनी आपल्या भोंवतणी एकठांय जावन आपल्याक दसून रावचें अशी तांची इत्सा आसा. आपणे अतोनात संपत्ती केल्या आनी हेरांचें शोशण करून आपुण वयर सल्ल्यात हांची ह्या एकवटाक कांय आडखळ येवची गरज ना अशें तांकां दिसता. गांवच्या गरीब लोकांचे जिणेच्या चिखलांतल्यान आपले जिणेंत परमळ हाडपी माळकां वयर सरचीं आनी तांतुतल्यान वयर सल्लेले. लक्ष्मीन आपल्या-कुच पावचें अशें तांका दिसता. ओंडयांतल्या साळकांक चिखलाची बरकत जाल्ली जाय तशें हांकां गांवच्या लोकांचें बरें जाल्लें जाय ! तांची गावच्या एकवटाची आनी अखंडपणाची कल्पना साधारण अशी आसा.

ते लक्ष्मीचे मोटे भक्त. तिची खेरीज कृपा तांचेर जाल्या. देवीचें लक्ष्मीचें एकूच रुप तांकां आवडलां. तिचें पार्वतीचें, दुर्गेचें सरस्वतीचें रुप तांकां सारकें झळकूक ना. आतां गांवच्यो शाळो पाणी आपल्या ताब्यांत दवल्ल्यात. तशेंच पुराणांतल्यो, म्हाभारतांतल्यो कथा ते आमकां सांगतात तेन्ना आपले जीबेर सरस्वती घोळटा अशें तांकां दिसता. पुण तांचे तोंडची गलिच्छ, अमंगळ भाशा आयकल्यार सरस्वती तांच्या तोंडार थुकल्या काय दिसता.

खोटे विद्येक लागून तांची नदर विकृत जाल्या. बऱ्या– बऱ्यांत पसून तांकां वायट गुण दिसतात. एकाद्रो नम्र आनी चड ना उलोवपी मनीस तांकां भितल्ले बुद्धीचो दिसता. आपल्या कामांत मग्न आसलेलो मनीस तांकां मनीसघाणो दिसता, मर्यादेन चलपी तांकां भिजूड दिसता, निग्रही मनीस तांकां मुर्दाड दिसता, निगर्वी तांकां खालतो दिसता. खंयचीय घरांतल्यान भायर सरिल्ली बायल तांका वायट चालीची दिसता! अशे तरातरांचे दुर्गुण आंगांत आसलेल्या लोकांक ते सुदारूंक सोदतात.

तांच्या मजगतीं ते धर्मिक जागृताय हाडूंक सोदतात. गांवच्या उत्सवांचें फुडारपण तांचेकडे आसा. गावांत समाजिक सुधारणा करूंक ते वावुरतात. रेब जाल्ले लोकांचे जीणेंत साळकांवेले गुंगुल्ले कशे अळंग जिणेचो आस्वाद ते घेतात आनी गूऽऽगूऽऽ करीत ते जिणेचीं गीतां गावन गांवचे जिणेंत काव्य हाडटात. ते आमच्या गांवचें फुडारपण करतात, आनी गांवांक देख दिवंक सोदतात.

आमच्या गांवांत कांय धर्मिक उत्सव जातात. तांतूत वर्साक एक पावट अखंड भजनी सप्ताहाचो मुखेल उत्सव आसा. तांतूंत ते आमचें फुडारपण करतात. ह्या उत्सवाचो सगलो कारभार तांच्या हातांत आसा. हे हुकूम सोडून लोकांकडल्यान कामां करून घेतात. देवाफुडें भजन हेर लोक करतात, तर देवाक आरत दाखोवचेलें काम ते करतात. ते देवाक गाराणे घालतात तेन्ना हेर लोक फ़ाटल्यान रावन 'हय सायबा, हय सायबा' करतात.

गांवांतलो समाजिक वावर ते चलयतात. गांवची शाळा म्हळ्यार गावांत लोकांकडे झगडूंक, मेळत ताचो आवय –बापुय वयर काडूंक तांकां बरो जागो आसा. शाळेच्या कामांत तांचीं नित्य झगडीं चलिल्लीं आसतत. आपुण अेक शिक्षणिक संस्था चलयता हो गर्व सोडलो जाल्यार शिक्षणिक मळावेलें तांकां व्हडलेंशें

कांय कळना आनी व्हडलेंशें कांय पडलेलें नासता. शाळेंतल्या शिक्ष-कांच्यो ते परिक्षा घेतात. तांकां मेळत त्यो ऑर्डी सोडटात आनी तांचेकडेन तंटो येत जाल्यार शाळेमार्फत तांकां कोर्टांत व्हरूंक ते फुरफुरतात. शाळेंतले एके बाईक आपुण सांगता तशी ती शिकयना म्हुण ताणीं कोर्टांत व्हरून बारा वर्सां तिचे विरुद्ध केश चलोवन उच्चांक केला. भायल्या भायर सरकारामार्फत ते तिका घरा बसोवन पगार दितात. ते तिच्या विरुद्ध वेळ पडल्यार सुप्रीम कोर्टांत पसून वच्चे आसात. आयुष्यांत तिणें एक म्हयनो पसून शाळेंत शिकोवना. शाळेंत येवन एक म्हयनो जावचे पयलींच ते पदवीधर बायलेक शिकोवंक येना म्हुण ताणीं सर्टिफ़िकेट दिलें आनी ती तें सर्टिफ़िकेट घेना म्हुण ताणी तिका कोर्टांत व्हेली. ती तेन्ना आंकवार आसली. आतां लग्न जावन तिका तीन भुरगीं आसात. ती घडये घरा बसून कोर्टांत केश चलता–चलतांच निवृत्त जावंची आसा. बाय-लांक जागो खंयचो हें मात ताणीं हे गजालीवेल्यान भेसबरो दाखो-वन दिला.

देवाइतलोच तांचो न्यायाधिशांचेर विस्वास आसा. निम्माणे तो आपले वाटेन रावतलो हाची तांकां खात्री आसा. तांच्या अपुर्वा-येच्या प्रधानमंडयान जेन्ना भारताची प्रधानमंत्री जावचो गुन्यांव केल्ले बायलेक कारभार करूंक कळ्ळोना म्हुण कोर्टांत व्हेली तेन्ना तांकां ताच्या कारभाराची चड तोखणाय दिसली. हें तेज ताका खंयच्यान आयलें हें आमकां कळचें म्हुण ताणीं त्या दिसांनी शिवाम्बुच्या स्तोत्राच्यो पटयो आमकां फुकट वाटल्यो. झगडलेल्या देहाक आनी बिगडलेल्या मनाक ताणें शांती मेळटा खंय! तांकां जाल्लें गोडेंय ताणें थोडें जालें अशें ते म्हणूंक लागले.

तांचो समाजिक वावर आमच्या गांवांत पयलीं पसून चल-तालो. पयलीं गांवांत व्हडल्योशो सामाजिक संस्था नासल्यो. तरी ते आपआपले परीन समाजिक वावर करताले. केन्नाय सणा-

परबेक, सटये– बारशाक जांव आपल्या कोणा जाण्टेल्याच्या स्त्राद्धा-दिसा ते गांवांत लोकांक आमंत्रण दिवन जेवण घालताले. तेन्ना तांकां आपल्या दानशूरपणाची व्हडवीक दीस. जेवणार बसल्या थंय कांय जाणांचीं तें फ़काणां करी. जायते फावट तीं फ़काणां हांस-पाक, विनोदाक म्हुण आसतालीं आनी कांय जाण त्या नेटार इल्लें रुचीन अदीकूच जेवताले. पुण केन्ना– केन्नाय फ़काणां करतां करतां ते जेवंक ताटांत हात घालतल्याच्या वर्मांक हात घालताले. तेन्ना ताटां-तले हात ताटांत उरुन तांका जेवणांत रुच उरनासची आनी ताटांत हात घाल्ल्यान उठ्ठलो म्हळचारुय तांकां उठूंक जाय नासलें. गांवांत गरजेक पडिल्ल्यांक ताणी केन्ना –केन्नांब दान केलां. ना अशें न्हय. पुण ताचो बोवाळ मात खूप जाला. एका हातान दान केल्लें दुसऱ्या हाताक कळूंक जायना म्हणटात. पुण एका हातान दान दिवंचे पयलींच तें तांच्या दुसऱ्या हाताक कळटालें. आनी तो दितल्या हाताक फ़ाटीं काडतालो. इतलेंय जवा दान दिलेंच जाल्यार तें काळजाक लागून तकलेक मारतालें आनी कोण आपल्याकडे कसो भिकेक आयलो हें सांगून तांचें तोंड व्हांवक लागतालें. अशें तरेनें तें तांच्या सगल्या देहाक कळून सगळयांच्या कानार पावतालें.

पुण हालीं आमच्या गांवांत कांय समाजिक संस्था उदेल्या. त्या कारणान ह्या संस्थां मार्फ़त तांचो समाजिक वावर चल्ला. कला, संस्कृतीकडे ताचो संबंध आयलो तसोच साधुसंताकडेंय आयला. हालींच गांवांत एक अंतरराष्ट्रीक क्लबाची स्थापना जाली तेन्नाच्यान तांच्या समाजिक वावराक अदीक प्रतिश्ठा मेळूंक लागल्या.

आमच्या गांवांत शीवांच्या अंतरराष्ट्रिक संस्थेची एक शाखा हालींच स्थापन जाल्या. ताचे हे वांगडी जाल्यात. संवसारभर खंय हें शींव आपले कळप करून आसात. पयलीं ते चडशे शारांनीं आसताले. हालीं हालीं गांवांनीं जानी रानांनी पसून पावल्यात.

आमच्या गांवांत एका गिरेस्त भाटकाराचे माळयेर जंय पयलीं चडसो पत्यांचो जुगार चलतालो थंय आतां ताणीं आपल्या मिटिंगांक जागो केला. हे शींव चड करून लक्ष्मीपुत्र आसलेल्यान तांच्यो पाटर्यो ताण चलतात. समाज सेवेची आंखणी करूंक म्हयन्यांतल्यान दोन पावट तरीं ते मेळटात तेन्ना उंची सोरो, मांस आनी तरातराचे खाणाचे जिनस हांका तूट नासता. थंय जायते पावट तांच्यो शिविणी आनी तांचे अपुर्बायेचे पेटेय येवन पाटर्यांक अदीकूच रंग हाडटात. जायते पावट ह्या पाटर्यांक शारांतले जाव घांटावेले शींव येवन तांकां समाजसेवेचो मार्ग दाखयतात. तांचीं भाशणां ल्हानशींच पुण शिवाचे अकलेचीं जाल्ल्यान थाटान जातात. भाशणांपरस चड रंग येता तो त्यांच्या खान्याच्या वेळार चलता त्या खबरांक ! ह्या संमेलनाक गांवचे, शारांतले मोट–मोटे व्यापारी, दोतोर, इंजिनियर, कॉट्रॅक्टर आनी वेगवेगळ्या मळावेले गिरेस्त लोक एकठांय आयिल्ल्यान तांकां तांच्या कार्याची फुडली दिशा बरी सांपडटा. त्या भायर जाग-रण करूंक संद सांपडटा.

आमच्या बल्कांवावेल्या वांगड्यांक हे माळयेवेले फुडारी फाव तशे सांपडल्यात. तांच्या पाटर्यांक आनी खबरांक ताणी खाशेली सोब हाडल्या आनी आपले परीन आपली समाजसेवा अदीक दबा-ज्यान चलयल्या.

एका वेळार पुर्तुगेजांक बरें मागून ह्या शिवातल्या जायत्या जाणांनी पयसो केल्लो. कितेंय सरकाराविरुद्ध उलयल्यार भितर पडचेलो तेन्ना भंय आशिल्ल्यान तोंड धांपून फकत पैशां फाटल्यान ते लागले. स्वातंत्र्य आयल्या उपरांत सरकाराक गाळी घाल्यार पसून कांय जायना, वेल्यान सुवार्थ सादूंक बरो पडटा हें पळोवन तें सरकाराचेर एकसारके टीका करुन आपलो सुवार्थ सादूंक लागले. आमच्या गांवच्या व्यापाऱ्यान तर पुर्तुगेजांवेळार बाळगिल्लो म्हालाचो स्टॉक स्वातंत्र्याउपरांत बऱ्याच चड मोलाक काळ्या बाजारांत

विकून अतोनात पैसो केल्लो. पुण तेन्नाच्यान स्वातंत्र्य येवन सगलें पाड पडलें म्हुण तो परत्यो बोबो मारूंक लागलो. पुर्तुगेजावेळची नित्य तोखणाय करून मेळत तेन्ना स्वातंत्र्याक गाळी घालून आपली भर पयलींचे परस कितलेशेच पावटीन अदीक तो करीत आसा. तेन्ना कायदे कडक आसले ह्याची तोखणाय तो करता आनी आतां कायद्यान चोरांक व्हड ख्यास्त जायना म्हुण पिरंगता. पण असो पिरंगून परतून आपुण काळोबाजार करचो सोडिना. दुसऱ्यांक कायदे कडक लागचे आनी ते सुदारचे अशें तो दुसऱ्याचें बरेंपण सदाच येवजित आसता आनी आपल्या जिवांचें ताका व्हडवेंशें पडिल्लें नासता.

हे शींव देशाचें बरें करूंक आनी दरेक कामांत शिवाचो वांटो घेंवक सदांच तयार आसतात. सकयल्या लोकांक सुदारचेली तांचीं चितनां उंच पांवड्या वेल्यान चकतात. राष्ट्रिक आनी अंतर्राष्ट्रिक चितनां करचें करून गांवांतल्या गरीब लोकां खातीर ताणीं गांवांत वावर सुरु केला.

जित्या मनशांची सेवा कोणुय करीत पुण मेल्ल्याची कोण करता? गांवांत तांचो वळव सुरू जाल्या बराबर ताणीं पयलीं समाजिक येवजण केली ती आमच्या गांवची मसण सुदारचेली!

आमच्या गांवची मसण सारकी ना. गांवचे शीमेर एकां दोंगराचे कडेक इल्लो जागो कोणे दान केल्लो आसा. थंय दुरीग घालून मसंडेक जागो केला. गिमाच्या दिसांनी व्हडलेशे त्रास जायनात. पुण पावसाच्या दिसांनी थंय कोणाचेय निमाणे यात्रेक वच्चो प्रसंग आयलो जाल्यार अग्नि दिवन ताका अनंताचे वाटेक लायसर लोकांक उक्त्यार पावसांत भिजचें पडटा. ह्याका लागन थंय एक कुड बांदचेली आनी लाकडां घालपाक लॉज बांदचेली आनी हेर कांय सुदारणा करचेली येवजण आसली गांवच्या लोकानी हे सुधारणेक जायत्या जाणांकडल्यान पटीय घेतलेली. पुण ते पयशे पावना जावन एवजण

तशीच उल्लेली. ती ह्या शिवांनी चालीक लायली. गांवच्या एका दोतोरान् गांवांत नवे हॉस्पिटल बांदलेलें. त्या कामाचे कांय फ़ातर आनी हेर कांय सामान उल्लेलें तें ताणें आपल्या हॉस्पि-टलाचेंच कार्य अशे भावनेन क्लबाचे एके मिटींगेंत मसंडेक दिवचें जाहीर केलें. हाका लागून दोतोराचो सत्कार दोन मिटिंगानी जालो आनी वांगड्यांनी त्या दोतोराक ह्या स्मशान सुधारणा समितीचो अध्यक्ष वेंचून काडलो. हे स्मशान सुधारणेच्या कामांक क्लबाच्या वांगड्यांनींचे मदत मेळोवन दिवचेलें उतर दितकूच दोतोरान आपुण कामाक गती दिवन राखडीच स्मशानाच्या दरवंट्याचेर शिवाच्या क्लबाची 'आमी सेवा करतां' ह्या घोषवाक्यान सोबयल्ली दान-पाटी लावचो योग हाडटलों म्हुण सगल्यांक विश्वास दिलो.

दोतोरान गांवच्या लोकांची सभा घेतली. आपले विचार सगल्या फुडें मांडले. गांवच्या लोकाक आपली योजना सांगली आनी गांवांत स्मशानाची चड गरज आसा हें पटोवन दिवन जायत्या जाणांनी उदार हातान मदत दिवंची केल्या तशी गांवच्या लोकानींय मदत करची विनंती केली. पुण कामाक सुरवात जावचे पयलींच कांय आडखळी आयल्यो. स्मशानाची सारकी येवजण जावचे पयलीं एका जागयार दहन जातालें जाल्यार भोंवताणी खंयूय जागो मेळत तशे हिंदूंतल्या ज्या जातींमदें पुरचेली चाल आसा ते मेल्ल्यांक मातयेक लायताले. आतां दहनाक जागो थारावन भोंवतणी बांदावलीची आंखणी जाली तेन्ना पुरतल्यांक जागो खंयचो हाचेर वाद सुरू जालो. तातूंत दोतोराच्या एका सोयऱ्यानूच ज्या जागयार दहन जाता थंय लागीं कोणाकूच पुरपाक आपलो खर विरोध दाखयलो त्या भायर जाणें आपलो दोंगराकडलो इल्लो जागो गांवच्या लोकांक स्मशानाक म्हुण सोडिल्लो त्या क्लबाचो वांगडी जाल्ल्या गांवच्या भाटकारान पुरपाक आपलो आनीक जागो सोडपाक विरोध हाडिल्ल्यान आनीक एक अडचण आयली. ह्या अडचणींक लागून हालीं दोतोरान ह्या कामातलें आंग

फ़ाटीं काडलां आनी कामाची गती मंदावल्या. क्लबाच्या वेद बांदपाचे सोबयल्ले पाटये पोंदसून वचून बरे गतिक वच्चेलो योग गांवांत कोणाच्या वांटचाक पयलो येत तें सांगू नज. हो उद्‌घाटणाचो योग बेगीन येत सो दिसना. ताचे पयलीं जायत्या जाणांक गती मेळूंक पयलींचीच आडखळ उरतली अशीं चिन्नां दिसतात.

क्लबांत समाज सेवेचो जायतो वावर चलता. गरिबांच्या भुरग्यांक तें केन्नाय शाळेचीं पुस्तकां व्हड दबाज्यान वांटतात. कांय गरीबांक ताणीं दोळ्यांचीं ओक्लां वांटल्यांत. केन्ना-केन्नाय थंडेच्या दिसांनी तें चादरी- कुबेतां वांटतात.

तांचे चादरी वांटचेल्या दबाज्याक आमच्या गांवची एक म्हातारी एकदां फ़टवली. हचा दबाज्याक ती रातची कुडकुडत आपल्या पयसुल्ल्या वाडयावेल्यान बरीच वाट चलून आयिल्ली. ते राती हचा दबाज्याक हचा क्लबाचो गोव्हेर्नादोर घांटारसून मोटरीन येवंचो आसलो. ताका पांवक बरोच उशीर जालो. मागीर तांचीं बरोच वेळ भाशणां जाल्ल्यान चादरी वाटूंक बरीच रात जाली. दर एकल्याचें नांव घेवन आपोवन हाडून चादरी वाटचेलो जेन्ना दबाजो जालो आनी म्हातारेचें नांव घेवन पसून ती फुडें आयली ना, तेन्ना तिचो सोद सुरू जालो. तिचो सोद केलो तेन्ना ती कडेक बशिल्ली थंयच मेल्ली सापडली. अशे तरेन हे संस्थेचें वस्त्र घेनासतना ती दुर्भागी बायल स्मशानात तिका सर्गार वच्ची सारकी सुधारणा जावचे पयलींच आमकां सोडून गेली. पुण तिचे चुरचुरे करची व्हडली गरज क्लबाच्या वांगडयांक पडली ना. कित्याक ती पयलींच चड अशक्त जाल्ली हें तिका तपाशिल्ल्या आमच्या दोतोरान सांगलें. त्याभायर तिचे जातीक लागून तिका स्मशानांत पुरूंक विरोध जांवचोच आसलेल्यांन स्मशान सुधारणेचो तिला फ़ायदो मेळत काय कितें हो एक प्रस्न आसलो!

हे माळयेवेले समाजसेवक समाजाची सेवा करतना स्वतःक त्रास करून घेनासतना समाजाक कितें दान करचेलें तें करतात. माळयेंवेल्यान भिकाऱ्यांक जुनेरां बी ना सुटकेक उडोवंची तशें तांचे दान आसता. आपलो समाजांतलो खेरीत वेलो जागो ते सोडिनात. समाजिक वावर तें आपलें वरतेरग सांबाळून करतात. देवाधर्माच्या कामांत लेगीत ते आपली वेगळी सुवात सांबाळटात.

आमच्या गांवांत जेन्ना सगले लोक एकठांय जांवन ताणीं गांवचे देवतेची एक वर्सुकी पुजा करची म्हुण थारायली तेन्ना हे पुजेचे व्यवस्थे संबंदान आमच्या व्यापारी मित्राचो आनी ताच्या वांगडयांचो गांवच्या लोकांकडे मतभेद जालो. ताका कारणां व्हडलीशीं नासलीं तरी वेगळाचार करची ताणीं संद सादली. हे पुजेंत ताणीं वांटो घेवंक जाय म्हुण घेतलोच. त्या भायर आपली पांच जाणांची रोखडीच वेगळी पुजा दवल्ली. अतां गांवची पुजा पुनवेकडे जाता जाल्यार तांची त्याच म्हयन्याचे उमाशेकडे जाता. रासवळ पुजेक लोक चड आसतात पुण जेवण खाण सुमाराचेंच आसता. तांचे पुजेक, शिरो, केळयां हालवो, साखरभात, खीर अशें तरातरांचे गोडशें आसता आनी ते थोडेच जाण बसून खातात. तांकां चडशा जाणांक गोडयाची पिडा आसलेल्यान तेंय बी तांकां चड खांवक जायना. तांचे बराबर आसलेले तांचे काय खुशमस्करे आनी नोकर– चाकरूच त्या दिसा तृप्त जातात. गांवच्या लोकांची पुजा पिठ्ठ् चांदन्यांत जाता. भजन बरें जाता. पालखेक लोक खूप जातात. पुण आपले पुजेक कोण ना जाल्यार आपल्याक चलता अशें ते सांगतात. तांकां ती आपल्या भितरच मनो-रंवेली आसता. सूर्य–चंद्र पसून आकाशांत ना अशें पळोवन त्या काळार तें पूजा बांदतात. बरें– बरें जेवण खाण करून आपल्या बायलां-भुरग्यांसेत तें देवाचो प्रसाद घेतात. ती काळखी रात तें व्हड खोश्शेन सारतात. रातचो पत्त्यांचो जुगार नेटान चलता. गडगडयाकूय तें राती नेट आसता. पुण आपले पुजेक अदीक स्वय घेवंक तें आपले

पुजेक पांडवांची पुजा म्हणटात आनी गांवच्या लोकांचे पुजेक कौरवांची पुजा म्हणटात. तांचो आंकडो पांचाच्या आसपास आनी गांवच्या लोकांचो आंकडो शेकडयांनी आसलेल्यान तांकां आपल्याक पांडव म्हणून घेवंक सोपें पडटा आनी गांवच्या लोकांक आपुण कौरव न्हय हें सिद्ध करूंक जड पडटा. बरें, तांचीं कितेंय वर्मां-कर्मां दाखोवन दिवन तांकां कौरव म्हुण सिद्ध करुंक गेल्यार तांचेय-कडेन पांडवांचीं वर्मां आसात. तांचे पुजेक जुगार, गडगडो चड अशें सांगूंक गेल्यार धर्मराजाक हया खेळाची व्हडली रूच म्हण-टकूच तेंच पांडव म्हुण सिद्ध जांवचो चड भंय आसता. आमी सगले एकाच गांवचे. पांडव–कौरव तर बापोलभाव. पांडव सर्गांत गेले आनी कौरव नरकांत गेले अशेंच जांवक ना. पांडव सर्गांत पांवचे पयलीं कौरव कांयच आडखळ येनासतना सर्गांत पावलेले. पांडवाकूच सर्गाच्या दरवंटयांतल्यान भितर सरूंक आडखळ आयली. कौरवांनी लाक्षागृहांत उजो घाल्लो जाल्यार कृष्णान आनी अर्जुनान पयलीं येवजण करून खंय तरी उजो घालून लोकांक मारिल्ल्याचो पुरावो तांकां सांपडटा. ते सांगतात एक, करतात एक म्हणूंक गेल्यार पांडवांनी 'नरो वा कुंजरो वा' केल्लें तांकां दाखोवंक मेळटा. द्रौपदीची निर्भत्सना जाल्ली कर्णान उक्त्या दोळयान पळेली म्हळयार कर्णाचोय पयलीं भरसभेंत अपमान जाल्लो तांकां दाखो-वन दिवंक मेळटा. अभिमन्युक कौरवांनी चक्रव्युह करून माल्लो अशें म्हळयार भीमान दुर्योधनाक न्हय त्या जाग्यार गदा घालून मारिल्ल्याचो पुरावो तांच्यांनी फुडें करूं येता. तें गरीबांक गरजे-भायर पिडटात अशें सांगूंक गेल्यार एकलव्याचो हाताचो आंगठो कौरव— पांडवांच्या गुरुन गरजेभायर कित्याक कातरूंक लायलो काय म्हुण तांच्यांनी विचारूं यता. अशे तरेन फक्त करण्यां-वेल्यान कोण कौरव आनी कोण पांडव हे सिद्ध करुंक अडचण पडिल्ल्यान

मागीर आंकडयावेल्यान कोण कौरव आनी कोण पांडव हें सिद्ध करचें उरता. आंकडयाचो फ़ायदो तांका मेंळिल्ल्यान ना सुटकेक आमी तांकां पांडव म्हुण मान्यताय दिवंची पडल्या. कृष्ण पांडवांवटेन आसलेल्यान पांडवांचो जय जालो. कुबेर तांचे वटेन आसलेल्यान निम्माणो तांचो जय जालो जायत. पांडव- कौरवांच्या ह्या झुजांत आमचो पराभव आमी मान्य केलो. आमी तांचे पुजेक पांडवांची पुजा म्हुण मान्यताय दिली. आतां तर कसलीच खंत बाळगिनासतना, परतो जाल्यार कुरु कुळाचो इल्लो अभिमान धरूनच, आमी आमचे पुजेक कौरवांची पुजा म्हणटां आनी तांचे पुजेक पांडवांची पुजा म्हणूंक मात्तूय अनमनना. व्यासाच्या म्हाभारताचें आमकां कितलेंय कौतुक दिसूं पुण नारदान त्या कविक शिटकावणी दिल्ली ती खरी आसली हें आमकां आमचे परिस्थितीवेल्यान कळटा.

आमच्या माळयवेल्या वांगडयांमदें राजकारणांचेर चर्चा चलताली तेन्ना कांय दीस खरी कॉंग्रेस खंयची ह्याचेरूच जायती चर्चा जाली. कॉंग्रेसचो पराभव जांवचे पयलीं ते कॉंग्रेसीक मानताले. पुण कॉंग्रेसचो निवडणूकेंत पराभव जावन तेन्नाच्या प्रधानमंत्र्यासैत जेन्ना जायत्या जाणांक हार खावंची पडली तेन्ना. जनता तांकां अदीक लागची दिसली. थंय आतां तांकां व्हड समराज्ञा आसाशी दिसतकूच तेही पंगत सोडून ते पंगतीक वचून बसले. समराज्ञेच्या भाशेंत सांगचेंच जाल्यार जे बळिइट कॉंग्रेसीन एका वेळार व्हड-व्हड समराज्ञेच्यो पंगती वाडिल्ल्यो थंय आतां मडकेंत पसून अन्न शिजोवंक तिची आस्त उल्ली ना. कॉंग्रेसींत आयिल्ल्या कांय कर्म दळिद्री लोकांक लागून तिची मडकीय सारकी उल्ली ना. पयलींच वेरेल्ली तिची मडकी सत्तेवेल्यान पडटकूच सारकीच फुटली आनी तिची भेळटा तीएकएक कपल घेवन जण एकलो तिकाच आपली कॉंग्रेस म्हणूंक लागलो. कॉंग्रेसींतले कांय जाण पयल्यान पयलीं दुसऱ्याच्या पोशांतलें उदक पियेंवक मेळत थंय धावत सुटले. संसदेंत ह्यो

पक्षांतले त्या पक्षांत वचप हो वांगडच्यांची नित्याचो खेळ जालो. खरी काँग्रेस खंयची हाचो निर्णय घेवंक निवडणूक आयोगाकूय अडचण पडली आनी निवडणूकांनी खंयचे काँग्रेसीक लोक मानतात तें कळटलें.. अशें आयोगाचें मत जालें. पयलींची प्रधानमंत्री निवडणूक हरिल्ली. सत्तेर आयिल्ल्या पक्षान तिका नित्य आयोगाफुडें नीत करूंक व्हेल्ल्यान तिका सोडून दुसऱ्यो काँग्रेसी स्थापन केल्यार हिताचें जातलें अशें जायत्या फुडाऱ्यांक दिसलें. सत्तेवेल्या सरकारान ती एकाधिकार शाही चलोवपी, न्याय– नीत मानिनाशिल्ली आनी लोकाक खावंक हपापलेली राक्षसीण अशें एका न्यायाधिशावरवीं सिद्ध करचो प्रयत्न केलो. जनतेन तिचे काँग्रेसीक फुडें जाल्ल्या जायत्या निवडणुकांनी येश दिलें तेन्ना निवडणूक आयोगाकूच ती लोकांक खावपी राक्षणीण काय मतां खावपी राक्षसीण हें समजना जावन खरी काँग्रेस खंयची हो निर्णय दिवंक त्या आयोगाक वेळ लागलो. खरी काँग्रेस खंयची हें थरना. जातकूच जण एकलो काँग्रेसीतल्यान फुटून नवी काँग्रेस स्थापन करूंक लागलो आनी आपल्या नावाचे पयलें अक्षर नवे काँग्रेसीक लावन एक–एक नवी काँग्रेस घडोंवक लागलो. अशे तरेन पक्ष जायते जाले आनी पक्षांतर करतल्यांचो आंकडोय सुमारा भायर चडलो. राजकारणांत पक्षाकडे निष्ठा म्हटता ती उल्ली ना. ह्या देशांत घटस्फ़ोट घेवन दुसरें लग्न करचेलें तितलें व्हड प्रमाण ना. आमचे खाजगी जिणेंत आमी एकनिष्ठा सोडतात. पुण राजकी जिणेंत ही एकनिष्ठा दिसना. खंयच्याय पक्षाच्या नावान तिळो लायल्यार आमकां पुरो जाता. असे तरेन खंयची काँग्रेस खरी हाचेविशीं गोंदोळ वाडलो. आमचे माळयेवेले राजकी निरिक्षक खरी काँग्रेस खंयची हें थारावपाक खंयचे काँग्रेसीक खंयचें अक्षर आसा हें पळोवंचे परस खंयच्या काँग्रेसी फ़ाटल्यान कुबेर आसा हें पळोंवंक लागले. तिचे काँग्रेसींत कुबेर तर न्हयच एक दरिद्री मनीस तरी उरत हाचो तांकां संशय आसलो. तिका आतां वयर सरची

ंदना आनी जनता तिका सोपयता अशें दिसून एका मनशाचे न्याय-
ीठापरस कितलेशेच चड पावटींनीं तिचीं 'कर्मां' ते आपल्या खंडपीठा
ुखार हाडूंक लागले.

आपलो पुत तिच्या पुतासारखो न्हय अशें जेन्ना सत्तेर आयिल्ल्या तांच्या नव्या प्रधान मंद्यान खबरेकारांक सांगलें तेन्ना आमचे हे माळयेवेले वांगडीय माळयेवेल्या आपल्या खास बसकां-वेळार आपलेय पुत तिच्या पुतासारके कशे न्हय हें सांगून आपल्या पुतांची तोरवणाय करूंक लागले. कांय जाणांचे पुत भुरगेपणांत सावन खुप हुशार आसले. देवान खेरीत कृपा करून कांय जाणांक पयलीं जल्माक घालतनाच चड वजनाचे पुत जल्माक घाल्ले. ते तांच्यो केन्ना केन्नाय स्पर्धा घेताले. फुडें बरी शिकवण दिल्ल्यान ते भांगराच्या गुणांचे जाल्ले. लक्ष्मीक केल्ल्या नवसांक लागून कांय जाणांक अपुर्बायेचे पुत जाल्ले. ते दुडु दुडु करून धांवंक लागचे पयलींच दुडू-दुडू म्हणूंक लागिल्ले. कांय जाणाच्या पुतांनी बापा-यचो धंदो बरे तरेन सांबाळून आनीकुय धंदे केल्ले. कांय जाणांचे ुत जल्माक येतनाच भांगराचें कुलेर तोंडांत धरून जल्माक आयिल्ले जाल्यार कांय जाणांच्या पुतांचे कुंडलेंत फुडें पावन ते भांगराच्यो कांडयो हाडून तिजोरेंत भरतले हें दिसतालें. आवय-बापायन अपु-र्बाय करीसारके तांचे पुत आसले. तिच्या पुता सारके नासले.

आमच्या गांवच्या व्यापारी मित्राक दोग पुत. एकलो घरा धंदो पळेता. दुसरो चडसो भोंवडेर आसता. ताचो व्यापार व्हडलो आनी तो मोटो धाडसी. तो पयलीं आपल्या धंद्याक लागून ुंबय-दिल्ली विमानान वचून येतालो. पुण हालीं कांय विमानां पडलीं आयकून तो चडसो विमानान वचना. तांच्यो सामान हाड-व्हर करपेल्यो चार-पांच मोटरी आसात. तांतली एक मातादोर टेम्पो असा. ती घेवन तो केन्नाय वतालो. पुण हालीं ड्राय-व्हरुच ती चलयता आनी तो फाटल्यान बसता. एक पावट तो टेम्पो

घेवन वता आसतना वाटेर टॅम्पोक अक्सिडेंट जालो. पुलीस येवन पंचनामो केलो. पुण पुलिसेक त्या वेळार त्या टेम्पोंत काळचा बाजाराचो जायतो व्यापार आसलेलो सांपडलो. चौकशी करपी पुलीस अधिकाऱ्यान ताचोय पंचनामो करूंक सांगलो. पुलीस अधिकाऱ्याक कितलेंय सांगल्यार तो व्यापार सोडूंक तयार ना जालो. तो कितेंय घेवपी न्हय म्हुण कळटकूच व्यापारी पुताची धांदल जाली. ताणें रोखडीच बापायक खबर दिवन सुत्रां हालयलीं. बापायन आपल्या वळखीच्या अधिकाऱ्यांक सांगून तें प्रकरण कशेंय करून निभायलें. तांतूत जायत्या अधिकाऱ्यांक पैशे खावोंवचे पडले. पुण त्या पुलीस अधिकाऱ्याची मात ताणें एकाधिकारशाही चलूंक दिलीना. तेन्नाच्यान आनीक कायदयाच्या चपक्यांत सापडचो न्हय म्हुण ताणें हो टम्पो ड्रायव्हराच्या नांवार दवल्ला.

आतां माळयेर सभा जायत पसून आमच्या गांवच्या ह्या नांवास्त्या समाज सुधारकांक शारांतले समाज–सुधारक सांपडल्यात. शारांतल्यान तांच्या सभांक नित्य हजेरी लावपी एक धंदेकार आसा. ताचो शारांत तरातरांचो व्यापार आसा. त्या भायर तो राजकारणांतुय आसा. शारांतल्या देवळाच्या कॉमिसांवांतुय तो आसा. तो शारांतलो एक नावांस्तो शींत्र जावन आसा. ताकाय दोग पुत. व्हडलो ठोक व्यापाराचें दुकान चलयता. तो एका स्थानिक पक्षांत आसा. दुसऱ्याक ताणें एक व्हडलें हॉटेल घालून दिलां. तो एका देशी पक्षांत सामील जाला. तो अजून ल्हान आसा पुण आतां सावन ताची कर्तबगारी कळटा. रातचे वेळार हॉटेलांतलो वावर उलगतकुच तो कांय डिनर टेबलां एकठांय करून आपल्या संवगड्यांक एकठांय हाडून थंय तांच्यो रातच्यो गुप्त मिटिंगो घेता. देशाचें कशें जातलें हाची चिन्ता तांकां लागल्या. देशाचें कितें करचें हाचेर ते जायत्यो येवजणो करतात. सकाळीं फुडें तो संवगड्यांवांगडां नेमान देवळांत वता. थंय प्राकारांत तांची सकाळची प्रार्थना जाता.

हिन्दु फुडाऱ्यांचीं कांय स्तोत्रां ते म्हणटात. हिन्दु राष्ट्राची व्हड-वीक ते गायतात. मागीर ते लाठी वावडूंक शिकतात. आपलो हो पुत फुडें पावन देशांतलो एक व्हडलो मंत्री जातलो अशें ताच्या बापायक सपन पडटा. देशभर देवळां देवळांनी देवाफुडें प्राकारांनी प्रार्थना जातात आनी देवाफुडें लाठी वावुडपाचें शिकपूय जाता तेन्ना आपली सेवा फुकट वचची ना हाची तांका खात्री आसा. देशाचो फुडार परजळीत करपी नवे नेते आपल्या मदींच आसात असो तांचो भावार्थ जाला. देवाफुडें नेटान लाठयो वावुडटना देव आपलें कसब पळोवन आपल्याक मार्क दीत आसा आनी एक दीस सगळ्यांत चड मार्क पडिल्ल्याक तो भारताचो फुडलो प्रधानमंत्री कर-तलो आनी हेरांक मार्क पडटा त्या प्रमाण हेर मंत्री करतलो आनी दुसरीं पदां दितलो असो ताका भरंवसो आसा. बापायक तर आपलो एक पुत गोंयचो फुडारी जातलो आनी दुसरो भारताचो फुडारी जातलो हाचो दोट्टी अभिमान दिसता.

आपलो पुत तिव्रा पुताभशेन न्हय अशें ज्या दिसा त्या देगेवेली प्रचार मंडळान सांगलें तेन्ना आपलेर पुत देशाचें कल्याण कशें करतले हावेर माळयेर जमिल्ल्या आमच्या वांगडयांची जायती चर्चा जाली आनी त्या दिसाची पार्टी बरीच फुल्ली.

लक्ष्मीच्या आशिर्वादान जाल्ले तांचे पुत सुलक्षणी आसात. लक्ष्मीची नित्य होंट भरवेलें मंगळकृत्य तांचे हातसून घडिल्ल्यान लक्ष्मीन तांचे होंटयेंत हीं सत्कृत्यांचीं फळां घाल्लीं आसात. पुण लक्ष्मीवांगडा तिची भयण अवदिसा खंय सदांच भोंवत आसता. तांचे घरवे लक्ष्मीची फाट अवदिसा सोडूंक तयार ना. लक्ष्मीक ताणीं फाटल्या दारान भितर काडली जाल्यार अवदिसा फुडल्या दारांत उबी रावन दांत फुडें काडून हांसत रावता. लक्ष्मीचो भांगराचो हात तांच्या उशा पोंदसून काडून ही अवदिसा तांची न्हीद खळयता. लक्ष्मी तांका गोड गोड पक्वानां करून घालता जाल्यार अवदिसा

तांच्या धोनांक ती पचूंक दिना. लक्ष्मी हांसत – खेळत घरांत भोवंक लागल्यार अवदिसा केंससोडून रडत घरभर धांवता. लक्ष्मी, पाटार बसल्यार अवदिसा तिका तेकून फुडल्या पाटार बसता. लक्ष्मीचे होंटयेंत पडचेलें फ़ळ केन्ना अवदिसेचे होंटयेंत पडत सांगू नज !

ह्या लक्ष्मीपुत्रांच्या कलबाचो एक वांगडी एक फ़ॅक्टरी चलयता. तो घरां बांदचेली, रस्ते करचेली, पावणी हाडटा. ताचे नुस्तें पागचेले ट्रॉलरूय आसात. ताचे जायते धंदे आसात. ताका तीग पुत आसात. व्हडलो ताच्या धंदयांत ताका मदत करता. दुसरो आपलो वांटो घेवन स्वतंत्रपणान आपलो धंदो करूंक लागला. ह्या दोगांकूय व्हडलें शिकप ना. तिसऱ्याक शिकयल्लो पुण तें शिकप ताचे तकलेक बादिल्ल्यान तो मस्तेपणां करूंक लागला. व्हडल्या दोगांक पयशे करपाभायर आनीक कांयच सुचना. आपले-पेले म्हुण पळेनासतना सगळ्यांकडल्यान ते फ़ायदो काडूंक सोदतात. भीडमुर्वत दवरिनासतना आपल्या सोयऱ्यांक पसून ताणीं आपलेकडे वेठीच्या वावराक लायल्यात. पैशांफुडें ते सगळें विसरल्यात पुण ताचो हो तिसरो शिकिल्लो पुत तांकां तांतूंत आडखळ हाडूंक लागला.

ताच्या शिकपाक लागून ताचे तकलेक परतें परतें खंय 'टेंन्शन' जाता. तीं पिशेपणां न्हय अशें ते म्हणटात. एकएक दीस ह्या ताचें कोल्ल चाळवता. तो घरच्या लोकांक बडोवंक लागता. आयदनां आपटिता. मदींच येवन फ़ॅक्टरींतल्या कामगारांक तापोवन काडटा आनी काम बंद करूंक लायता. घरच्यांनी जायतीं देवस्पणां केलीं ण तो जाग्यार येना. ताचे कोण बसला हे ताणीं कितलो सोद काडलो म्हुण तांका कळना.

केन्ना-केन्नाय तो आंगार अवसर आयिल्लेवरीं करता. घरच्यांक मेळत ते हूकूम सोडीत रावता. ताचें पिशेपण भायर कळत म्हुण घरचे ताचे सगळे लाड करतात. तितलो तितलो तो तांच्या माथ्यार बसता. पुण ह्या पुताक आपल्या आंगांत देवान संचार

केला अशी खात्री जाल्या. तो आमकां केन्ना- केन्नाय आपल्या आंगांत शक्ती संचा ता ताची खबर सांगता. ताचेर अवसर येता तेन्ना खंय ताच्याएक हा त तांच्या घरच्या पुरसाची शक्ती संचा-रता जाल्यार दुऱ्या हांतांत गांवचे देवीची शक्ती संचारता. तेन्ना ताचो एक हात गांवचें बरें करूंक फुरफुरता जाल्यार दुसरो हात गांवचें बरें करचें फ़ाटीं दवरूंक लावन घरचें बरें करूंक फुरफुरता. अशा वेळार एकमेकाक आडावपी हे ताचे हात बरें कांयच करूंक पावनात आनी मेळत तें आपटूंक लागतात. फ़ाटीं तो एका साधू म्हऱ्यांत गेल्लो तेन्ना ताणें ताका गायत्री मंत्राचो जप करूंक सांगला. हचा गायत्री मंत्राच्या जपान तो आंगांत तिसरी सुर्याची शक्ती हाडूंक सोदता. ती शक्ती आंगांत भरतकूच ती हचा दोन हातांच्या कसोटी खेळांत पंचाचें काम करतली खंय आनी आमकां एक व्हडली देंवी लिळा पळोवंक मेळटली.

हीं ताचीं पिशेपणां जायत पुण इल्लें शिकून संस्कार जाल्ल्या ताच्या मनार हो आरत्या - परत्या प्रवृत्तींचो खेळ कसो दिसता. ताचे वरवे पुरूष पैशां फ़ाटल्या लागलेल्यान तांका आपलें - पेलें कांयच दिसना. सगलो आपलोच फ़ायदो ते पळेतात. गांवच्या बऱ्याचें तांचे हातसून कांय घडना. तेन्ना थोडी दानत दवरून गांव-चेंय कितें बरें तांचेकडसून जांवचें अशी ताच्या मनाक आस लागल्या आनी तें जायना जातकूच तो फ़डफ़डटा आनी पिशेपणां करूंक लागता. ताका जितलो आडायता तितलीं ताचीं पिशेपणां चडटात. हांचो सुवार्थ सुटना आनी ताचीं पिशेपणां सुटनात. हो संघर्ष असोच चल्ला. लक्ष्मीच्या आशिर्वादा बराबरुच पिडिल्ल्यांचे स्राप तांका बादल्यात.

आपले पुत हेरांच्या पुताभशेन न्हय हें ते व्हडलो आवाज काडून पटयतात. घरांत कितें चल्लां ते भायर कितें कळटा अशें येवजून ते आपल्यो व्हडवीको सांगतात. हेरांची निर्भत्सना करतात

आनी व्हडल्यान हांसून शाणे जातात.

देशांत संपूर्ण क्रांती येवची असली ती आमच्या ह्या लक्ष्मीच्या भक्तांक मानवली. हेर कसलीय क्रांती जाल्यार तांचें समाजांतलें वरतें स्थान बिगडत म्हुण तांका भंय आसलो. पुण ही क्रांती तांच्या सुवार्थाआड येनाशी तांकां दिसतकूच ते क्रांतीचे फुडारी जांवक फुडें सल्ले. जे केन्नाच खंयचेच क्रांतीक म्हुण भायर सरूंक नासले ते आपल्या मोटरींक संपूर्ण क्रांतिचो बावटो लावन गावभर भोंवक लागले. आमच्या व्यापारी –मित्राच्या पुतान आपले टेम्पोक हो क्रांतिचो बावटो लायला आनी व्यापार करतनाच क्रांतिचो प्रचार केला. शारांतलो लाठी वावुडपी आमचो हॉटेल मालक तरणाटो बापायची मोटर घेवन हो बावटो लावन शारांत दिसपट्टी एक भोंवडी मारून येवंक लागलो. लाऊड स्पीकरावेल्यान संपूर्ण क्रांतिचो उलो ताणें शारभर दिलो. आमच्या व्यापारी मित्रान बल्कांवाचेर संपूर्ण क्रांतिचो गजर करूंक सुरवात केली. ताच्यो खबरो नेटार येंवंक लागल्यो. त्यो खबरो सांगतना बल्कांवावेल्यान उठून तो झेतान एक पासय मारून परतो येवन आपल्या जाग्यार बसतालो तेन्ना ताका एक संपूर्ण क्रांती पूर्ण जाल्ल्याचें समाधान जातालें. अशो कितल्योशोच संपूर्ण क्रांत्यो ताणें आमच्या बल्कांवाचेरूच केल्यो. ताच्या पुतान त्यो गांवभर केल्यो आनी ताच्या शारांतल्या वांगड्यांनी मोटरींनी शारभर भोंवड्यो मारून आनीक कितल्योशोच क्रांत्यो पूर्ण केल्ल्यो. केन्नाच ते जाहीर सभांनी राजकारणाचेर उलोवंक नासले. आतां तांका केन्ना– केन्नाय संद मेळूंक लागली. पयलेंच पावट माचयेर आयिल्ल्यान तांका सारकें उलोवंक जायनासलें. पुण संपूर्ण क्रांतिचेर उलयतना कांयच मुद्दे मांडची तशी गरज नासलेल्यान आनी हेरांच्यो चुको काडून तांका हिणसावन उलयल्यार क्रांती जाता हें कळिल्ल्यान तांची संपूर्ण क्रांतीवेलीं उलोवपां बरीं जांवक लागलीं. हे क्रांतीन तशें अमकेच दिशेन फुडें वच्ची गरज नाशि-

ल्ल्यान आनी तिचीं चक्रां जाय तशीं फ़ाटीं– फुडें घुंवडावन परत आसा त्या जाग्यारुच हाडूंक मेळटात असो तें क्रांतीचो अर्थ तांका समजल्ल्यान ताणीं ही क्रांती सहज करून दाखयली. जाणी क्रांती हें उत्तर केन्नाच तोंडांतल्यान काडूं नासलें तांकां क्रांती इतली सोपी आसा हें कळटकूच आनंद जालो. शब्दाकणकणी दुसऱ्यांचो एक-एक दोश सांगून क्रांतीची माळ तें जपूंक लागले.

संपूर्ण क्रांतींत दर एकल्यान आपले तरेन वांटो घेतलो. पयलींच्या प्रधानमंत्र्याक गरगरावन मोखून माल्ल्यार एक व्हडली क्रांति पूर्ण जाता अशें जायत्या जाणांक दिसलेल्यान तिका सगल्यांत पयस कोण मोखून उडयता हांचेर तांची स्पर्धाच सुरू जाली.

वकिलांनीं, न्यायाधिशांनी, कोर्टांत क्रांती घडोवन हाडली. काळोबाजार करतल्यांनी समाधीक प्रदक्षणा घालून एक क्रांती पूर्ण केली. मंत्र्यांनी ह्या पक्षांतल्यान त्या पक्षांत अशो भोंवड्यो मारुन आनीक एक क्रांती केली. देशांत जंय–थंय क्रांतीच मेळ संपूर्ण क्रांतीचे दिंडीत सामील जाल्ले. ते खंयच्यान खंय वताले तें कळनासले. पुण ते गरगर फ़िरून संपूर्ण क्रांती करताले.

संपूर्ण क्रांतीचे कांय बाबा देशांत उदयाक आयिल्ले. तांचे फ़ोटो वर्तमानपत्रांत छापून येंवक लागले. क्रांतीच्या आड आयिल्ल्या पयलींच्या गुन्यांवकार प्रधानमंत्र्याक ख्यास्त दिवंक सगले अधिकार दिल्लो एक न्यायाधीश असल्या एका बाबाफुडें बसला आनी हो बाबा ताचे तकलेर हात दवरुन ताका तांच्या कार्यांत यश येवंचें म्हुण आशिर्वाद दिता असो एक फ़ोटो आमच्या एका चड खपाच्या नावास्त्या साप्ताहिकांत छापून आयलो. आतां मात तिचें भस्म हो न्यायाधीश करतलो हाची खात्री आमकां त्या दिसा बल्कां-चेर आमच्या व्यापारी मित्रान दिली. ताच्याएका मित्रान त्या सर्वसाक्षी न्यायाधिशाफुडें तिच्या गुन्यावांची झडती घेवंक तिका उबी केल्ली. मुंबय दूरदर्शनाचेर पळोवन येवन माळयेवेले एके सभेंत

आपणे दूरदर्शनाचेर कितें पळेलें तची सगली खबर मोटे रुचीन सांगली. खेडयांतल्या लोकांक दूरदर्शन पळोंवक मेळना म्हूण ती केदी गुन्थांत्रकार तें खेडयांतल्या लोकांक कळना हाची खंत ताणें परगटायली. आमच्या व्यापारी मित्रान अशें तिच्या गुन्यावांचें दर्शन दिवचे परस तिका बेगीन सोपोंवची व्यास्त दिल्यार बरें जातलें असो आपलो निर्णय हे सभेवेळार दिलो. फुडें पावन आमच्या व्यापारी मित्राचो सल्लोच वेव्हारी आसलो हाचो प्रत्यय येवंक लागलो.

भारताच्या राजकी मळार त्या वेळार धांदळ जाल्ली. दर एकलो वयर सरचो प्रयत्न करतालो. निष्ठा सगल्यो पयस जाल्ल्यो. काँग्रेस फुट्टा म्हणसर जनता फुटली. आपलो पक्ष प्रधानमंत्र्या-सांत हरलो आतां तिच्या वांगडा रावन अधिकार परतो मेळूंक कठीनसो दिसलेल्यान काँग्रेसचे बडे-बडे फुडारी एकाधिकारशाहीचो तिचेर आरोप करून आनी तिची चाल आपल्याक मानवना अशें सांगून, अधिकारार आशिल्ल्या पक्षाचे फुडारी लोकशाही मार्गान चलतात असो नवो साक्षात्कार जावन तांचो हात धरून चलूंक लागले. ती आतां वयर सरचेली ना आनी तिच्या वांगडा रावन अर्थ ना हीं खरीं कारणां सांगू नज जावन हीं दुसरीं कारणां तिच्या विरुद्ध तांका दिवंची पडटालीं. अधिकारार आशिल्ल्यांच्या शाही मार्गान चल्ल्यार कसलोच भंय ना हें खरें कारण तांका लिपोवचें पडटालें. पोतेकार आयला म्हुण पयलीं ल्हान भुरग्यांक सांगतकूच तीं भुरगीं भियेवन जशीं शाळेक वचना सतना घरा रावतालीं तशे तिच्या वांगडचे कांय राजकी फुडारी अधिकारार आयिल्ल्या राजकी पोतेकारांक भियेवन राजकारण नाका म्हुण भियोवन घरा बसले.

पुण फुडें पावन एक-दोन राज्यांनी वेंचणुको जाल्यो थंय तिच्या पक्षाक लोकांनी भौमतान वेंचून हाडिल्ल्यान तिचे विरुद्ध इतलो प्रचार करून लोकाक ती दुश्ट हें अजून कशें कळना हाचें अजाप

देशाक आपले पद्धतीन फुडें व्हरतल्यांक जालें.

"तिची चाल लोकांक कळटा ? हे लोक शिकल्यात ? तांका वांचूंक कळटा ? ताणीं केन्ना दूरदर्शन म्हणटा तें पळेलां ? ते कितें जाणात ? मेळत ताका मताचो अधिकार दिला तेंच पयलीं चुकलां" आमच्या व्यापारी मित्रान ह्या देशांत कितें कितें चुकलां तें तेन्ना बल्कांवाचेर आमकां सांगलें. "हांवें पयलींच सांगिल्लें, वेळ काडल्यार ती काळाची बायल कितें करीत तें सांगू नज. तिका खरें म्हळ्यार आयोग–बियोग काय उपकरना. तिका फ़ारान मारुन उडोवक जाय. हीच तिका शिक्षा. आनी दुसरी ना." कसलेय गजालीक वेळ कांडल्यार नुकसान कशें जाता हाचें वेव्हारज्ञान व्यापारी मित्रान आमकां सांगून दिल्लीक आपलो आवाज पावना म्हुण खंत परगटायली.

पुण कोणुय कितलोय आड्ड्लो म्हुण दिल्लीक कारभार चलोवपी फुडारी आपसांत झगडूंक लागिल्ले. ते कोणाचोच बरो–वायट सल्लो मानचे मनस्थितींत नासले.

ती आज सोपलीना जाल्यार फ़ाल्यां सोंपतली हाची खात्री तांकां जाल्ली. ताणीं तिका ना करूंक फ़ारान मारचेले सोडून हेर सगळे उपाय केल्यात हाची खात्री करून घेतिल्ली. एके वाटेन आयोग चलयल्ले. ती प्रचाराक गेल्यार गुंडांकरवीं तिका घरांत बसोंवचेली वेवस्था केल्ली. राजकारणांत वावरूंक तिका बंदी घालची येवजण चलयल्ली वेंचणुकेंत तिका उबी रावंक पसून जांवचे न्हय अशी तिची नीत करचेली खटपट चलयल्ली. तांच्या हिसपांत ती आतां सोपिल्लीच. एक–दोन राज्यांनी एक पावट भौमत मेळ्ळयारूय फुडें तिका राजकारणांत वावरूंक मेकळीक ना अशें तांका दिसतालें.

तिका एक पावट सोपयल्या उपरांत फुडलो प्रधानमंत्री कोण जावंचो हाचेरूच तांचो चडसो तंटो चलिल्लो. ताणीं तिका वायट

थारावन आपुण सगले इतले बरे म्हुण सिद्ध केल्लें कि एक–एकल्याक आपुणूच प्रधानमंत्री जावंक लायक अशें दिसतालें. 'चितलें परा आयलें घरा' हे म्हणणे प्रमाण काँग्रेस फ़ाटोफ़ाट जनताय फुटली. दरएकलो फुडलो प्रधानमंत्री जांवचेल्या पंगडाचो फुडारी जालो. दर– एकलो आपुण प्रधानमंत्री जावन देशाचे बरें करतलो म्हुण दुसऱ्याक फ़ाटीं ओडूंक लागलो. एकल्याक फ़ाटीं ओडून दुसरो प्रधानमंत्री जाल्या बराबर तिसरो आपुण कितें वायट म्हुण ताका फ़ाटीं ओडून आपुण फुडें येवचो प्रयत्न करूंक लागलो. बऱ्या मनशांमदें कोण सगल्यांत बरो हें कोणाकूच कळना जालें. आपले भितर प्रधानमंत्री जांवक सगल्यांत लायक कोण हें सिद्ध करूंक आतां सार्वत्रिक निवडणूक घेतल्या-बगर इलाज ना अशें ताणीं येवजून बेगीन बेगीन निवडणूक घेतली.

निकाल लागलो आनी तांतलो कोणूच प्रधानमंत्री जालो ना! हे कशें जालें? तिणें निवडणूक जिकली हें कशें घडलें? इतलें करून ती हांच्या माथ्यार येवन कशी बसली?

ती कोण अशी हांच्या माथ्यार येवन बसतली? तिका तर ना केल्ली. बायलांक कारभार करूंक कळना म्हुण तर ताणी सगल्या जाणांक सांगलेले. ती बायल देशाक अपशकून करता हें सगल्यांक कळीत केल्लें. आपले पुत तिच्या पुता परस बरे हें तर सगल्याक जाहीर केल्लें. सकाळी फुडें तिचें नांव घेवंचे न्हय अशें सगल्यांनी मेळून थारायल्लें. तिका आयोगाफुडें हाडून तिचे भोग-णार केले. तिची बुद्द खोटी, मन दुश्ट, चाल वांकडी हें सगल्या जगाफुडें सिद्ध केल्लें. ती कितली वांकडी हें सांगूंक कितलीं पुस्तकां उजवाडाक हाडिल्लीं! "ती" हें तिचेर बरयल्लें पुस्तकांतलें प्रक-रण उजवांडाक हाडिनासतना तिणें कितलीं प्रकरणां केल्लीं आसतलीं हाचे तर्क– कुतर्क लोकांक करून लायिल्ले. बल्कांवार बसून, माळयेर बसून तिका कसल्यो कसल्यो गाळी घाल्ल्यो! वर्तमान पत्रांनी तिची कितलीं दुश्कृत्यां छापून हाडलेलीं! ती लोकशाही माड्डूपी,

एकधिकारशाही चलोवपी, देशाचो नाश करपी अशें आड्डून-आड्डून सांगलेलें. ती सगल्यांक खातली हें तर सगल्याक कळीत केल्लें म्हुण तिचे वांगडी तिच्या पातकांत आनीक वांटो नाका म्हुण तिचे पसून पयस जाल्ले. ती एकलीच बंदखणीत कुसत पडचेली. ह्या देशांत आतां तिका कोण पळोंवचो पसून नासलो. कोण तिचें नांव पसून घेवंचो नासलो.

आमचे बल्कांवावेले आनी माळयेवेले वांगडी बावटे लावन मोटरीं भोंवडावचे आसले. खोश्शेन गरिबांक चादरी वांटचे आसले. तिका ना केल्ल्याचे खोश्शेन दिवे लावचे आंसले. बल्कांवार वणकून बसून बायलांचे दोश आनीक नेटान सांगचे आसले. माळयेर पाटर्यांक नेट येवंचो आसलो. आपले बरें कळना अशा अज्ञान लोकांक शिकिल्ले, वर्तमानपत्रां वाचूंक जाणा जाल्ले, दूरदर्शन पळोवपी, समाजांतले शींव कसें सोबपी शाणे लोक तांचें बरें कशें जातलें हें शिकोवंचे आसले. त ह्या राज्यांत कामेऱ्यां, रानतल्यो सुखी जावचेल्यो. बायलो चडशो जाल्यार लाटण्यो घेवन दिसपाच्यो. ह्या देशांत एकापरस एक प्रधानमंत्री जावचेले. ते क्रांति करून सगलें परतुचेले!

पुण ती कोण अशी रगत-मांस खावन अपरिजिता कशी आमचे शेंडयेर येवन बसली?

--००--

## ३ : रस्त्यावेलें केस्तांव

हयो जिणेंतल्यो खबरो जेन्ना हांव सांगतां तेन्ना त्यो खऱ्यो काय फट म्हुण म्हाका कोणूय विचारीत जाल्यार त्यो खऱ्यो फट कशोंय आसू तातूंत तथ्य कि रें आसल्यार घेयात अशें हांव सांगता. आतां हावें रस्त्यान वतना केस्तॉव केलें अशें कोणाकूय सांगल्यार खरें दिसत ?

एक दीस हांव चिंतिनासतना एका न्हय त्या तटचांत पडलों. रस्त्यान वतना त्रासांत पडपी मनीस चडसो कामाशिवाय रस्त्यान भोंवपी आसता. पणजे शारांत सांजचीं ऑफिसां सुट्टकूच घरा वचूंक जाता तितलीं रातची बस धरीसर जायते जाण हया शारांत रस्त्यांनी बेंटेच घुस्पल्लें. दिसतांत सॉजचें आमकां हांगा व्हडलें काम आसतां म्हुण न्हय तर घरचे ओडी इतलीच आमका आमच्या हया शाराची ओड आसा म्हुण आमची पावलां हांगां आडखळटात. संसारांत कितलीशींच सोबीत शारां आसत पुण हया शाराचा सर तांका येना. सगल्यांत सोबीत भूरगें सोदूंक खंय एक मनीस भायर संवसारभर भोंवलो. पुण पयलें बक्षीस दिवपासारकें ताका एकूय सोबीत भुरगें दिसलेंना. तो घरा परतलो तेन्ना ताका येता तो पळोवन ताच्या घरच्यान धांवत आयिल्लें ताचें भुरगें ताचो शेमुड पुसतकूच तें संवसारांतलें सगळ्यांत सोबीत भुरगें दिसलें. तशें आमकां हे आमचें शार ! ते आमचें म्हुण न्हय तर तें खरेंच सोबीत आसा !

हांगा कोणाकूच भायलो म्हळ्यार वायट दिसता पुण भायल्यान आयिल्लो एकाद्रो मनीस हया शारांत हांगा–थंय इल्लो चिखोल जांव कोयर पळोवन हें कसलें सोबीत शार अशें म्हणत म्हुण ताचो भय दिसता. हया शाराचें खाशेलें सोबीतपण अशी वयर–वयर नदर भोंवडावन समजुचेंलें ना. हे सोबीतपण समजूंक नदर भायर–भितर आसची पडटा आमकां मात हया शारान भूल घाल्या.

हांगचें रस्ते हेरकडल्या रस्त्यांवरी रूंद नासत. पुण हे आमचे रस्ते सोबींत आसात. रस्त्याच्या दोनूय कडांनी वाडिल्लीं झांडा येतना-वतना आमचेर पालोव धरतात. तांच्या तेंगशांची माथ्यार मागो काडलेले भशेन वेल्यान मदोमद वळ जाता. ह्या रस्त्यार मदी फोणकुलां पडलेलीं आसत. पुण तीं पोल्यार पडलेले खळये भशेन आमकां दिसतात. हे रस्ते एकमेकाक जायतेकडें मेळटात. मात्शे थांबतात आणि फुडें वतात. हे वटेन ते वटेन पळेतात. हात करतात. भायल्यांक हें कळना गोंयकार उलयतना हात करीत उलयतात. तशे हे आमचे रस्ते मेळत तेन्ना हाताचे भाशेन उलयतात तेन्ना आमची भास नकळ जाल्ल्यांक ते कळना हांगा मुखेलपण कोणाक ना. सगळे सारके. समानता हांगा वसता खंयचो मुखेल रस्तो आनी खंयचो आडवो रस्तो हें कळना. सगळ्यांची रुंदाय सारकी. सगळे सारकेच व्हडले. नकळ जाल्ले हांगा अपघात करतात. हांगा अपघात जाल्यार एक रस्तो दुसऱ्या रस्त्याक तूं चुकलो म्हणत 'तुमी' केन्ना म्हणचोना. दुसऱ्यांक 'तुमी' म्हणपी रस्तो पणजेंतलो न्हय म्हुण वळचो. हांगा रस्त्यांक 'भाऊसाहेब, दादासाहेब' हीं नांवां आतां दिल्यां जायत. पुण हीं नांवां दिली म्हुण तांकां त्या नांवान कोण वळखूंक तयार ना. निसर्गाकडे आमचें नातें. सांहेबाकडे आमचें नातें ना. काम्पालावेल्या रस्त्याक आमीं काम्पाला वेलोच रस्तो म्हुण वळखतात. कॉर्तीत, मळचात, आल्तिन, सांवरीकडे, तांबडे मातयर, वडाकडेंन, भाटल्यांत. प्रासार, मानशेर अशा मुळच्याच नांवांनी आमी आमचे जागे सोदून काडटात. आतां दोनापावल हें नांव तगून उल्लां. ताका कारण आसा. थंय त्याग आसा. ते भुंयेर तिणें आत्मबलिदान केल्लें आसा. हांगा आम. कोणाकूय बाब, सियोर, दोतोर म्हणत पुण त्यागा शिवाय नांव व्हरप हांगा तितलेंच कठीण आसा.

हांगा पळोवपा सारक्यो व्हडल्यो इमारती ना. व्हडलीं देवळां, इगजे नात. वास्तू ना. शिल्पां नां. दीस-रात तशे वेव्हार उद्योगूय चलनात. रातच्या णवां उपरांत खंय वतलो म्हळ्यार बसूय ना. ऑफिसांक सुटी आसता त्या दिसा रस्त्यांत गर्दीय ना- तरी हांगा रावपाक जागो मेळना. भाडें खंयच्याय व्हडल्या शारापरस चड आसा. पुण रावपाक दिना जाल्यार दिवं नाका

भोंवक मात्शें मेळ्ळ्यांर पुरो इतले आमी ह्या शाराच्या मोगांत पडल्यात. ओठांक हय–न्हय सो रंग लावन, आंगाचेर चेर घालून, माथ्याक फुलां माळून केन्ना साडी, केन्ना स्कर्ट घालून, चड सुटलेली न्हय बारीक न्हय, मंद चालीची, भिडेस्त पुण मान सकयल घाल्ली न्हय, हांसपी, खेळपी पुण नाचरी न्हय अशी ही सुंदरी कशी दिसता. काश्मिरचो गुलाब तिच्या पोल्यार ना. दिल्लीचीं रुबाब ना. दक्षिणेचो गंध ना, रंग ना. उत्तरेचो ढंग ना तरी ती आमका जाय तशी आसा. आमी तिचें मन दुखवचेंना. तिका आमचे पणजेंचें नांव दिल्लें आसा.

आमी मेळत तशी तिका आंगान सुटूकुय दिवचेना. चड मजली इमारतींचेर आमी बंदी घाल्या. प्रदुषण जायत म्हुण कांरखाने भायर घाल्यात. भांडवलदारांक मुरगांव म्हासमुद्राचेर हद्दपार केल्यात. देव–धर्माच्या नांवार पैशे करतल्यांक अंतुजेच्या रानांनी धाडल्यात आनी थंय रानांत धाडिल्ले शारदेक पणजे शीमेर मंदीर बांदून दिवंचें केलां. हांगा आमी नित्य ज्ञानाचो उपासना करतले आनी ज्ञानाचीं कवडां धांपचेनांत अशें तिका उत र दिलां. थंयच बलायकी राखूंक हॉस्पिटल आसा आनी राखूंक मिलिटरी आसा.फुडें काबु राज निवास आसा आनी लोकशाहीक राज निवासाचो कॅन्सर जायत म्हुण मदीं कॅन्सर हॉस्पिटल आसा. पुण तांकां सगल्यांक आमी आजून शींमेरूच दवल्ल्यात. कित्याक पणजेंत येवंचेली आजून तांची तपश्चर्या पूर्ण जावंक ना.

दुसरे वाटेन म्हा– समुद्राक मेळूंक वच्चे पयलीं मांडवी न्हंय पणजेच्या पांयांक स्पर्श करता. हीं कर्तबगार न्हंय व्हड दानतीच्या पर्वताच्या पोटांत जल्म घेवन अंतस्कर्णाचो म्हादय जाल्या. भोळ्या पर्वतान दान दिवंक उक्ते केल्ले आपले लोखणा–मॅगनिजचे खजिने वसवस लागिल्लेभशेन बार्जींच्यो–बार्जी भरून वर्सां कणकणी कोण व्हरतात आनी खजिने सोंपत आयले तरीं आस भागना तसले हे खजिने लुटपी कोण हाचो पयलो सुगाबो हे न्हंयेक पणजे म्हऱ्यांत पांवक लागता बापायक फटोवन लुटाऱ्यांनी ताचे खजिने भायर धाडले आनी ताचे दान जाय थंय पावलेंना हाचें तिका दुख जाता. ती जगाचो अणभव घेवन आनी पणजे कडल्यान बोध घेवन हांगा शाणी

सुर्ती जाता. भायल्या जगांत वच्चे पयलीं पणजे कडल्यान सावधानतेचो उपदेश घेवन तिचो आशीर्वाद घेवन ती फुडें वता. कितेंय जालें तरी दुसरे वाटेन पणजेन वेरें नीट सावाळ्ळें लें आसलेल्यान कितेंय घडलें तरी निमाणें-जाग्यार येतलें असो धीर तिका येता.

मांडवी मोटी उपकारी. ती नुस्तें खुप दिता. बद्द पणजे सचिवालया मेरेन तिचे देगेक रावन नुस्तें गरोवपी दिसतात. ट्रॉलरांनीं भर–भरून नुस्तें तिचे देगेक पणजेंत हाडटात. पणजेंत सचिवालयाकडे पुतळ्या सकयल सत्याग्रह करीत नित्य उपाशी न्हिदिल्ले रापणकार दिसतात. एके वाटेन ट्रॉलर आनी बार्जी आनी दुसरे वाटेन उपाशी न्हिदिल्ले रांपणकार आनी तिचे देगेर कामगारांनीं उक्त्यार केल्ल्यो वसती पळोवन निसर्गान दिल्लें समाजाक वाटून घेंवक कळलेंना हाची खंत मांडवी पणजेकडे उक्ती करता रिकामी धाडिल्ल्यो बार्जी भरून–भरून धाडल्यो तरी मनशाचो सुवार्थ सोपना आनी ताचीं नाडपणां वचनात हाका लागून तिका केन्ना–केन्नाय दुःखाचो हुंवार येता काय दिसता पुण पणजेकडल्यान बोध घेवन ती तें दुख गिळून वेल्यान शांत रावता. ती फुडे मीरामार वता तेंन्ना सगलें दुःख विसरून आनंदमय जाता. थंय नित्य सांजचे पणजेंतले लोक वाऱ्याक येतात ते तिका मेळटात. थंय मांडवी म्हासमुद्राक मेळूंक वेता आनी थंयच सुर्या पृथ्वीक मेळटा आनी थंयच मोगाचीं मनशां एकमेकाक मेळटात. पणजेचो हो सगलो परिसर तेन्ना खुशालभरीतजाल्लो दिसता.

जाण्टे, तरणे, भुरगे सगले हांगा वाऱ्याक येतात. हांगा संसाराच्यो खबरो जातात. भेंटी जातात, मौज जाता. पणजेंच्यो सोबीत सुंदऱ्यो तरा-तराचो भेस करून हांगा येवन ही वेळ सोबयतात. नदरांक नदरो मेळटात, वळखतात. केन्ना वळखनात. तरी हांगा वासनेक जायते बांद आसात हांगा येतात ते सगले धर्म न्हय, जायते अर्जूनूय आसतात. उर्वशीक खय स्वर्गलोकात पळोवन अर्जून तिचे सोबितायेक भुल्लो पुण आपलो पुर्विल्लो पुरूरवा हाचो तिचेकडलो संबंद ध्यानांत येवन ताणें मन आबरले आनी तो फाटीं सरलो. हांगचो उर्वशी, मेनका माणिक, गूलाब, पुष्पा, रेखा, फिलोमेना, लीला,

शोभा, फ्लोरा मनाक भूल घालतात. पुण तांतलीं कोण नात्यांतलीं आसत, कोण वळखीच्या मनशाची भयण जांव धूव आसत आनी तीं सगलीं पणजेचीं पणटुरां हें नातें ध्यानांत येवन नदरो सावरतात. मीरामारचे हे क्रीडेक संयम आसा, नेम आसात. पणजेचो धाक आसा.

पणजेच्या दोन पावलांकडे मांडवीक जुवारी दिसता तेन्ना आपले भयणीक पणजे म्हऱ्यान पळोवन तिका खोश्शेचा भरती येता. पणजेकडे येवचे पयलीं जुंब्या, कुमार–जुंव्या वाटेन वचून मांडवी पयलीं जुवारेक मेळून आयिल्ली आसता. त्या उपरांत म्हासमुद्राक मेळूंक वच्चे आदीं तांची पणजेकडे ही परतून भेट जाता. इतले बेगीन कितली वाडलो म्हुण तीं एक-मेकाक कौतुकान पळेतात. आपले धाकले भयणीभशेन जुवारी संसाराचे सगलें मनाक लावन घेवपी न्हय. मांडवी संसारिक जाल्यार जुवारेची परमार्थाकडें ओड. जुवारेन संसारांत जायती पीडा–पीड पळेल्या. जंय देवांक पसून भोग चुकना थंय मनशाचेर संकटां आयलीं म्हुण तिका व्हड दिसना. तिचे एके देगेक आसलेलीं गोंयची व्हड दैवतां बाटवणेच्या संकट-काळार तिचे दुसरे देगेक वचून रावल्यात. बाटवणेच्या वेळार तिणें मदीं पडून देव–धर्म वाटायला. ती अघनाशिनी, पातकां धुवपी, कुशवनांत कुशस्थळांत तिचे देगेर रूशींचें वास्तव्य जालां. ही पापनाशिनी, गोंयचीं जुवीं पवित्र करपी न्हंय पणजेकडे पावन मांडवीक पळोवन खुशालभरीत जाता. ह्या दोनूय न्हंयांच्या पाणयार आसलेली पणजी संसार परमार्थ दोनूय सादता

पणजेचेर सकाळी फुडे सुर्या रायबंदरच्यान उदेता आनी पाटचा-वेल्यान पणजे येता. हो पांटो पांडवांनीं एके रातीत आनी एके पण्टेन बांदलेलो. हो पाटो चड रुंद ना जायत पुण मांडवीक ताची देग सोबसारकी आसा. एके वाटेन सागर आनी दुसरे वाटेन आगर आसलेलो हो पाटो पांडवांचोच आसूंक जाय ह्या पाटचान पणजे पावंक एके वाटेन सांखळयो जाल्यार दुसरे वाटेन ट्र्याफिक पुलिस येरादारीचेर नदर दवरून आसा. थंय पुलिस जाग्यार आसूं नासूं, सांखळयो मात नित्य नदर दवरून आसा.

दक्षिणायनांत सुर्या कालापुरच्यान चार खांब्यातल्यांन मानशेवेल्यान पणजे येता. ह्या चार खांब्यांफुडें चारमीनार कांय न्हय. शेतां आनी आगरांची भोंवतण आसलेले हे चार खांबे गलिच्छ वसते मदीं मिरोवपी चार मिनारांपरस कितलेशेच भाग्यवंत. हांगचीं मानस मानसरोवराक फाटीं काडटा. मानसरोवराचेर कुडकुडचे परस मानशेर वारो घेतिल्लो कितें वायट ?

फुडें मळयांत आनी भाटल्यांत माणकुलींच माणकां कशीं घरा लागतात. थंय रस्त्यान वतल्यांची नदर लागत हाचो भंय बाळगिनासतना जनेलांनीं धीटायेन उब्यो राविल्यो सुंदऱ्यो दिसतात. अशेंय आसून मळयांत गडार ब्रह्मचारी मारुतीराय रावता. मळयांतली झर जितली प्रसिद्ध तितलीच हचा शारांतली भिशमाची बांय. मळयांतल्यान शारांत वचूंक पयली इल्ली दोंगराची चडटी लागताली. तीं चडूंक त्रास जावचो न्हय म्हुण त्या दोंगराक कोर्त मारून कोर्तीतल्यान रस्तो काडला. हे कोर्तीचे एके वाटेन देंगरार धर्म मंदीर आसा जाल्यार दुसरे वाटेन विद्येचे मंदीर आसा ह्या शारांतल्या आल्तिनचो सोब कितें सांगची ? हो दोंगोर मोटवो पुण कितलो सोबीत ! शंकराक मेळूंक त्रास पडचो न्हय म्हुण कैलासूच मोटवो जाला! हांगची भिशमाची बांय इतिहासिक. अर्जुनान बाण मारून हांगच्यान भिशमाचे पलासेंत उदक व्हेल्लें ! भिशमाचे पलासे लागसार मंत्री रावतात. अधिकारी रावतात. थंयच्यान आकाशवाणी जाता. दूरदर्शन जाता.

हचा कैलासाच्या पांवडयावेल्यान सकयल देंवतना मदीं हचा शाराचें दैवत मानिल्ले महालक्ष्मीचें देऊळ लागता. साळकांतली लक्ष्मी तशें पणजेंत हें महालक्ष्मीचें देऊळ सोबता. सकयल सरस्वतीचें मंदीर सोबपी वाचनालय आसा. ताच्याफुडें सरकारी वाचनालंय. व्हडलें आनी पोन्नें.

हांगा संत–सतिणींच्या नावांन चलतलीं इश्कोलां आसात. म्हात्म्याच्या नावांन चलतलें इश्कोल आसा. हांगा लक्ष्मीपुत्राच्या नांवान सरकारी खर्चार चलतलीं कॉलेजां आसात. हांगा कॉलेजांनीं वचपी भुरग्यांक सिटी बसीनीं नित्य प्रवास करचो पडटा. सिटी बसीनीं अर्द्यो पोटल्यो गच्च भरिल्ले

भशेन अर्धा तिकिटांचीं कॉलेजची भूरगीं चौपट भरून बसी दुप्पट फायदो काडटात. त्याभायर बांगडे भरचे तशे बसींनीं पेसेंजर भरून ह्या शारांत येवपी–वचपी बशी कितलेंशेच पटीन फायदो काडटात. ह्या शाराच्यो बारीकसाणी घेत तितलें हें शार आमका खुब म्हत्वाचें दिसता.

हांगा जाण्टेपणांत पसून शिकचो हावेस आसा मांडयेर भुरगें आशिल्ली एकाद्री बायल कॉलेजचें कार्ड दाखोवन अर्धा तिकिटार वता. एकाद्रा जाण्टयाचो माथ्याचो धवो केंस पळोवन सगलें तिकिट दिवक गेल्लो कंडक्टर ताच्या बॉल्सांतले लॉ कॉलेजचें कार्ड पळोवन लज जावन ल्हवच सगलें तिकिट परतें पटयेंत घालून ताका अर्दें तिकिट पिंजून दिता. ह्या वयार कितें शिकता म्हुण कोणाक विचारच माणसुकी ना. 'नाडूंक शिकता, तुका कित्याक तें ? कार्ड पळे, अर्दें तिकिट दी' अशें सांगूंक तयार ! लोभीं कंडक्टर नमता. पुण सगळी तिकिट काडून सरळ मार्गान बसीतल्यान वतल्यांक मात तो तापयता. घोळून बस म्हुण सांगता. सारको उबो रांवक जायना काय म्हुण विचारता. बसीच्या फुडल्या दारांत रावन फाटीं सरूंक सांगता आनी फाटथ्या दारांत भितर सरून फुडें सर म्हुण सांगता. दारार गर्दी करून राविल्ल्यांक साक भल्लेले भाशेन मर्दी खांचींनीं भरता.. पणजे येवपी वचपी बशी अशो सदांकाळ भल्लेल्यो आसतात. पुण जात्रेक देवीचें दर्शन घेंवक येवचे तशे लोक पणजेच्या दर्शनाक येतात. अर्धा तिकिटांक लागून जावपी तुट हे लुटीक लागून भरता आती वेल्यान बसकारांक बरो फायदो मेळटा. हांगच्या बसींचीं नांबां सोबीत. सरकारचे बसींचें नांव कदंबा तर कोणें आपले बसीक जगदंबा नांव दिलां कोणें बुध,गुरु ह्या गिऱ्यांची नांवां दिल्यांत तर कोणे राजा राणयांचीं आनी अप्सरांचीं नांवां दिल्यात. पुण पणजेचें खरें वाहन म्हळ्यार मोटरसायकल. भाडयाच्यो म्हुण कळपाक तांच्या पंख्यांक हळडुवो रंग मारिल्लो आसा. पणजेंत कामाक आयिल्ले लोक ह्या पांखांचेर बसून भोंवतात. सामान्य लोकांचे वाहन म्हळ्यार सायकली फुटपाथांनीं ल्हान, ल्हान मांड करून सायकली भाडयाक दवरलेल्यो पणजेच्या सगळ्या रस्त्यांनीं दिसतात. हांगा व्यापार करूंक रस्त्यानीं गाडे भोंवतात पुण चडशे गाडे रस्त्यार कायमुच आसतात. दोन चक्रां रस्त्यार आनी दोन

चक्रां फूटपाथार दवरून हांगा गाडे घाल्ले आसात; ह्या गाडयांनीं विडी–सिगार, पान धरून व्हड व्हड सगल्या जिनसांचो वेव्हार चलता. ह्या गाडयांक चक्रां आसांत म्हूण हे गाडे. पुण ही चक्रां आयुष्यांत केन्ना चलनात. चक्रां एकाच जाग्यार दवरून हे गाडे पणजेंत दवरूंक नगरपालिकेन हांका लिसेंसां दिल्यात. रस्यार सासणाचे रांवक हाणीं हक्क सांगचो न्हय म्हूण हांका चाकां दिल्यांत जांवक जांय. सरकारान तांका संरक्षण दिवंक केल्ल्या कायदयांक लागून सरकाराकूच ताणी बुद शिकोवची न्हय म्हूण सरकार सावध आसा. पुण हे गाडे चलनासतना इतलो वेव्हार करतात. चल्ल्यार कितें जावचेलें ? सुर्याच्या रथाक चलूंक खंय एकूच चाक दिलां आनी सारथी म्हूण पांगळो दिला. ना जाल्यार सूर्य आकांत करचेलो ! एक पांय गाडयावेल्यान सकयल सोडून आनी एका पांयान गाडयार मांडी घालून हांगचे गाडेकार पणजेंत सगले तरेचो वेव्हार करतात. तांच्या फाटल्यान फुटपाथाच्या दुसरे वाटेन व्हडलीं दुकानां आसात. गाडे दीसभर आनी बरे रातचे पासून चलतांत. ह्या दुकानांक गुमास्तो लागता आनी ती दनपारची, आनी रात जातकूच बंद जातात. हे दुकानदार आनी गाडेकार म्हळयार पणजेतले आद्य भाटकार आनी नवे भाटकार. हाच्या भाटां मदल्या अरूंद मार्गान फुटपाथावेल्यान लोक भोंवतात. मदींच तांका फुटपाथावेल्यो सायकली मोटारसायकली आड येतात. त्याभायर हांलीं कांय जाण फुटपाथा-चेर वेगळया वेगळया जिनसांचो पसरो घालूनूंय बसतात. पणजेंच्या रस्यां-चेर हें आक्रमण चल्ला. पुण मूळची पणजी धीर गंभीर आसलेल्यान ह्या आक्रमणांक ती बदची ना दिसता. तिका ह्यां आक्रमणापासून वाटांवक पणजेचे शूर पुलिस मदी मदीं धाड घालून हांका फुटपाथावेले कायद्याभायर जाल्ले पसरे कवळूंक लायतात. परते पसरो मांडूक दितात आणि मागीर परतो कवळूंक लायतात. गाडयार मडको लांवक दितात. मदीं एक दीस मडकेकाराक धरतात. दुसऱ्या दिसा परतो मडको चलता. कांय दुकानांनी बारांनी हांगा मडक्याचो जुगार चलता. फुटपाथार मेज घालून हांगा सोर्तीं आनी मडक्याच्या नंबराचीं साप्ताहिकां खपोवपी सोर्तीकार आसात शार आसा थंय हे बाजार आसात म्हूण पणजेकार ओगी आसात. मूळची **पणजी** घट

आसलेल्यान तांचो बाधीकार पणजेक जांवचोना असो तांका विस्वास आसा.

पणजेंत बारीं खुप पुण हेरकडेन पियेवन पडपी आसतात तशे हांगा खुप कमी ! हांगा बारींनी बसून अस्सल पियोवपी व्हडलो बोवाळ करपी न्हय. मात्शें घेवन बोवाळ करतले ह्या शारांत सोबनात. वरांची वरां बारांत वसून हांगा सोरों लागचना. पियेतां–पियेतां कितलीय रात जाल्यार एकमेकाफुडें ऋषी वशिल्ले भाशेन हांगचे पियोवपी बारींनीं टेबला भोंवतणीं एकामेकाफुडे शांत बशिल्ले आसतात. हांगा बारींनी व्हडल्या व्हडल्या गहन विषयांचेर चर्चा चलता. सूर मारल्या उपरांत हांगा चर्चेक सूर बरो सांपडता. पणजेत बारींत पियोवपी भारदस्त दिसता, बरो न्हेसता, अनेक विशयांचेर तल्लीन जावन चर्चा करता आनी भल्लेलो मनीस कसो घरा परतता. मनीस कितलोय भल्लो तरी पणजेचे रस्ते चड हालनात. रस्त्यावेली फोणकुलां, गाडे, सायकली, मोटारसायकली, पसरे, मांड वाटायत तो मार्ग काडीत थेट घरा पावता.

हांगा न भरिल्ले अर्दकच्चे मनीसूच चड बोवाळ करतात. हांगच्या सचिवालयांत माळयेर विधानसभा चलता तेन्ना थंय सभा-गृहांत जो बोवाळ जाता तो आयकून वयर विधानसभा चलता हें नकळ जाल्ल्या वाटेन वतल्या मनशान हांगा वयर कितें नुस्त्या चो बाजार आसा काय बार बी आसा म्हुण विचारून विधानसभेचो हक्कभंग करचो न्हय म्हुण पुलीस विधानसभा चलता तेन्ना लोकांक ती वाट आडायतात. त्या हक्काच्या रस्त्यान लोकांक वचूंक बंदी करून पयशिल्ल्या रस्त्यान तांका सोडटात. हाका लागून विधानसभेंत मारामारी चल्ल्यार पसून कोणाक कळची न्हय हाची वेवस्था जाता. केन्नाय मेजावेले पेपरवेट ना जाल्यार टेबलावेले पुतळे मोखून माल्लेले जनेलांतल्यान भायर पडल्यारूच विधानसभेक रंग आयला म्हुण कळटा. आदिलशहान सुटयेंत रांवक बांदिल्ले हे पलासेंत हीं गोंयची विधानसभा चलता. आदिलशाहीच्या ह्या स्मारकांत काय आधुनिक सुधारणा करून हांगा लोकशाहीचो कारभार चलता नव्या रूपान ही पोन्नी इमारत सुंदर

दिसता. फुडे मांडवी व्हांवता. फ़ांटल्यान गड लागता. एके वटेन मोंहिनी विद्येचो परदेशांत पयलो प्रयोग करपी गोंयच्या सुपुत्राचो पुतळो एके बायलेक मोहनिद्रा घालता तो दिश्टी पडटा तर दुसरे वाटेन गोंयच्या पयल्या मुख्यमंत्र्याचो पुतळो पुस्तकाचेर हात दवरून आनी बार्जीर नदर दवरून मांडवीवटेन फुडो करून उबो आसा.

हांगा व्हडल्यो इमारती नासत पुण जायते कॉम्प्लेक्स आसात. दोन–तीन इमारती एकठांय बांदल्यो म्हणटकूच तांका कॉंप्लेक्स म्हण-चेलो आमका कॉंम्प्लेक्स आसा. हांगा कला अकादमीचो कॉप्लेक्स आसा, स्पोर्टस कॉंप्लेक्स आसा, इन्डौर, आऊटडोर क्‌ॉप्लेक्स आसा. हांगा सरकारी खातींय सगलीं कॉप्लेक्स आसात. ज्युंता हाउज हें उतर तेकोवन सरकारी खात्यांचो एक कॉप्लेक्स तयार केला तसोच राजनि-निवासाक काबु हें उतर लावन दुसरें एक कॉम्प्लेक्स नांव केल्लें आसा. विद्युत भवनांत शेतकी खातें आसा जाल्यार उद्योग भवनांत माहिती खातें आसा. वाचनालयाक लागून पोलिस ग्राऊंड आसा. क्रीडा आनी संस्कृती एकाच खात्यांत येतात. हांगा कला अकादमीक लागून फुटबॉल ग्राऊंड आसा. दुसरे वाटेन जंगल खातें फुलांची झाडा आनी जळव विकता. ताका लागून भुरग्यांचे उद्यान आसा. ही रचना इतली कॉंप्लेक्स आसून पसून पणजी आपली सोबीताय राखून आसा, त्या भायर, जातीचे, धर्माचे, अल्पसंख्यांकांचे, भायल्यांचे, भितल्ल्यांचे, सगल्यांचे कॉंप्लेक्स पचोवन पणजी सादी, धीट आनी सुंदर उल्ल्या.

पणजेंत कवि, साहित्यिक, बरोवपी, खुप. हांगचे तरनाटे बऱ्यो-बऱ्यो कविता, आनी नाटकां बरोवपी. थोडयाच उतरांनी खुप सांगपी. कथा–कविता ते बरयतात. हांगा कांय जाण्टे कविय आसात. तांका महाकाव्याचो ध्यास लागिल्लो आसा. महाकविच्या पावलांचो आवाज आयकुंक येता असो तांका भास जांवक लागला. कांय जाणांक आपल्याच पावलांचो आवाज आयकून महाकवि येता सो दिसता. ताका पालखेंत बसोवन पणजेंत भोंवडांवक तांका बारा हात रस्तो

जाय. पणजेची नगरपालिका हालींच्या दिसानीं रस्तें रुंद करता पुण तें कविकुळगुरुक लागून न्हय तर राष्ट्रकुलांतल्या जेष्ठ फुडाऱ्यांची हांगा परीशद जावची आसा तांका लागून म्हुण खबर मेळटा. पुण पणजेंत महाकाव्य बरोवपी एक महाकवि फुडें आयलोना तरी बरें काव्य बरोवपी जायते कवि आसात. जायते बरे साहित्यिक आसात. कोणेय तांका महाकवि येता म्हुण भंय घालों तरी तें मेळटा त्या विशयांचेर तरातरांचें साहित्य बरयतात. रामा भशेन आदर्श मनीस पणजेंत तयार जायना म्हुण वाल्मिकी भाशेन तांका महाकाव्य बरोवंक स्फुर्ती येना. पुण कसल्याय विशयाचेर कथा–काव्य बरोवपी हांगा व्हड तांकीचे साहित्यिक आसात. पणजेंत रामाभशेन आदर्श मनीस दिसलोना तरी रामाक सीतेकडे घटस्फोट घेंवक लावपी, मडवळादरी समाजाक धुवपी भांडवलदारांचे दास खबरेकार आसात. आदर्श सीता हांगा मेळिळना तरी प्रेमभंग करपी चलयेचेर हांगा सोबीत कविता बरयतात. अशेंय आसून कोण तरी महात्मो पणजेत अवतरतलो आनी ताचेर महाकाव्य बरयतलो महाकवि सांपडटलो म्हळयार पणजेंत कोण कोणाक व्हड करूंक तयार ना. महात्मो ह्या उतराक पसून ल्हान करून आमी म्हात्मो केला एकाद्रो कोणूय हांगा आपुण महाकवि जातलों ह्या थाटान शेलो पांगरून भोंवंक लागलो जाल्यार ताका आमी वाल्मिकीचो मान दिवंक कठीण. ताका आमी वाल्याच म्हणटले आनी ताच्या शेल्याक वालोच म्हणटले. पणजेंत व्हडले संग्राम ना जे पळोवन महाभारत बरोवचें. पुण हांगा ल्हान –ल्हान झगडीं आसात, वाद आसात, केस्तावां आसात. हांगा बरोवंक जायते विशय आसात. हांगच्या बारीकसाणींचेर जायते बरोवपा सारके आसा. हांगा मांडवीचेर, जुवारीचेर काव्य बरोवपी आसात. मीरामार जाल्ल्या प्रेमाचेर, प्रेम कविता बरोवपी आसना. बसींनी भोगिल्ल्या यातनाचेर हांगा जायतें बरोंव येता. वाटेन वतता हांगा बरोवचे जायते विशय मेळटात. हांगा नाच आसात, गीतां

आसात, मांडे आसात, रेंदरांची कातांरां आसात. जीणेंतले ल्हान-व्हड अणभव भोगून कथा-कविता बरोवपी आसात. माचयेर नाटकां करपी आसात.

हांगा वर्तमान पत्रांनीं बरोवपी आसात, कादंबऱ्यो बरोवपी आसात, कथा बरोवपी आसात. समन्वयवादी साहित्यिक आसात तशेंच खाड वाडोवन क्रांति करूंक फुडें सरिल्ले क्रांतिकारक साहित्तिक आसात. कवि-संमेलनां गाजोवपी कवि आसात. परिसंवाद फुलोवपी लेखक आसात. साहित्य संमेलनां यशस्वी करपी वावुरपी आसात. हांगा एकल्याक महाकवि जांवक मेळूंक कठीण. पुण सगल्यांक कवि-लेखक जांवक संद आसा. हांगा ल्हारांचेर कविता बरैतल्यांक आनी रस्त्याचेर कथा बरैतल्याक संद मेळटा. देवाचेर बरोंवक हांगा संद आसा तशी देवळाचेर बरोंवक संद आसा, हांगा म्हात्से आसात तशेंच म्हाजन आसात. गुरू आसात तशे गुरव आसात. भट आसात तशे भाट आसात. तांच्या धंद्याचेर बरोवपी हांगा जायते मेळटात. हांगा संग्राम नासत पुण केस्तांवां आसात. गडगडो आसा. चमत्कार करपी बाबा नासत पुण जादू करपीं जादुगार आसात. राज्याक लागून झगडपी बापोलभाव नासत पुण भूंयेक लागून झगडपी भाव आसात. व्हडले संग्राम करचो हावेस नासत, ल्हान केस्तावां करची खुरखुरी आसा. पणजेंत केस्तावांक कारणां खरो मळचार व्हडलीं नात. झगडीं करून कांय मेळना आनी व्हडलेश काय वगडावना.

पणजेच्या रस्त्यान वतना चिंतूक नासतना हालीं म्हजें एक केस्तांव जालें. त्या दिसानी आदिवासी वैंजांचें एक भिरेंच कशें पणजेंत आयिल्लें. रस्त्या-रस्त्यांनीं वाटेर रानांतल्या झाडापाल्यांच्या वखदांचें मांड घालून ते बशिल्ले. फुटपाथार इतले मांड आसात तांतूत काय दिसांक पडिल्ल्या माणांनी पणजेचे कांय वचना अशें म्हाका दिशि ल्ल्यान म्हाका तांचें व्हडलेशें वायट कांय दिसलेंना. परतें जाल्यार

चड तेंप म्हारगीं वखदां घेतिल्ल्यान हे सवाय झाडपाल्यांचीं वखदां दितात म्हुण तांचे कौतुक दिसलें. तांतूत तांचो ऋषीचो भेस पळोवन पणजेंत ऋषीकेशूच अवतरलां अशें दिसून म्हज्या मनाक समाधान जालें

आयचें वैजकी ज्ञान खुप फुडें पावलां. पयलीं असाध्य आसलेले कितलेशेच रोग हालींच्या वैजकीं मळावेल्या शोधांक लागून बरे जातात. हें ज्ञान प्राप्त जाल्ल्यान हालींच्या दोतोरांक मान आसा आनी तांका पैसोय खुप मेळटा. आमच्या गांवचे हालीचें दोतोर खुप गिरेस्त आसात.

गांवच्या समाजिक, शिक्षणिक आनी राजकी मळार ते वावुर-तात. आपलों धंदो बरो चलिल्ल्यान तांका हेर मळार वावरूंक खुप सोपे पडता. पुण म्हज्या भुरगेपणांत हांव पळेतालो तो गांवच्या लोकांक चड पैशे घेनासतना जांव एकादें फुकट पसून झाडां–पाल्याची वखदां दिवची आनी पैशे चड करीनासतना पसून समाधानी तसोच गांवचे बलांयकेचो भार घेतिल्लो ऋषी कसो सोबपी वैजूच. तो म्हज्या मनांत आदराचें वेलें स्थान घेवन आसा. – हाका लागून भेसान ऋषी कसो आशिल्लो, चड पैसे घेनासतना झाडापाल्याचीं वखदां दिवपी हो वैज मार्गार पळोवन कॉन्सुलतरींनीं दोतोराफुडें वच्चों ताचे परस आपलेपणान हांव ताचेसरीं गेलों . सर्टिफ़िकेट आसलेल्या वैजापरस सर्टिफ़िकेट नासलेलो वैज अदीक सांबाळून वखदां दिता असोय म्हाका पयलींचो अणभव आसलेल्यान ह्या रानांतल्यान येवन शारांत विस्वास संपादूक सोदतल्या वैजा डें वसुंक म्हाका तितको भंय दिसलोना.

आमच्या वैजान फुटपाथाचेर कांबळ पांगरून ताचेर तरा-तरांची झाडापाल्याची, पाळां–मुळांची वखदां पातळायल्लीं.

त्या भायर कांय जनवरांची शिंगां ताणे आपले कांबळेचेर मांडलेलीं, तां वे लागी कसलेंच प्रमाणपत्र नासलें. पुण त्या बदला कांय मंत्र्या वांगडां काडलेले आपले फ़ोटो ताणे आपले कांबळीचेर ओखदां फुडें मांडलेले. कांय मुख्य मंत्र्यांचे तशेच कांय केन्द्रीय मंत्र्यांचे फ़ोटोय तांतुंत आसले. हो वैंज फुटपाथाचेर केन्ना ओगी बसून दिसनासलो. कोणाची नाडीपरीक्षा करतालो. जांव कोणाक आपलीं वखदां बांदून दितालो नाजाल्यार आपल्या खलबत्यांत कसाय कुटीत आसतालो. ताच्या कसाय कुटाचो आनी फ़ोटचार दिसतल्या कांय राजकी फुडा-र्‍यांच्या कुटनीतीचो कितें संबंद आसलो कोण जाणा! पुण त्या फ़ोटयांवेल्यान अशें दिस किं ह्या गिरीजनां वांगडा फ़ोटो काडून घेवपाक आमच्या फुडार्‍यांक जितलें हिताचें दिसलां तितलेंच आमच्या वैंजाक तांच्या वांगडां फ़ोटो काडून ताचें प्रदर्शन करपाक फ़ायद्याचें पडलां. तें कशेंय आसूं. देशाचे बलायकेच्या वावरांत हे आदीवासी वांटो घेतात हें पळोवन बरें दिसलें; देशाक लागून वावर करतना नाडपी जायते जाण आसत पुण ह्या वैंजान वखदां दितना नाडपणां केलींय जाल्यार तीं तितलीं बादसारकी नात हाची खात्री दिसताली.

नाडीपरीक्षा करूंक तो पंचवीस पैसे घेतालो. हांवें पंचवीस पैसे दिवन नाडी परीक्षा करून घेतली. वैंजान म्हाका व्हडलेशें दुयेंस ना म्हुण सांगल्या उपरांत म्हाका बरें दिसलें. मागीर ताणें म्हाका भायरेचें एक झाडापाल्याचें ओखद दिलें. ताचेय मोल पंचवीस पैसे आसलें. तें हावें तांका फ़ारीक केलें. इतल्यान बरें दिसता जाल्यार पळें अशें ताणें म्हाका सांगतकूच हांव थंयच्यान उठूंक लागलों. तेन्ना थंयच्यान वाटेन वचपी एक मनीस वैंजासरीं आपलो आनी ताणें वैंजाक हिन्दींत विचारलें—

"तू खंयचो?"

ताणे हो प्रश्न वैंजाक इतलो रागान विचारिल्लेलो किं आमचो वैंज आनी थंय जमिल्ले तांका पळेत उल्ले.

"हांव विचारतां तूं खंयच्यान आयलो?" ताणें अदीकनेटान प्रस्न केलो. ताणें ज्या सुरात हो प्रस्न केल्लो त्या हिसपान ताका जाप दिवची नासली. सगळे आवयच्या पोटांतल्यान जल्माक आयल्यात अशी जाप अशा प्रस्नाक एका सभ्य मनशान दिल्ली हांवें आयकल्ली. पुण आमच्या वैंजान ताका सभ्यपणान सांगलें कि आपुण आंध्रां-तल्या एका रानवटी प्रदेशांतल्यान आयलां आनी आपुण एक भिल्ल आसां आनी रानांतल्यान हाडिल्लीं वखदां दितां.

"हांगा तूं कितें करता?" ह्या मनशान परतें विचाल्लें ताच्या हिन्दी उतरांवेल्यान ताका हिन्दी बरी कळना, तो हिन्दी सारकी शिकिनाशिल्लो गोंयकार आसूंक जाय हें म्हाका कळ्ळें. "म्हाका दिवंक तुजेकडें कितें वखद आसा?" ताणें वैंजाक विचाल्लें. वैंजान ताका जाप दिली —"तुजी पयली नाडी तपासाची पडतली."

ही ताची उतरां आयकून आमचो गोंयकार आड्डँलो 'तुमी सगळे फ़टींग. हांगा आमकां नाडूंक आयल्यात."

म्हाका वखद दिल्या उपरांत ताका हांव म्हजो दोतोर मान-तालों. दोतोर नाडटा जायत. मनशाक दुवेंस जाता तेन्ना दोतोर नाड काय न्हय हाचो विचार करचे भानूच उरना. बरो जातकुच मात आमी ताचेर विचार करता. असो जायते पावट बरो जात-कूच म्हाका आमच्या दोतोरांनीं गरजे भायर चड फ़ी घेतिल्याचें जांव गरजे भायर आडावन दाखयल्ल्याचें आनी म्हारगीं वखदा दिल्ल्याचें भान यंतालें. पुण दोतोरांचे उपकार विसरूं नज. पुण हो फुटपाथ-वेलो वैंज नाडूंक आयला हें खरें धल्लें तरी सामकेंच प्रमाणपत्र दिवपां इतलो तो खांपो नाडपी नासलो आनी चड पैशांक नाडचेलोय ताचो हावेस नासलो.

"हीं कोणाचीं शिंगां?" कांबळेर काय जनावरांचीं शिंगा मांडिल्लीं पळोवन दोतोराची झडती घेवंक आयिल्ल्या ह्या मनशान

विचाल्लें. दोतोरान आपले परीं ती खंयच्या खंयच्या जनावरांची शिंगां ते सांगूंक सुरवात केल्याबराबर ताका मदींच आडावन ह्या निरी-क्षकान ताका विचाल्लें "हें शिंग तुजें न्हय ?"

दोतोरासभोंवतणीं पयलीं ताचीं वखदां बरीं पडत काय म्हुण येवजित जनलेले लोक आता दोतोराची मजा जाता तें पळोवन आपली दुयेसांची चिंता विसरून दोतोराची मजा जाता ती पळोवन ताका हांसूंक लागले.

जमिल्ल्या लोकांचो तात्पुरतो तरी तेंको पळोवन ह्या मनशान अडयचो नेट हाडलो आनी ताणें वैंजाक सांगलें "आतांच्या आतां हांगच्यान उठून वच. तुमी हांगा लोकांक नाडूंक आयल्यात. बऱ्यान हांगच्यान वच. नाजाल्यार बरें जावचें ना." वैंज आपलें आयकून थंयच्यान वतालो अशें धरून तो थंयच्यान वचूंक लागलो.

तो चड फुडें वचुंकूच ना वैंजान म्हाका म्हळें. "पळें, हो मनीस कसली उतरां उलयता हाणें संसार पळोंवक ना दिसता, हो भायर खंय वचूंक ना दिसता; म्हुण हो असो उलयता."

हांवें वैंजाक सांगलें कि ताणें तें मनार ना घेतिल्लें बरें.

वैंजाक हुकूम दिवन गेल्लो हो मनीस हीं उतरां ताच्या कानार पडिल्ल्यान परतलो आनी वैंजाक ताणें धरधरायत म्हळें. 'कितें ? कितें म्हणतालो तूं ? हांव भायर भोंवक ना ?"

केस्तांव सोपिल्लें काय दिशिल्लें तें परतें सुरू जालें. आपणें ताका न्हडलेसें वायट कांय म्हणूंक ना अशें वैंज सांगतालो जाल्यार शेंपडेर पांय पडिल्ले भाशेन हो दुखावलेलो मनीस फोंस–फोंस करून वैंजाच्या आंगार वतालो. वैंज फाटीं सल्लो आनी आपणें व्हडलें कांय वायट म्हणूंक ना म्हुण सांगूंक लागलो तेन्ना हो दुखवलेलो मनीस म्हजेकडे वळून म्हाका विचारूंक लागलो, "तूंय ताचें आयकता? तू म्हाका वळखता ?"

हांवें ताका सांगलें कि हांव ताका खरेंच वळखूंक ना. ताका

हावें फुडें समजावन सांगलें कि असो राग धरून ताणें कोणाच्या आंगार वच्ची गरज ना. तो वैज कोणूय आंसू ताचेर ताणें तापची तशी गरज ना.

'तू ताचो पाखो घेता ? ' ताणें म्हाका विचाल्लें. 'तू खरो गोंयकार ? हो मनीस हांगा येवन आमका बुद शिकयता आनी तूं ताचें आयकता ?''

हवें त्या गोंयकाराक सांगलें, 'गरज नासतना दुसऱ्याच्या आंगार वच्ची कसली गरज ? तुवें ताका नाका जाल्लीं उतरां दिल्यां तेन्ना ताणें कितेंय म्हळें जाल्यार असो. रागार जावची गरन ना ; हांवूय गोंयकार पुण तुवें कितेंय म्हळें जल्यार हांवें तें मानचें अशें ना.''

''तू गोंयकार ? गोंयकार, जावन अशें उलयता ?'' ताणें तापून विचारलें '' गोंयकाराक कितें शिंगा आसतात ?'' अशें ताका विचारशें म्हाका दिसलें. पुण म्हाका हांव गोंयकार हें ताचे फुडें सिद्ध करची व्हडलीशी गरज दिसली ना आनी ताचो तो वीरभद्राचो अवतार पळोवन तो मेळत त्या उतराक बेठोच खुबदळटलो अशें दिसून हांव ओगी रावलों. पुण हो शिगम्यांतलो गोंयकार मात आतां त्या वैजाक नाका जाल्ल्यो जास्ती सांगूंक लागलो. 'तू चोर, फ़टींग, नाड, हांगा येवन आमका पिशे करता ?'' ताणें आवाज चडयलो आनी भोंवतणचो आ ीक लोक थंय मौज पळोंवक एकठांय जालो. लोक जनतात तें पळोवन ताका अदीक नेट आयलो. वैजाचीं तो आतां फ़कांणां करूंक लागलो. ताचीं वखदां हांगा थंय करून हीं कसलीं वखदां म्हुण ताका विचारूंक लागलो. आनी तो तीं कव-ळना जाल्यार तीं आपुण भायर उडयतलों पुण ताका परती परती धमकी दिवंक लागलो. जमिल्ल्या लोकांक ही फुटपाथाचेर पातळा-यल्लीं वखदां बरीं काय वायट हाचो आजून व्हडलोसो अणभव नासले-ल्यान तीं भायर उडोचेलीं काय कितें हाचो सारको अंदाज नासलो. त्या वैजान फुटपाथाचेर पातळायलेलीं वखदां बरीं न्हय अशें

सांगून ती भायर उडोचेलें धैर्य त्या मनशाक येंवक लागलां तेन्ना तें ताचें धैर्य खरेंच तगुन उरता काय किते आनी तो बखदां खरींच भायर उडयता काय कितें तें पळोंवक तें धर्मयुद्ध पळोंवक उबे रावतात तशे उबे रावले. इतल्यान त्या मनशाचो एक इष्ट हे गर्दीतल्यान फुडें आयलो आनी कितें गडबड जाल्या काय म्हुण विचारूंक लागलो. आपल्या इश्टाक त्या वेळार पळोवन ताका धीर आयलो. फ़टकिन्या वैजाक आपुण धांवडायतालों आनी एक गोंयकारूच आपल्याक आडांवक लागलो हे ताणें आपल्या इश्टाक सांगल्या बरोबर वेळ करी नासतना ताच्या ह्या साथीदारान वैजाच्या खाडाक धरून ताका हालयलो. हो ताचो साथिदार आंगान धिप्पाड आसलो. ताणें व्हडलें खाड दवल्लेलें आनी ताजो चेरो रागीट आसलो. ताच्या खाडाक लागून ताचो चेरो अदीकुच भयाक्रत दिसतालो. वैजाच्या खाडाक हात घाल्याबराबर लोक हांसूक लागले. तितलो हो मनीस ताचें खाड, धरून अदीक हालोवपाक लागलो. निशाणाक हात घाल्या बराबर शत्रु सैनिकांमदें सांपडलेल्या सैनिकांचें तोंड देवचें तशें वैजाचें तोंड ताच्या खाडाक धरतकुच देविल्ले दिसूंक लागले.

जैत जाल्ले भावनेन मागीर म्हज्या गोंयकार विरोधकान म्हाका बोट दाखयत म्हळ्ळें "आनी हो गोंयकार त्या वैजावटेन आसा."

कांय जाण म्हजेकडे पळोवन हांसले. सैनिकाची वाट लायल्याउपरात हेर सांपडचो तसो हांव सगल्या मदीं अशे दुर्दैवी परिस्थितींत सांपडलेलों.

'कितें सांगता रें? उलय आतां! म्हज्या विरोधकान म्हाका आव्हान दिलें.

ताका जाप दितना हावें ताका सांगलें, "ताका असो त्रास दिल्लो म्हाका बरो दिसिना." 'शट अप!' ताच्या खाडया साथीदारान म्हळें, आनी म्हजे तोंड मदीचे बंद केलें? "म्हज्या आमिगाचें आनी ह्या बोकडयाचें कितें जालां तें पळोंवक हांव हांगा आयलों.

पुण तूंय ताचे वाटेन आसा तूं गोंयकार काय कोण रे ?"

'हांव गोंयकार. आनी गोंयकार म्हुण हांव तुमका सांगतां ताका गरजेभायर दुखोवप हें तुमका सोबना" हावेंय आतां नेट केलो.

"तूं गोंयकार ? तूं कोण जाणा ?" मागीर ताणें हांव कोण तो म्हाका सांगलो. वेंजाक खाड आसा म्हुण ताका ताणें बोकडो म्हळ्ळो. पुण म्हाका ताणें धुकोर कित्याक म्हळो तें म्हाका कळ्ळेना. गरजेभायर दुसऱ्याक दुखोंवनाका अशें मळचार हांव धुकोर जालों काय कितें हें म्हाका समजलें ना. पुण लोकांक एक तमाशा पळोवक मेळ्ळो. ते हांसले.

ते दोगुय जाण बरे शिकिल्ले जांवक जाय कित्याक तर ते आतां आपले मदें बरे इंगलेजींत उलोंवक लागले. हांव कोण तो म्हाका इंगलेजींत भाशांतर करून ताणीं सांगलें. आनी म्हाका हिणोंवक आनीकूय कांय इंगलेजींतूच सोबतात अशीं उगाक उतरां दिलीं. हावेंय तांका इंगलेजींत पुण समजावणेच्या उतरांनी सांगलें कीं, ताणी म्हाका कितलींय उगाक उतरां दिलीं म्हुण ते व्हड जायनात आनी गोंयकारणांचो खोटो अभिमान धल्लो मुण ते व्हड गोंयकार म्हुण सिद्ध जायनात."

आपुण इंग्लेजींत उलयतात ते ते विसरलेले ताणीं म्हाका म्हळ्ळें "कित्याक इंग्लेजींत उलयता रे ? आमचे भाशेंत उलय. गोंयकार न्हय तूं ? सगळ्यांक कळूंक दी तूं कोण तो. आरे, तूं गोंयकार जाल्यार कित्याक जंगली जालो रे ?"

लोक हांसूंक लागले. आतां तांका फुडें कोंकणींत उलोवचेलें आसलें. हो लोक आपले वाटेन आसतलो हाची तांका खात्री जालीं. तांका कळटा ते भाशेन उलयल्यार लोकांचो आपल्याक अदीक आधार मेळटलो अशें दिशिल्यान ताणीं म्हाका आमचे भाशेंत उलोंवक सांगिल्लें.

थोडया वेळापयलीं दोगूय म्हजकडे इंग्लेजींत उलोंवक लागिल्ले म्हुण हांव तांचेकडे इंग्लेजींत उलयतालों. जेन्ना म्हाका ताणीं

आमचे भाशेंत उलोंवक सांगलो. तेन्ना ते परिस्थितींत पसून म्हाका तांचो अभिमान दिसलो.

एका वेळार आमच्या गोंयची राज्यभाषा कोंकणी आसची आनी ती सगल्यांक समजूंचेली भास ह्या तत्वाक लागून जाल्ले चळवळींत हांवें वांटो घेतिल्लो. हे पयलीचें इंग्लेजींत उलोवपी गोंयकार म्हाका कोंकणींत उलय म्हुण आग्रो करतात हे पळोवन तें म्हाका म्हजें जैत कशें दिसलें.

पुण कोंकणीच्या खऱ्या मोगान उलोवचे परस त्या वेळार आपल्या पथ्यार पडटा म्हुण म्हाका ते कोंकणींत उलोवया म्हणटाले हें सारकें समज सारकें आसलें. पुण तरी ते कोंकणींत उलोंवक लागले ही व्हड अभिमानाची गजाल आसली. मागीर म्हजो विरोधक लोकांकडे कोंकणींत उलोवन तांका सांगूंक लागलो, 'पळे हो गोंयकार जावन तो ह्या रस्त्यावेल्या वंजा वाटेन रावन म्हजे-कडें झगडटा.'

उपरांत जमिल्ले लोक पयलीं कितें घडिल्लें हे खबर नाशिल्ल्यान तांच्या गोंयकारपणाक आव्हान दितकूच म्हज्या विरोधकावाटेन राविल्ले हें म्हाका ते हांसतात तावेल्यान दिसतालें तो मागीर म्हजें अनीक फकाण करूंक म्हाका आनीक आनीक वायट उतरां दिवंक लागलो. आनी लोकांक आनीक हांसोवचो प्रयत्न करूंक लागलो.

त्या वेळार थंयच्यान एक गोंयकार पुलिस वतालो तो कसलो बोवाळ काय म्हुण पळोंवक मात्सो थारलो. ताका हांव वळखतालों. एका वेळार पैशांचे गरजेच्या वेळार हांव ताका पावलेलो. तो तरी म्हजे वाटेन रावत काय म्हाका दिसलें. पुण गरजेक पाविल्लो मनीस आसलो तरी अशा खर विरोधांत सांपडलेल्या मनशा वाटेन रावचें हिताचें न्हय असो विचार करून ताणें थंयच्यान बेगीन बेगीन फुडें वच्चे पयलीं म्हळें 'कोण तो ह्या मनशाक लागून झगडटां? ह्या मनशाक फुटपाथावेल्यान खोटों मारून धांवडांवक जाय, फुटपाथा-

चेर आपल्याक फ़ायद्याक पडना अशें कितेंय आडखळळयार जांव थंय त्या वेळार आपल्याक फ़ायद्याक पडचोना असो कोणूय दिसल्यार ताका खोट मारून उडोवचेली आमचे पुलिसेंची संवय ताच्याय आंगांत रिगलेली. तो आनीक कांय उलयनासतना जांव थंय आनीक उबो रावनासतान तोंडान खोटो मारूंक जाय म्हुण सांगून थंयच्यान फुडें गेलो.

तोंडान तरी सगल्यांकडल्यान आपल्याक तेंको मेळटा अशें म्हज्या विरोधकाक दिसतालें. हांव म्हज्या वेंजावाटेन आनी म्हजो वेंज म्हजे वाटेन अशें आमी दोगूच एके वाटेन उरले काय दिसूंक लागलें. पणजेची तो फुटपाथ तरी म्हाका थंय थीर रांवक दितलो काय असो हांव मनात विचार करूंक लागलों. म्हजेर चडसो लोक विरुद्ध आसा अशें पळोवन म्हज्या विरोधकाक नेट आयिल्लो. तो आतां व्हडान गरजूंक लागलो, "हो पळेयात एक फ़टींग वेंज. आमच्या गोंयांत बरे-बरे वेंज आसून हो आमका वखदां दिवक आयलां. हें ताणें हाडलीं तें भायर उडोवचेलें". त्या वेंजाची काय वखदां भायर उडोवचेलीं म्हुण ताचीं वखदां भायर उडोंवक ताणें हात घालो.

त्यावेळार म्हज्या मनाक ह्या पणजेच्या फुटपाथाचेर एक अगतिक मनशाक पळोवन वेगळो धीर आयलो. हांव लोकांमदी उबो रावलेलों तो अकस्मात दुसरे वाटेन वचून जमिल्ल्या लोकांचे आनी वेंजा मणगतीं वचून उबो रावलों. हावें थेट जमिल्ल्या सगल्या लोकांक आव्हान दित म्हळें—"तुमी सगलें गोंयकार म्हजे विरुद्ध गेले तरी हांव ह्या मनशावाटेन रावतलों. तो खंयचोय आसू. आंध्र प्रदेश. चो, मध्य प्रदेशचो, जांव संसारांतल्या खंयच्याय प्रदेशाचो. ताका आनी ताच्या व्यापाराक कोणाक हात लावंक मेळचो ना. म्हजेर हात घाल्या बगर कोणाक ताचेर हात घालूंक मेळचो ना. ताणें तुमचें कांय वांकडें करूंक ना. तेन्ना ताचें वांकडें जाल्लें हांव हांगा

पळोवचोना. तुमी सगले गोंयकार म्हज्या विरुद्ध जल्यर चलता पुण हावें ताचे वाटेन रावतलों." अशें म्हुण संसारांतल्या सगल्या प्रदेशाच्या सैन्यांचो अधिपती कसो हांव थंय धीरान उबो रावलों. 'तुमी कोणूय ताका हात लावक फुडे सरशांत तर मदी हांव येतलों. अशें हांवें परतें सांगलें लोकाक खरें म्हळ्यार कोणा-चेर हात घालचो नासलो. तें मौज पळेताले. सगळे ओगी रले वा.

पुण हांव जरी सगल्या संसाराच्या सैन्याचे फुडारपण करपी कसो थंय आसलो तरी म्हजे वाटेन एकुच भिल्लो सैनिक आसलो आनी तोय हांव झगडूंक चड फुरफुरत जातयार पळपाचे स्थितीक पाविल्लो. म्हजे विरूद्ध त्या मानान ल्हान गोंयचे सैन्य आसलें तरी तें सैन्य आंकडयान बरेंच व्हड आसलें. तें ताणें पळेल्लें. पुण हांव थंय भिटायेन उबो रावलों.

म्हजो व्हड फ़ायदो नासतना रस्त्यावेल्या एका मनशाची राखण करूंक हांव धिटायेन उबो रावलां हे पळोवन जमिल्ल्या जायत्या जाणांक म्हाका हांसप बरें न्हय शें दिसलें. म्हजे नदरेक नदर मेळ्ळ्याबराबर तांतल्या जायत्या जाणांची नदर सकयल वताली. कांय जाण थंयच्यान पसार जाले. उल्लेल्यांक हांवें एक प्रस्न केलो. "अशेतरेन ताका धांवडांवप तुमकां बरें रदसता?"

कोणें म्हाका जाप दिलीना. म्हजे विरोधकुय व्हडलो कांय प्रतिकार करीना हें पळोवन आनीक जायते जाण थंयच्यान कडसल्ले.

थोडो वेळ थंय शांतता पसल्ली. लोकूय पातळ जाल्लो. तेन्ना म्हजे विरोधक सगळे आपले वाटेन पयलीं भशेन ना हे पळोवन म्हजो सरीं येवन म्हणूंक लागलो, 'तू हाचे वाटेन कित्याक ? तू तुका व्हडलो समजता ? तू म्हाका वळखता ?'

हांवें ताका सांगलें किं हांव ताका वळखना.

"तर हांव तुका वळखतां ? म्हज्या विरोधकान म्हाका म्हळें.

गोंयच्या मुखर मंद्राक मस्को मारून तू वयर सल्ला जायत. पुण हांव न्हय. हांव कोण जाणा? म्हाका तू वळखना? हांव इंजिनिअर. त्या भायर हांव अंतर्राष्ट्रीक प्रमाणपत्र आसलेलो व्हॉलिबॉल रेफ़री? हें तुका खबर ना? काय खबर आसून ना म्हणटा?"

तो अंतरराष्ट्रिक पातळेवेलो रेफ़री आनी हांव सकल्यान गेर मार्गान वयर सरिल्लो मनीस हांतलें कांयच म्हाका कळसारकें नासलें जायत्या जाणांक मात हें आमचें झगडें अंतरराष्ट्रिक पातळे वेल्यानुच न्हय आनी गोयचे पातळेवेल्यानूच न्हय तर सामके वैयक्तिक पातळे चेर आयिल्लें पळोवन आमच्या झगडयांत व्हडलोसो रस उल्लोना आनिकूय लोक थंयच्यान पयस जाले. जांका वेल्या पांवडयावेल्या झगडयापरस सारकें वैयक्तिक पांवडयावेलें झगडें रूचतालें अशें काय जाण मात थंय उल्ले.

म्हाकाय हो म्हजो विरोधक कोण तरी पणजेचो नागरीक, पणजेचो अभिमान धरून पणजेचे बऱ्याक लागून पायसेवेल्या आड-खळ जाल्या वैजाकडे झगडपी सो दिसलेलो. तो असो आपल्या अंतर्राष्ट्रिक तकटचा नेटार म्हज्या म्हाका खबर नाशिल्ल्या मस्को मारून मेठयल्ल्या व्हडपणाकडे विरोध मांडपी म्हुण कळटकूच म्हाका ताच्या विरोधाक व्हडलोसो पणजेचो आशीर्वाद मेळूक कठीण अशें दिसूक लागले.

पयली गजाल म्हळ्यार आमचे पणजेंत खेळपी जायते आसात. बरे फुटबॉल, हॉलीबॉल आनी हेर खेळपी आसात. अंतर्राष्ट्रीक नाम्नेचे खेळपीय कांय जाण आसात. तांची आमी अपुर्बाय करतात. पुण अंतर्राष्ट्रिक नाम्नेचो रेफ़रीचो पणजेन केन्ना अभिमान धल्लो ना. जांव तसो कोण आसल्यारूय ताका व्हडलोसो कोण पणजेंत मानीनात. पणजेंत बऱ्या–बऱ्या रेफ़रीची हाफ़– क्रॅक म्हुण लोक गरजेभायर फ़काणां करतात. खेळगडयांक हांगा मान, रेफ़ेरींक मारूंक पसून बतात.

खेळांत रेफ़री जाय. पुण खेळटल्यांचे म्हत्व ता यात व्हरूंक नज. ताच्यान मेळततेन्ना पिल्लूक मारूं नज, ताणें सांबाळून खेळ चलंकदिवक जाय. तसो राजकी मळोरूय आमी खूप खेळ चलयला. राजकी खेळगडयांक आमी मानतात. आपल्याक राजकीय. मळावेल्या खेळाचे निरीक्षणं, परीक्षण करपी अशें आमचे वर्तमान पत्राचे संपादपी समजतात. पणजेंत हे संपादकी चडशे भायल्यान हायल्यात निज पणजेचे अभिमान धरीसारके संपादपी खूप कमी. हे भायल्यान आयिल्ले रेफ़री केन्ना– केन्नाय गरज नासतना पिल्लूक मारूंक लागत-कूच आनी खेळाचो बेरंग करूंक लागतकूच आमी तांका परते धाड-टात आनी दुसरे हाडटात.

बरें, म्हज्या खंयच्या गुणांक लागून म्हज्या विरोधकाक हांव सत्तेर आसलेल्यांक मस्को लांवक पावलों अशें दिसलें तेंय म्हाका कळळें ना.

कोंकणी भाशेक मान्यताय मेळूंक जाय आनी हे भाशेक लागून गोंयांक मेकळें राज्य मेळूंक जाय हें चळवळींत होंवें वांटो घेतिल्लो. आमची तेन्नाची मुख्य मंत्रीण गोंय शेजारच्या प्रदेशाक दसोंवक जाय ह्या पंगडांत आसली त्या पगडाक आमी खंयूय शेजरा गेल्यार बरें उरतले अशें दिसतालें. शेजरा स्वर्ग आसा आनी थंय कितेंय केल्यार सुख मेळटा अशे जायत्या जाणाक तेन्ना दिशिल्ल्यान त्या पंगडाक तेन्ना भौमत मेळ्ळें आनी शेजरा सर्गांत सुख भोगून वचूक सोदतल्यांची ती फुडारी जावन मुख्य मंत्रीण जाल्ली. खरें म्हळचार गोंय शेजारच्या राज्याक दसयल्यार तिका कसली पदवी मेळटली आसली कोण जाणा पुण आमचे चळवळीक लागून गोंय वेगळे उल्लेल्यान ती मुख्यमंत्रीण तरी जावक पावली पुण तेन्ना आमी मात आमचे चळवळीक लागून तिच्या विरोधांत उल्लेले.

आमच्या शेजराची एक धुव एक श्रीमंताच्या घरा पडल्या. भुरगेपणांतल्यात हांव तिचो वळखीचो शेजारी जाल्ल्यान केन्नाय हांव

तिच्याधरा वता. तेन्ना ती म्हाका केन्ना समाधानी दिसना. आपल्याक मेळ्ळा ताचे परस बरो धोव आपल्याक फ़ाव आसलो अशें तिका दिसता. भुरगेपणांत सावन तिका सिनेमाची गोडी आसली ती हांवें पळेल्ली. हें सिनेमा पळोवन तिची कल्पना जाल्या कि आदर्श धोव म्हळ्यार सिनेमांत दाखयतात तसो एक व्हड बरोच श्रीमंत, नित्य बायले फाटल्यान मोगाक लागून जार्दिनांनी मोगाची गीतां म्हणींत धांवपी, प्रेमान पिडलेलो मनीस. आमचे शेजारचे धुवेक दिस कि आपलो धोव गिरेस्त आसलो तरी नित्य आपल्या फ़ाटल्यान मोगांगीत म्हणपी न्हय. आपा–लिपा खेळत जार्दिनांतल्यान धांवपी न्हय. बापायन आपल्याक फ़ाव तसो धोव वेचून दिलो ना म्हुण ती म्हजेकडे केन्नाय तक्रार करी. पुण म्हाका दिस बापायन हे अबुद्दे चलयेक हाचेपरस बरें स्थळ आनीक खंयचें पळोवन दिवचेलें ? पुण ती सदांच बापायविरुद्ध तक्रार करीत उल्ली.

तशीच ही मुख्य मंत्रीण आमचे चळवळीक लागून आपल्याक मेळ्ळा ताचेपरस व्हडलो हुद्दो मेळ्ळोना अशें समजताली आनी आमी तिचे ताका लागून विरोधक जाल्ले आनी तिका मस्को मारून तिचें कौतुक करताले ते वेगळेच आसले.

तरी पसून म्हज्या ह्या पणजेच्या पासयेवेल्या विरोधकान म्हाका हो मस्को मारचेलो गुण दसयल्लो.

पुण ते वेळचे रस्त्यावेले परिस्थितींत हांवें ह्या दसयल्ल्या गुणाचो फ़ायदो घेवचो थारायलो.

पासयेवेलो लोक थोडो पयस जाल्लो. पुण आनीक कांय जाणं थंय पावताले ते कितें जालां हाची चवकशी करूंक उबे रावताले. हांवें फ़ाटीक घाल्लो सैनिकूय आतां बरोच भिल्लो. आमचे विरोधक परते आगळीक करीत असो भंय आसलो. अशा वेळार हांवें आवाज चडोवन म्हळें.

"हय. हांव सगल्यांक मस्को मारून वयर सल्ला. म्हाका तुमी कोण आसात ताची पर्वा ना. पुण ह्या मनशाक कोणूच हात लायत जाल्यार हांव मदीं पडतलों. तुमच्यानीं म्हाका हात लांव नज"

म्हजो आवाज बरोच चडलेलो. म्हज्या आवाजा वयर आनीक आवाज चडोवप बरें न्हय अशें म्हज्या विरोधकांकूय दिसले. जायते जाण थंयच्यान परततात तें हावें पळेलें. म्हज्या नादाक न लागलेले बरे अशें जायत्या जाणाक दिसलें. चडसो लोक फ़ाटीं सल्लो.

एक पावट खंय एक मनीस पिशांच्या हॉस्पिटलांत थंय दोतोर आशिल्ल्या आपल्या एका इश्टाचे भेटेक कांय पिकिल्ले आंबे घेवन गेलो.

दोतोर निक्तोच कांय चड चाळवल्ल्या पिशांक पळोवंक आपले कुडींतल्यान भायर सरून गेल्लो. तेन्ना काय थोडे पिशें लागिल्ले पिशे थंय हेरांक राखूंक म्हुण दवल्लेले ते ताका मेळले. तांतलो एकलो ताचे सरीं येवन ताका आंबे खंयच्यान हाडल्यात काय म्हुण विचारूंक लागलो दोतोराच्या इश्टान ताका बरे भाशेन सागले कि आपुण दोतोराक मेळूंक आयला आनी ताका दिवपाक घरच्यान आंबे हाडल्यात. पुण तें तो कशेंच आयकना जालो. 'तुवें ते चोरून हाडूंक ना कित्यावेल्यान ?' अशें त्या पिशान विचारतूकच हो शाणो ताका आपणें ते चोरून हाडूंक ना पुण कशें कशे हाडल्यात ते सांगूंक लागलो. तेन्ना तो पिसो 'चोर, चोर,' म्हुण आडूंक लागलो. तो आडँडता तें पलोवन हेरूय 'चोर, चोर, म्हुण आडँडूंक लागले? करतां करतां पिशांच्या त्या हॉस्पिटलांत सगलेकडे 'चोर–चोर' असो एकूच बोवाळ जांवक लागलो. तें आयकून दोतोर थंयँ आयलो जाल्यार आपलो इश्ट थंय आयला आनी ताची भियेवन गुळी जाल्या तो तागें पळेली. दोतोरान आपल्या इश्टाकडल्यान कितें घडलें ताची खबर काडली. सगलें आयकन घेतकूच दोतोरान आपल्या इश्टाक सांगलें

"असो केन्ना पिशांकडे, शाण्या भशेन उलोंवक जायना, तुवें 'चोर-फ़टिंग, म्हुण आडूक फ़ाव आसले. असो भियोवन उपकारता?"

तसो हांव त्या वेळार म्हज्या विरोधकांक व्हड ताळयान तोंडाक कितें येता तें उलोंवक लागलों.

म्हजो अवतार पळोवन लोक थंयच्यान फुडें गेलो. म्हज्या विरोधकाचो एक इश्ट थंय आयिल्लो. तो पयलीं नगरपालिकेचो एक मेंबर आसलो. ताणें म्हाका समजावन म्हळें. "तू असो किल्याक तापता? तू हांगा ह्या दोतोरासरीं कित्याक? तुका कितें दुयेंस आसा? तुका हांव जाय जाल्यार व्हडल्या दोतोरा म्हज्यान व्हरतां हांगा वाटेर हो तमाशा कित्याक?'

अशें सांगून तो आपल्या इश्टांक घेवन पयस गेलो. हांवू म्हजे वाटेन गेलों.

थोडया वेळान हांव थंय आमच्या वैजाक पळोंवक म्हुण परतलों जाल्यार तोय थंयचीं आपलीं वखदां कवळून थंयच्यान गेल्लो. तो म्हाका कांय वेळान पणजेच्या दुसऱ्या एका फुटपाथाचेर दिसलो. जंगली जाल्ल्यान मनशापासून कसो आनी कितलो पैस रावचो हाची ताका बुद आसली. म्हाका पळोवन ताणें म्हजे उपकार मानले पुण आनीक बोवाळ नाका म्हुण आपुण इल्लो पयस आयलां हेयं म्हाका सांगलें.

पणजेंतल्या एका हॉटेलांत हांव जेवक गेलों. थंय हांवें जेवक ताटांत हात मात घाला म्हजो इंजिनियर विरोधक थंय आयलो आनी म्हज्या टेबलार दुसऱ्या कदेलार बसलो. ताणें म्हाका विचारलें—"तूं चड शाणो जाला? म्हज्यान तुका मारूं नज. म्हज्या बोल्सांत पिस्तुलुय असा.'

म्हाका कितें करचें तें कळना जाल्लें. हांवें ताका सांगलें कि तू जेवक आयला जाल्यार बसून जेव आनी म्हजे वाटेक वचू नाका.

'म्हांका तुवें असो कांय न्हय केलो ?' ताणें विचारलें.

'तुका हांवें कांय न्हय करूंक ना. पुण पणजेच्या फुटपाथार बसलेल्या त्या वैंजाचे वाटेक तुवें गरजे भायर वच्ची गरज नासली. म्हाका किवें गोंयचो अभिमान ना ? कोंकणी उलोंवक तुवे म्हाका शिकोंवक जाय ? पणजी कितें नितळ उरिल्लीं हाका नाका ? पुण तू करता ती आगळीक तुका पणजेंत रावन सोबना.

'म्हाका हातदी' ताणें म्हळें.

'हात दिवची कसली गरज ? म्हाका हात दिवचो ना.' म्हजो हात तेन्ना जेवणांत आसलो. तो दिवकूय म्हाका कठीण आसलें.

'तर तुज्या पायांक हात लांव ?' तो खरेंच बागोवन म्हज्या पायांक हात लांवक गेल्लो.

'हावें ताचो हात धल्लो आनी ताका सारको बसयलो.

आतांच आपलें अंतर्राष्ट्रिक व्हडपण सांगपी हो मनीस पायांक हात लांवक वता हें म्हाका पटलेंना. ही ताची एक वेळार व्हडपण सांगची आनी दुसऱ्या वेळार खालतो जावची रीत म्हाका मानवली ना. म्हजेकडे सख्य जोडपाक ताणे अशें खालतेंपण पतकरिल्लें हांवें मानून घेतल्यार म्हाका सोबचें नासलें.

पुण हे अडेचे अंतर्राष्ट्रिक व्हडपण मेळोंवक सोदपीं अशे विचित्र चालीचे आसतात.

भारतांत एक पावट अंतर्राष्ट्रिक कीर्ति संपादन करूंक सोंदतल्यांची एक राजवट आयिल्ली. तांचो एक अंतर्राष्ट्रिक कीर्तिचो वकील अमेरिकेत राजदूत म्हुण गेलो. तो खंय अमेरिकेच्या अध्यक्षांचे भेटेक गेलो तेन्ना ताचे बायलेचे पांय धरूंक बागवलो. ताका थंयच्या वर्तमान पत्रांनीं 'बुट–लेस राजकारणी'' म्हुण हिणयलो. अशे तरेन हीणपण दाखोवन मनीस आपले भूयेक व्हडपण हाडीना. म्हज्या पणजेच्या ह्या इश्टाक अशे हीणपण दाखोवन पणजेचो अभिमानी म्हुण

दाखोवक हक नासलो.

पुण हो पणजेंत रावपी आपल्याक अंतर्राष्ट्रिक कीर्त मेळ्ळी म्हुण कितल्योय आड्‌डॅलों तरी भूयेंत ताची पाळां– मुळा सारकीं घट नासलीं.

हे पणजेचे भूयेंत घट आशिल्लो मनीस केन्ना असो एक पावट वरतो जाल्यार दुसरे पावट बागोवपी जावचो ना. हे भूयेंत पाळांघट आसलेलो मनीस केन्ना नसतें हीनपण दाखोंवचो ना, नसते व्हडपण दाखोवचों ना, दुसऱ्याक गरजे भायर त्रासडिवचो ना. नसती किजिलां करचों ना. हांगा शांतपणान रावतलो.

फुडें केन्ना – केन्नाय पणजेंत मेळटकूच म्हजों हो नवो इश्ट म्हाका 'किते? कसो आसा?' म्हणटा. हांसता. हात दिता आनी फुडें वता. हांगा तशी सदांची दुस्मानकाय दवरूंकूय मेळना.

